# करबट



प्रकाशन क्रमांक : 109

1994

'साहित्य पसवण' वार्शीक : पंदरा रुपया

प्रकाशक – राजहंस वितरण
1–मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी, गोवा – 403 001

मुद्रक – राजहंस ऑफसेट
1–मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी, गोवा – 403 001

मुखपृष्ठ – गजानन च्यारी

–मोल–
1994 वर्सा 60 रुपया
1995 वर्सा 72 रुपया
1996 वर्सा 86 रुपया

ISBN 81-8585-08-4

# करबट...

'करबट' हो म्हजो पयलोच ललीत–निबंदांचो संग्रह... साहित्य अकादेमीन कोंकणीक भाशा म्हणून मान्यताय दिली. गोंयकारांनी झगडून–झुजून कोंकणीक गोंयची राजभास केली. गोंयांत कोंकणी शाळा सुरू जाल्यो. कॉलेज आनी पोस्ट ग्रॅज्युएशनाच्या पांवड्याचेरय कोंकणी हो विशय घेवं येता. ते नदरेन नवीं नवीं आनी सगल्या विशयावयलीं कोंकणी पुस्तकां भायर सरूंक जाय. आनी हाका कोंकणी बरप्यांनी हातभार लावंक जाय अशें म्हजें प्रमाणीक मत.

ते नदरेन ललीत निबंदांक विशेश म्हत्व आसा. कथा, कादंबरी, कविता वा नाटकां ह्या सगल्या विभागांपरस ललीत निबंदांत म्हजी गत आसा अशें मनांतल्यान दिसून हांवें ह्या मळार पावल घालां. आनी ताजें म्हजे म्हाकाच समाधान दिसता.

म्हज्या ह्या निबंद संग्रहांत वेगवेगळ्या विशयांवयले पंदरा लेख आसात. आनी म्हजें बॅग शेणटा, सिगार, भायरी, नम्तें आनी गोंयकार हे विनोदी प्रकारांत मोडपी लेख. अशी आमची बाईबाय हे व्यक्तिचित्र. सोदता मूय साकरेकण, पावस पडे पावस पडे कांतयांनी, याद आसा तुका, पान सुपारी, नातें हे थोडे विचारीक निबंद. साडेतीन हाती, विषण्णताय पयस पाय, संस्कार, संस्कृताय आनी आमी, समाजीक स्वतंत्रताय आनी बायलो, खिणयाळी जीण हे थोडे विचारीक गंभीरतायेकडेन झुकर्पी निबंद अशे हांगा एकठायल्यात.

गोंय म्हळें कीं नुसतें आयलेंच. गोंयकार नुस्तेखायरे हें आख्ख्या संवसाराक खबर आसा. गोंयच्या नुसत्यांत 'करबटाचो वांटो' फामाद. पावसा तेंपार जाल्यार ह्या करबटाक चड वालोर... हातूंत सुंगटां, खांपी, वेल्ल्यो, धोडयारे, विणंगां, पेडवे, ताल्ले, मुड्डशो, कळव्या पेटे लेगीत जायते तरेचें बारीक नुसतें मिस्तुराद आसता. शेंवटे, पांपलेटां, विस्वण हे सारकिलें कप्यांचें नुसतें खाल्ल्यांक घडये हें 'करबट' मानवता जायत. पूण तातूंतय 'करबट घोस्ताचें' आसपाचें अशा लोकांचो एक वर्ग आसता. तांतलेंच हांव... म्हजो हो करबटाचो वांटो तुमकां घोस्ताक वतलो अशी आस्त दवरतां...

*– जयमाला दणायत*

# साडेतीन हातीं...

सांजवेळचें अशेंच देवळांत वच जाल्यार कसलो तरी बोवाळ चलिल्लो दिश्टी पडलो. थंय सरवळ्यांत बशिल्ले एके बायलेकडेन आपशींच खबर घेतली. ती सांगूंक लागली,. 'रघुशणै सामको मरणादारांत पाविल्लो. परत बरो जालो म्हणून बायल भुरग्यांसयत सगलें कुटूंब सांगणी पावोवंक आयलां आनी आतां ताजो तुळाभार जावपाचो आसा.

'हय बाये, देवान खरेंच मोटी कृपा केली ताजेर. साप्प पळोवपाचो नाशिल्लो. सामकें मडें कशें जाल्लें. आतां पळय परत पयलींभशेन ट्रुमट्रुमीत जाला.'

'बायलेचें नशीब. कशी खोशयेन मुरगुट्टा पळय.

'येदी येदीं भुरगीं आसात पदराक. काळ आयिल्लो पूण वेळ येवंक नाशिल्लो म्हणटात तें खरें गे बाये.' चवगी जाणी उलयताल्यो. तांतल्यान भावार्थ लक्षांत आयलो. मनीस आशिल्लो ४०–५० वर्सांचो. दोग–चवगां काचीबुचीं पदरांत. बायलय सामकी भुरगी. सगली खबर आयकली आनी म्हाकाय दिसलें, जावं, देवानच वाटायलो हाका. ना जाल्यार हाल आशिल्ले बावड्या बायल भुरग्यांचे. संवसाररथाचें एक चक्र रथ निखळटकीच तो तरी कसो सुरळीत चलत ?

देवाक पांय पडून पांच प्रदक्षिणा घालून भायर आयलें आनी अशेंच माळयेवयल्यान वयर सरलें आनी तडक सज्जार वचून बसलें. भोंवतणचो बोवाळ पयस गेल्लो. पिंपळाची सळसळ मात कानार पडटाली. त्या शांत वाठारान म्हज्या मनाचेर एके तरेचो जादू केलो. भोंवतणचें जग, नातींगोतीं, भुरगींबाळां, सुखदुखां सगलें सगलें हांव खीणभर विसरलें. मन

शांत जालें आनी ते शांततायेक चिरून एकच विचार म्हजे तकलेंत रिगलो – तो म्हणचें मनशाचें मरण. शांत तळयेंतल्या एदकांत फातर मारतकच भोंवतणी पसरिल्ल्या ल्हारांवरी म्हज्या मनभर त्याच विचारांचीं ल्हारां झिणझिणलीं !

खरें म्हळ्यार मरणाचें भंय कोणाक दिसना ? किडी मुये सारकिल्या साद्या बारीक जीवाकधरून व्हडल्या व्हडल्या राजांच्या आंगार लेगीत जाचे येवजणेनच कांटो उबो जाता अशें तें मरण.

आमची एक वावराडी आशिल्ली. दीसभर काम करकर करप, हांगा थंय हातपाय धोडावन आपलें आनी चार भुरग्या–बाळांसयत घरच्यांचें पोट भरप–इतलें जावन सद्दां रातचो बेबद्या घोवाचो मार खावप. सकाळफुडें कामाक येतकीच तिणें रडचें. बाये, खंयय न्हंयंत वचून जीव दीन दिसता ह्या सदींच्या कटकटींमुखार. पूण भुरग्यांतोंडाक पळोवन ओगी रावतां–' म्हणचे जीव दिवपाच्यो ह्यो खबरी तिणें सदांच करच्यो. एक दीस पोरसांत आयदनां घांसतना एक जिवाणें पांयांकडल्यान गेलें म्हणून म्हणून तिणें पळय एक बोब मारली ती सोंसपाची न्हय. 'आवय म्हाजे, असलें गे बाये जिवाणें, बिवाणें' करून बोवाळ तिजो... आनी खरें पळय जाल्यार तो आशिल्लो सादो दिवड. हांवें मागीर तिका बरी चाळयली– कितें गे, सकाळीं माऽऽर मोट्यो फोकी मारताली मगे तूं. आतां देवान काय बरें मरण धाडिल्लें जाल्यार बोबो–हांको कित्याक मारल्यो ?' जाल्यार ती हांसून म्हणूंक लागली. बाये, बऽऽरें तोंडान म्हळें म्हणून जीव कोणाक नाका जाला ?' आतां हाजेर कितें उलयतली ? खरेंच हें, तोंडान बऽऽरें म्हळें म्हणून जीव कोणाक नाका जायना. दस सरून पांच उरलेलीं, गवऱ्यो मसणांत पाविल्लीं म्हाल म्हातारीं लेगीत तोंडान 'देवा नाका रे आतां. सोडय बाबा ह्या त्रासांतलें,' अशें तोंडांनी बडबडटात. पूण मरण मुखार उबें रावतकच कासावीस जावन वांचचेली धडपड करतात. आपले कुडीची आस्त सगल्यांकच आसता.

आमचे शाळेंत एक भुरगो आशिल्लो. कितेंय काम सांगलें, अभ्यास कर म्हळें की ताणें घरच्यांक भंय घालचो, 'हांव जीव दितलों.' आवयन

बावडेन भिवन ताज्या मनासारकें करचें. मातशें कितेंय नाकसुरें गेलें की ताणें घर सोडून जीव दितां म्हणून सांगचें आनी रानांत वचूनलिपून रावचें; घरचीं बावडीं कामधंदो सोडून ताका सोदूंक भोंवतालीं. रातचें ताणें घरा येवचें हें सदांचेंच जाल्लें. एक दीस शाळेंत मास्तरान अभ्यास करुंना म्हणून पट्टी मारल्यार लागलो हो रोखडोच मास्तराक भेश्टावंक लागलो, मास्तर म्हज्या आंगाक हात लायनाका. हांव जीव दितलों.' मास्तरान ताजें उदक ज्युस्त जोखिल्लें. 'हय, चल दी जीव –' मास्तरान शांतपणान सांगलें आनी फाटल्यान बांयचेर व्हेलो. मोटव्या नेटान हो बांयमेरेन गेलो. धडेर चडलो. पूण ती खोल बांय, तें उदक पळोवनच 'सिदन्ती मम गात्राणि, मुखं च परिशुष्यति' अशी ताजी स्थिती जाली जावये. मरणाचें भिरांकूळ रूप पळोवन चड मरून सगल्यांची अशीच भिंयेवन गुळी जाता आसुये. ताका शेळो घाम सुटलो. कडकडत तो फाटीं सरलो. मागीर मास्तर फुडें धुकलता. तो भिंयेवन फाटीं सरता आनी भुरगीं पळोवन हांसतात – अशें कितलो वेळ चलतालें. ताका सारकी बुद्द शिकोवचे शिकोवचे खातीर मागीर मास्तरान गळ्याक राजू बांदून उदकांत देंवोवंक व्हेलो तेन्ना हात जोडून, पांयांपडून परत जीव दितां म्हणचोंना म्हणून ताणें सोपूत घेतलो तेन्ना ताका सोडलो. त्या दिसाच्यान सगली ताका 'ए फट्या, कितले जीव मारले रे आज ?' करून ताज्यो भगल्यो करतालीं ही फुडली खबर सोडात, पूण म्हत्वाचें म्हणचे मनीस मरणाक कितलो भिता हें.

आमीं गीता वाचतात. पूण ती सगल्यांकच पचना. खरें पळोवंक गेल्यार गीता वाचतल्याक मरणाचो मात लेगीत भंय दिसूंक फावना. श्रीकृष्णान गीतेंत मरणाचें इतलें सहजसुंदर रूप दाखयलां की ताजो कोणाकच भंय दिसचो ना.

देहिना तस्मिन्य था देहे कौमारं यौवनं जरा..
तथा देहांतर प्राप्तिर्धीरस्तत्र न मुह्यति.
वासांसि जीर्णानि यथा विहाय
नवानि गृह्णाति नरोऽऽपराणि
तथा शरीराणि विहाय जीर्णा

न्यन्यानि संयाति नवानि देही. . .

म्हणचे, भुरगेपणांतल्यान तरणेपणांत आनी तरणेपणांतल्यान म्हातारपणांत मनशाचें परिवर्तन जावंचे जावन पोरणें वस्त्र काडून उडोवन नवें न्हेसण न्हेसचें इतलें सादें त्या मरणाचें रूप गीतेंत दाखयलां. अशे तरेन काळसोरपाचे विखारी दांतच गीतेन हुमटून उडयल्यात.

पयलींच्या संतकवींनी कूड आनी आत्मो हांतलें नातें दाखोवपाक पांजरो आनी तांतलें सुकणें अशें रुपक आपणाल्या कवनांनी दाखयलां. तशेंच, अशाच एक श्लोकान 'हो औंट हातांचो किल्लो' अशा अर्थान एक कल्पना मांडिल्ली हांवें आयकली. ताचीं उतरां आतां सारकीं तकलेंत नात. पूण अर्थ सर्वसादारण होच. खंयचोच किल्लो ल्हान नासता. पूण हो मात औंट हातांचो आसा–मनशाची कूड औंट म्हणचेच साडेतीन हात हें थारिल्लेंच आसा.

कुडीकच त्या कवीन किल्लो म्हळां हें तकलेंत येतकच ह्या किल्ल्याच्या दारा–जनेलांचो समज आपशींच येता. हातूंत कांयच कुवाडें ना. नाक, कान, दोळे, तोंड आनी एकदोन कर्मेंद्रि हींच तीं दरां–जनेलां. हाडूंत मदीं दोळ्यांक पातकड्यांचीं झापडां आसतात, तोंडाक घट्ट धांपपी ओंठांचीं दारां आसतात. हांचें उगडप–धांपप आपल्या मनासारकें आनी जाय तेन्नाच करूंक मेळटा. पूण आपणाले नाक–कान सदांच उक्तें आसतात. हांतल्या फुडल्या पदाचो अर्थ असो – हे मनशा, ह्या दरां – जनेलांतल्यान जिवाचें शेवणें केन्ना पसार जायत सांगूं नजो, तेन्ना हें जाणून जीव आसा ते मेरेन कितेंय सत्‌कर्मां कर, जिणेचें सार्थक करून घे...'

उपदेश करपाखातीर हें जरी कितलेंय खरें आसलें तरी हातूंत रावपी जीव सहसा पळून वचना. आपणाल्या घराचो लोभ कोणाक सुटला ? भाड्याच्या घरांत थोडो तेंप रावल्यार लेगीत बिराड बदलच्या वेळार जिवाक कोण कश्ट जातात ! खंयय रावता त्या जाग्याबद्दल–मागीर कितलेय थोडे दीस थंय राव आपलेपण दिसताच. आपल्या घरांत आपणाले जिणेंतल्या रागलोभाच्यो, सुखदुखाच्यो, बऱ्यावायटाच्यो, मायेमोगाच्यो

ल्हान व्हड घडणुको थंय घडिल्ल्यो आसतात. खंय दाराफाटल्यान लिपून घेतिल्लो पयलो उमो–ताजी याद, खंयचे कुडींत पाळणें हालिल्लें आसता–ताका लागून बिराडाच्या कोनशाकोनशाक लेगीत आपणाले जिणेंत मोगाचो जागो मेळिल्लो आसता. मागीर ही साडेतीन हाती कूड सोडून वचन अशें जिवाक तरी कशें दिसत ?

ढाम्–ढाम्–ढाम देवळांत इशारद जाली आनी म्हजी तनरी भंगली. घराकडेन भुरगीं रडटात जातलीं हो पयलो विचार तकलेंत आयलो आनी बेगबेगीन माळयेचीं सोंपणां देवलें. दुकानावयल्या रेडिओचेर पद लागिल्लें

'हांव सायबा पलतडीं वेतां
दामूच्या माटवांत वेतां
म्हाका सायबा वाट दाखय. . .'

मन एके तरेच्या अध्यात्मीक विचारांनी भरिल्लेवरी जाल्लें. ह्या साद्या, सद्दां आयकतल्या मांड्यांतल्यान म्हाका एक वेगळोच अर्थ जाणवूंक लागलो–जो सदां केन्नाच तकलेंत लेगीत येवंक नासलो. म्हाका येवजलें :

मनीस कूड आनी आत्मो–जिवाशिवाची भेट घडो वंक गुरूची गरज लागता. जीव गुरूक विनयता शीवा म्हन्यांत पावचेलो रस्तो दाखोवंक. दामूल्या माटवांतलीं कलवंतां हीं पंचमहाभुतां– 'ब्रह्म सत्य जगत् मिथ्या–' अशें कितें कितें येवजूंक लागलें आनी तेच तनरेंत हांव सगलो मार्ग सोंपोवन घरा पावलें. दारांत भुरग्यांचेर नदर पडटनाच 'मनशांत' आयलें.

खरेंच. जिणेची ओड सुटप मोटें कुस्तार म्हणटात न्हय तेंच खरें.



## थिंयणातय–पयस पाय...

ल्हानपणासावन सुखासमाधानान वाडिल्ल्या म्हाका पयलो व्हडलो शॉक बसलो तो जोराचें सादें निमीत जावन जोर तकलेक मारून साबुद्देर येनासतनाच अकस्मात म्हजी आई देवागेर गेली तेन्ना. बापूय, भाव, भयणी, भावजो आनी हेर सगले सोयरे घरभर आसूनय म्हाका सामकें एकटें पडिल्लेवरी दिसतालें. आवयविणें हांव कशें जियेतलें ? तिज्या मरणाची खबर आयकून शॉकानच हांव मरपाचें तें जितें कशें उरलें हें येवजून येवजूनच म्हाका सारकें रडूंक येतालें. जिवाक भयंकर त्रास जाताले. रडून रडून काळजांत दुखतालें. अशें कितलोसोच तेंप चलिल्लें–देवादयेन आईल्या बाराव्या दिसाच म्हाका बँकेचें अपॉयटमँट लॅटर आयलें आनी हांव कामाक वचूंक लागलें. सगल्यांनीच सुटकेचो निस्वास सोडलो–जावं नोकरेक लागतकच, भायर भोंवतकच तरी हाजें मन जाग्यार येतलें–पूण खंय कितें ? कामांत आनी बसीन येतना वेतना वेळ वतालो तितलो. घरांत पावलें की मन आनी दोळे भरून येवचे. आईचे यादीन रात रात तळमळचें–कुसखरपणें जाल्ल्यान तिजें हांव मातशें चडच अपुरबायेचें आनी म्हजोय तिजेर खुब्ब जीव. तातूंत शिक्षण सगलें भायर हॉस्टॅलांतच रावन जाल्लें. सुटी मेळ्ळी रे मेळ्ळी, हांवें घरा धांव मारची. हेर भुरग्यांभशेन कॉलेज लायफ अँजॉय करपाकडेन म्हजो कल केन्नाच नासलो. आवयचें पिशें आशिल्ल्यान बीए जालें आनी हांव सुटलें. घरा आई म्हऱ्यांत आतां पोटभर रावंक मेळटलें हे आशेन आशिल्ल्या म्हजेर काळान म्हजेर मोठोच घालो घालो. आईक म्हजेपसून सासणाची पयस पयस व्हेली. आज इतलीं वर्सां जालीं पूण हे येवजणेन अजून म्हजे दोळे भरून येतात.

काळजांत भितर भितर दुखता.

खंयच्याय दुखार काळ हें वखद म्हण्टात. पूण असलें दूख हें अपवादच म्हणूंक जाय. हो दुखाचो भार उणो – उणो जायत वता इतलें खरें. पयलीं कोणेंय आई म्हणचे पयलीं हांव रडूंक लागतालें तशें आतां जायना. पूण एकेक दीस आईची याद येत रावता आनी हांव येदें दोन भुरग्यांची आवय जावनय घळघळटां. आईच्या अकस्मात मरणान म्हजे जिणेंत एक व्हडली पोकळी निर्माण ज़ाली. तेभायर म्हजे फुडले भयणीचें वर्साभितर करूंक जाय म्हणून तिनेक म्हयन्यांनी लग्न केलें आनी हांव सामकेंच एकलें पडलें. ताजो परिणाम म्हजे कुडीचेर जालोच. पूण मनाचेर वागण्याचेर खूबच लोकांक दिससारको जालो. हांव सदांच खिन्न, विषण्ण मरगळिल्लें कशें उरतालें.

म्हज्याच न्हय, जायते जाणांचे जिणेंत केन्नाकेन्नाय असो विचित्र काळ येता. आपल्या सामक्या विस्वासू मनशाकडल्यान आपूण फटवता. मागीर तें फटोवप अशें सासणाचें जावं, वेव्हारी नदरेन जावं – त्या वेळार कांयच सुचना. मन विषण्ण जाता. केन्नाकेन्नाय कसल्याय गंभीर प्रस्नाक तोंड दिवचें पडटा तेन्ना मनीस सामको पेंचांत. मनाची अस्वस्थताय, उद्विग्नताय खिणाखिणान वाडत वता, तळमळायता, कलकलायता. ही सदांचीच गजाल जावन बसता. केन्नाकेन्ना आपणाक जें मेळटलेंच म्हणून सामकी मनाची खात्री आसता ताजेखातीर पुराय यत्न केल्ले आसतात, बऱ्या फळाची उमळशिकेन, आस्तेन वाट पळेतात, पूण पुनवेरातीं उमाशेचो भास जाता आनी आपणाक सामकेंच विरार जाल्लेवरी जाता... चालू म्हणणेप्रमाण हाका frustration जावं depression म्हणटात तें येता.

बरें बरें वाचन, लिखाण, भोंवडी हांतलो कसलोच उपाय फळादीक जायना. बरें नाटक पळेलें, सिनेमा पळेलो जावं इश्टाकडेन मन मेकळें केलें तरी ही विषण्णताय मनाक वेश्टू रावता; सदांचीच जावन पडटा. अशा वेळार मनाक परत पयलींसारकें करपाक, ताजी उमेद वाडोवंक, उर्बा जागोवंक सोंप्यांत सोंपो मार्ग मेळ्ळयार कितलें बरें जातलें न्हय ?

सगल्यांचीच केन्ना ना केन्ना अशी ही स्थिती जाताच. आनी हांवें जर ह्या सगल्याचेर म्हाका एक बरो उपाय मेळ्ळा म्हळ्यार कोणाक खरें दिसत ? अर्थांत म्हाका जो उपाय मेळ्ळा तो म्हजेपुरतो सामको खात्रीचो आनी उपाट यसान भरलेलो थारला तोच सगल्यांक सांगतां. जाणें करून तुमीय तुमची निर्शेणी पयस पावोवंक यसस्वी जातले अशें म्हाका खात्रीन दिसता.

सांगपाचें म्हळ्यार, आई वचून म्हजे जिणेंत जी पोकळी निर्माण जाल्ली तिका लागून म्हजें अंतस्करण धवळून गेल्लें. सदांची जीणच हाताभायर गेल्ली. ताजेर अकस्माक एक दीस म्हाका उपाय आपशींच आनी मातपूण समजनासतना मेळ्ळो. एक दीस मन भयंकर बेचैन जालें. कितेंय केल्यार कामांतय लक्ष लागना. परतपरत आईची याद मनाक धोंगसूंक लागली – घरा लेगीत वचन दिसना जालें आनी सहज म्हणून इश्टिणीन केल्ल्या आगऱ्याक हांव ताजेबरोबर म्हऱ्यांतल्याच एका गार्डनांत पावलें. बसीर बसूंक वतांवतांच थंय इश्टिणीच्या आगऱ्याक मान दिवंक म्हणून हांव थंय गेलें आनी थंयच खिळून उरलें.

हें भुरग्यांपसत खास बांदिल्लें गार्डन. थंयच्या एका बांकार कारंज्या म्हऱ्यांत आमी वचून बसलीं. एकटुकच, उद्विग्न मनान हांव सहज म्हणून मैत्रिणीबरोबर त्या जाग्यार वचून बसतां कितें आनी साताठ मिनटांभितर कृष्णान यशोदेक पुराय विश्वरूप आपणाल्या इल्ल्याशा तोंडांत घडयिल्लें तशें म्हाका जिणेचें सर्वांगीण सोबीत सुंदर दर्शन घडटा कितें – सगलींच अजापां – कापां तरी खऱ्यांचीं...

भुरग्यांखातीर आशिल्ल्या झोंपाळ्यार, चक्रार, घसरगुंडेर इल्लींइल्लीशीं भुरगीं खेळटालीं, मस्ती करतालीं, हांसतालीं, नाचतालीं झगडटालीं, बोवाळ करतालीं. तांचे बरोबर तांच्यो आवयो आनी कांय जाणांबरोबर तांचीं क्रियादां आशिल्लीं–आवयो कुशीन बसून घोणीवरी भुरग्यांचेर नदर दवरून आशिल्ल्यो. (क्रियादां भुरग्यांक खेळूंक सोडून आपलें मन रमयतालीं. ) तिशी पस्तिशीच्यो त्यो आवयो चड करून नोकरी करिनासतना घरा रावंक मेळपी भाग्यशाली बायलां मदल्यो – जांचे घोव ऑफिसांतल्यान पुरो जावन येवपा वेळार तांकां च्या बी दिवंक मांयो घरा

आसात आनी भुरग्यांक भोंवंक क्रुरपाच्या निमितान पांय मेकळे करूंक – आपणाल्या बरोबरच्या इश्टिणींक मेळूंक भायर सरपाचो तांणी चान्स धेतिल्लो आसतालो. – आपापल्या घोवांची, घराची व्हडवीक, आपणाल्या भुरग्यांची तोखणाय चलताली हे तांच्या खुमण्यावयल्या हावभावांनी सहज जाणवतालें. भुरग्या मनाचें निर्व्याज्य नाकळटेपण आनी आवयच्या मोगाचे हळूवार रश्मीपास हांच्या त्या भोव सोबीत चित्रान म्हज्या मनाचीं कवाडां ल्हवूल्हवू उगडूंक लागलीं. मनाक बेठींच चिकटून बशिल्लीं जळमटां उपशींच गळून पडूंक लागलीं. भोंवतणच्या सैमाची अवतिकाय मनाक शांतोवंक लागली. मध्यार आशिल्ल्या व्हडल्या मेकळ्या ग्राऊंडावयली पाचवीचार हरयाळी मनाचेर आपशींच दंवाचो शिंवर करूंक लागली. भोवतणीं खेळटालें तें निर्व्याज्य भुरगेपण पळोवन सुखदुखाची, जिणेंतल्या संघर्शाची कल्पना नाशिल्ल्यान ताजी कॅर काडिनाशिल्ल्या त्या वातावरणांत म्हज्या मनाचो घुस्मटमार आपशींच ल्हवूल्हवू शांत जावंक लागलो. मन मातशें शाबुद्देर आयलें. आपापल्या दुखाभोंवतणीं विणिल्ल्या कोशांतल्यान तकली वयर काडून मातशें हेकडेन तेकडेन पळोवपाइतलें ताळ्यार आयलें, आनी कितें अजाप ! ताचेर दाटिल्ली ती दुखाची दाट काजळी ह्या भायल्या देखाव्यांच्या झुळकांनी ल्हवूल्हवू झडून तें पयलींवरी ताजें टवटवीत जावंक लागलें.

म्हऱ्यांतले पांयवाटेन हेवटेन तेवटेन भोंवपी लोकांकडेन पळोवन म्हाका मजा दिसूंक लागली. न्हवऱ्याचो हात धरून ल्हवूल्हवू चलपी ती म्हातारी बायल पळोवन त्या जोडप्याविशीं एके तरेची आदराची भावना उफेवन आयली. मोट्या समर्थपणान समाधानाचो संवसार पुराय करून वानप्रस्थावस्थे मेरेन एकमेकांक सांबाळीत जोडयेन वाट चलिल्ल्याची प्रसन्नताय त्या दोगांयच्या चलपांतल्यान, वागपांतल्यान, उलोवपांतल्यान, चांटयेपावलाक उत्तायिल्ली दिसताली. मन प्रसन्नतायेन भरून गेल्लें.

आपणालें वजन देवोवचेपसत कांय मोट्ट्यो बायलो आपणाल्यो अगडबंब कुडी घेवन गार्डनांत बेगबेगीन चलत फेरयो घालताल्यो. तांकां पळोवन हांसो येतालो. जें सामकें खिणयाळें तें लेगीत जपून दवरूंक मनीस

कितलो सादूर आसता, कितले यत्न करता ते येवजून म्हजें मन मातशें मनशाळ्ळें.

सोबीत सोबीत रंगयाळे नवे नवे फॅशनचे कपडे घालून तरणाटीं भोंवतालीं. तांकां पळोवनच मन रंगयाळें जावन गेलें– तरण्या मनाच्या त्या रंगयाळ्या दर्शनान मन प्रसन्न जावंक मदत जाली. थंय कोण नाशिल्ले ? गरीब–गिरेस्त, जाणटे नेणटे सगले सगले तरेचे लोक भोंवतणीं दिश्टी पडटाले. त्या सगल्यांकडेन पळेत तांच्या व्यक्तिमत्वाचो अदमास घेवपांत आनी कल्पना करपांत वेळ बरो पासार जावंक लागलो. मनशांच्या रंगरुपावयल्यान, कपड्यांवयल्यान तो कितें शिकला आसतलो, ताजी सिर्वीस, धंदो कितें आसतलो, ताजी परिस्थिती कितें आसतली ह्या प्रस्नांच्यो जापो सोदूंक मन गढून गेलें आनी मनावयली विषण्णताय ल्हवूल्हवू देंवंक लागली.

तेन्ना म्हाका एकदम सट् जालें. हो मार्ग हांवें पयलींच आपणायिल्लो; शाळा कॉलेजींत घरून. आतांच कसो विसर पडलो ह्या वेळार ? तेन्ना लेगीत ल्हान व्हड प्रमाणांत मन दुखी जालें. हॉस्टॅलांत रावतना आवयची घराची याद येवन मन घुस्मटूंक लागलें. 'होमसीक' जालें की हाव एकलें बसनासलें. वांगडच्यां बरोबर रस्त्यान येतल्यावतल्यांचेर कमॅण्ट पास करीत हाजीं ताजीं भगलां मारीत मनांतली उदासताय घांवडांवचेलो यत्न करतालें. पूण त्या वेळार मन शांतोवपाची आयचे इतली गरज पडनासली. अवखळ भुरगेंमन ह्या विशयावयल्यान त्या विशयाचेर पाख्यावरी उडत रावतालें. तेन्ना ह्या विशयाची तितली गंभीरताय ज्ञात जाली ना. पूण आतां हे मनस्थितीचेर मेळिल्ल्या उपायाचें म्हत्व सारकें बरें समजलें.

त्या दिसाच्यान मागीर घरा वतना चड करून सदांच एक अर्दवर तरी थंय बसून वचप संवयंचें जावन गेलें. गार्डनाच्या कट्ट्यार बशिल्लीं चडशीं सगलीं पिकिल्लीं पानांच दिसतालीं – सिर्विसेंतल्यान मेकळीं, जाल्लीं चडशे सगले वेव्हार पुराय जाल्ले. कोणाचीं सात पावलां बरोबर चलून सात जल्मांची गांठ पदराक बांदून घेतिल्ली सांगातीण ह्याच जल्मांत

संवसार अर्दकुटो उडोवन ताका एकट्याक उडोवन गेल्ली. धवेफुल्ल केंस, सुकिल्ल्या थकिल्ल्या कुडींचीं हीं मनशां बरोबरच्यांकडेन मेकळेपणान उलोवन मनांतलें दूख हलकें करूंक येवन बसतालीं जावये. जिणेचे सगले तरेचे पैलू हांगा नदरेक पडटाले.

मेकळ्या शांत वातावरणांतलो थंड वारो आंगार व्हांवतालो. गार्डनांतले हे विंगड विंगड देखावे, भोगाबराबर त्यागाची, व्हडपणाची, पुण्यायेची, अभिलाषे बराबर अध्यात्मीक याद करून दिवंक लागले. त्या सगल्याचो मनाचेर एक आगळो परिणाम जालो. एक नवें आव्हान स्विकारचेली जिद्द दिवन गेलो. कसले अवस्थेंत हांगा आयिल्लें आनी पळेतांपळेतां सगलें भान विसरून बसलें–वेळाकाळाचें, घरादाराचें, सगलेंच... आनी मागीर आपशींच मनांत आयलें, कितलो सोंपो उपाय हो सगल्या विवंचनांतल्यान मनाक मुक्त करपाचो. मजाच दिसली सगली. खंयच्याय वीशिश्ट थळाची रसीक मनाक दाद कशी मेळटा ? असलीं हीं थळां सोदपाक नदर मात मातशी मेकळी आसची पडटा–मागीर घेऽऽ म्हणून हे अशे मनाक विसव मेळोवपाचे आडे मेळटात. उधारणांच दिवचीं जाल्यार न्हंयची देग, दोंगुल्लेची माट, सैमाच्या सहवासा पसत दर्यावेळो, गार्डन, देवळां, खंयचेंय महिलामंडळ लेगीत; इतलेंच कित्याक केन्नाकेन्ना लंच टायमांत ऑफिसाचें कँटीन जावं भायले गिरायकांचे बांक लेगीत...

आनी म्हजे अणभवाचे पोटलेंत अशो जायत्या सैमीक रत्नांच्यो खणी आपशींच मनांतल्यान भायर सरूंक लागतात. खरें म्हणचे हीं सगलीं थळां, वस्ती, मनशां, सदांच्योच आशिल्ल्यो; फकत तांचेकडेन पळोवचेली एक वेगळी नदर म्हाका मेळ्ळी, न्हय म्हज्या मनाची विषण्णताय पयसावचेपसत हांवें ती आपणायली.



# आनी म्हजें बॅग शेणटा...

'नकटीच्या लग्नाक सतराशें विघ्नां' म्हणटात, पूण म्हज्या खाशेल्या अणभवावयल्यान हे म्हणणेपरस 'धाकट्याच्या लग्नाक सतराशें विघ्नां' अशें म्हाका दिसता. बाकी, दोनय म्हणण्यो वेगवेगळ्या अर्थान वापरपाच्यो आं. (हय, ना जाल्यार आयकुप्यांचो आनी ओगीच गैरसमज जायत) सांगपाचें म्हळ्यार, म्हजी सोयरीक जाली आनी तेन्नासावन उतरापावलाक ही म्हणणी म्हज्या मनांत घोळूंक लागली.

हांव धाकटें–म्हजें लग्न म्हणचे म्हजे घरांतलें म्हजे पिळगेंतलें निमाणें कार्य आनी निमाणें कार्य बऱ्या गडगडाटान जावचें अशें सगल्यांकच दिसता. घरांतल्यांच्या मनांत ह्या कार्यानिमितान सगल्या सोयऱ्यांची, इश्टांमित्रांची पांयधूळ घरा झडची, सगलीं एकठांय येवन एक चार–पांच दीस तरी बोवाळ जावचो अशें आशिल्लें. म्हणून लग्न गांवांत, नाच जाल्यार निदान गोंयांत तरी जावचें अशी आमच्या घरच्यांची (आतां कुळारच्यांनी) इत्सा आशिल्ली. पूण मनांत आसता तशें घडटाच अशें ना. हांगाय तेंच जालें. आमचें निमाणें कार्य जाल्यार न्हवरेकारांचें पयलें कार्य. मान दिवचो पडलो ना ? हावा शिवा करून शेवटाक लग्न मुंबयच करपाचें थारलें. तेप्रमाण घर १०–१५ दीस बंद दवरून (त्या दिसांनी मनशां न्हिदिल्लीं आसतना उशाम्हऱ्यांतलें सामान उबारून व्हेल्ली गजाल घडिल्ली आमच्या शेजराच– पूण देवाचेर भरिभार दवरून) इतलो देसपेस करून आमचें बिराड मुंबय वचूंक भायर सरलें. तातूंत आनी हाका आमंत्रण ना, ताका कोंवीत ना, हाका व्हेलें ना आनी ताजी तिकेट काडलिना करून वयल्यान खूब जाणांलो शीण आनीक घेवचो पडलो !आमंत्रण आशिल्ले

तरी कोण पावतात म्हणात इतले पयस.

हय, जाल्यार कितें सांगतालें ? आं ! म्हणटकच लग्नाचें बिराड वतना सामान कितलें जातलें तें तुमीच येवजिल्यार बरें. हरशींच 'बाप्पा मुंबय वता' तेन्ना हाजी पोटली, ताजी डबी करून कितलें सामान जाता ? आनी हें व्हंकलेचें सामान, लग्नाचें सामान. म्हणटकच पळयात कितलें जातलें तें ! तातूंत आनीक भरीक भर म्हणून सगल्या बिराडाचें सामान बराबर...

लग्न म्हळें म्हणटकच शिवण ही आयलीच... तातूंत आनीक गोंयची चली म्हणटकच 'शिवण सूत कितेंय केलां मूं ?' हो पयलो प्रस्न. लग्न थारतकच वेळांत वेळ काडून दिसाची रात – सॉरी – रातीचो दीस करून (कारण दिसाची नोकरी आशिल्ली न्हय) खऱ्यांनीच प्रदर्शनांत मांडपाच्यो वस्तू केल्ल्यो हांवें. तातूंत बेठेंच करूंक जाय म्हणून नगाक नग केल्ल्यो न्हय आं– म्हाका मनापासून आवड म्हणून केल्ल्यो–ती शिवण !... आमच्या जयाची शिवण कितें ? युनीक जाल्या–इति भावोजी... भावोजीनच न्हय जाल्यार खरेंच कोणेंय तोखणाय करपासारकी. अशी ती शिवणीची एक व्हडली सुटकेस जाल्ली पयली व्हरपाचेंच मनांत नाशिल्लें. बेठेच नग कित्याक चडोवप ? पयलींच सामान खूब – ओगीच हाड व्हर कित्याक म्हणून ती पयलीं भायरायिल्लीच. पूण व्हेली ना जाल्यार घरच्यांक कशी दिसतली ? व्हंकलेची शिवण म्हणून पळयल्यार तेन्नाच पळोवप अशीं कांय मतां पडिल्ल्यान ती बरोबर घेतलीच आनी प्रवासांत बरोब्बर म्हजी तीच शिवणीची सुटकेस शेणली–नशीब तरी पळयात कसलें ? हरशीं व्हंकलेच्या सामानाचेर पयलीं लक्ष आसता सगल्यांचें, पूण मुंबयच वतलीं जाल्यार थंयच घेवचीं नवीं बॅगां म्हणून पोरणेच सुटकेसींत घेतिल्लें सामान. सामान घेतना भायरायिल्लें तें बॅग निमाणें अशे तरेन भायरावपाचें आशिल्लें. आनीक आनीक कितें म्हणप ?

जिवाची इतली आदळआपट करून केल्ली म्हजी शिवण इतल्या दिसांचे कश्ट... खिणाभितर ना जाले–सगली शिवण व्यर्थ गेली. पयशांपरी गेलो (कितलो म्हारग कपडो, ताणयो जाल्यार विचारीच नाका. साठ सतर

पयशांनी एक ताणी) सादे वेवहारी नदरेन येवजीत जाल्यार लेगीत सात आठ बॅडशीट. पन्नास तरी फ्रॉन्यो आनी १७ – १८ टेबलक्लॉथ म्हणचे सुमार आंकडो सहज दोन तीन हजारांनी वतलो. तेभायर कश्ट गेले ते वेगळेच. ताजो म्हणून हिशोब करूं येता ? आनी लग्नापयलीं केल्ली शिवण ती स्पेशल लग्नाखातीर केल्ली. एका खाशेल्या अर्थान भरिल्ली. तांतल्या धाग्याधाग्याक भावभावनांचे टांके घाल्ले आसतात– ती उमेद, तो उत्साह आगळोच... आनी तीच शिवण ना जावप म्हणचे कितलें दूख... एका वेळार एक दोन–तीन हजार रोख गेल्ले परवडिल्ले, साडयो कपडे गेल्यार नव्यो घेवंक जाताल्यो. पूण शिवण वचप म्हणचे सर्वस्व गेल्लेवरी जाल्लें म्हाका. आतां हांव हें बरोवंक शकलां–कारण खंयच्याय दुखार काळ हें वखद म्हणटात–आतां हे खबरीक तीन चार वर्सां जावन गेलीं म्हणून तितलें दिसना. पूण त्या वेळार मन सामकें उखलिल्लें; साप्पच थाऱ्यार नासलें. साताठ दीस न्हीद ना. मनांत एक जीवघेणी कळ मारताली. काळजाचे बुड्डून कुडके काडिल्लेवरी एक विचित्र दूख जातालें. चड पिकासांव म्हणचे ज्या एका विशिश्ट हेतान ती केल्ली तोच हांगा शेणिल्लो – स्पेशल केल्ले ते शिवणीचो उपेग कोण कसल्या हेतान करता देव जाणा हो विचारच काळीज तोडटालो; मेंदू फोडटालो.

बेग शेणलें म्हजें, जिवाक त्रास जाले म्हज्या–वयल्यान जण एकल्याले रिमार्क आयकून घेवचे पडले. 'चक् चक्, सगली शिवण गेली, भोव वायट जालें. (मनांतल्यान, तश्शें फाव... चड झेत मारतालें आपणाली शिवण बरी जाल्या म्हणून) 'पूण कितें बाये, अशें बॅग गेलेंच कशें ? इतलीं मनशां आशिल्लीं. करतालीं तरी कितें तुमी ?' दुसरो एक रिमार्क 'इतलींय मनशां आसून एक बॅग सांबाळूंक जालेंना ?' (जशें कितें तेंच एक बॅग घेवन सगलीं प्रवास करतालीं)

'आपलें सामान आपणेंच पळोवचेलें; हें पयलीं बसलें जातलें चंगेपणां करीत. शेणचेंना जाल्यार कितें जातलें ? ना तरी हालींच्या चलयांक चंगेपणां करचेली भारी खोड.' एके जाणटेलेचो शेरो... अशे परस कित्याक बाये हाडूंक जाय आशिल्लें तें बॅग ? एकूण हाडून थंयच व्हरपाचें

मागीर थंयच दवरल्यार जायनासलें ?' आनीक एक शिटकावणी... हय बाये, धा बारा वर्सां तरी चिंता नाशिल्ली इतली शिवण केल्ली.' एके वेव्हारी बायलेन उकतें केल्लें मन...

आवय, आमचें ब्लावजा बोंमर शेणलें जाल्यार लेगीत आमी हांगा थंय नाचतात. हेकडेन तेकडेन सोदतात. चुरचुरे पडपाचेच' इति भाभी...

हय, माऽऽर आवय जावन बसूंक कोणें सांगलें पोरांबाळां एकठांय करून ? (म्हजे म्हऱ्यांत भावो भयणीचीं भुरगीं भोंवतणीं भोंवतणीं करतालीं म्हणून हो शेरो... मनाक केल्ले शिवणीचें पिकसांव – ताज्याकय चड कार्रेगाद पिकासांव ह्या शेरे पंजाबाचें. म्हणचें रिमार्कांचें... मनशां तितलीं मतां हें सत म्हाका तेन्नाच पयलें खेपे पुरेपूर पटलें.

मागीर जाली ते शेणिल्ल्या वस्तींची मोजमापणी सुरू... शंबरेक रुपया धरून अडेज तीन हजारांमेरेन जण एकल्या आपापणाल्या शक्तीप्रमाण तांचें मुल्यमापन केलें... (हातूंत कितलेशेंच महाभाग त्या वस्ती देळ्यांनी लेगीत पळयल्यो नात आसलेय आशिल्ल आं.)

मुंबय म्हळें की चाळींतली जीण आयली... जालें. शिवणीचें बॅग शेणलें ही बातमी चाळभर जावन अख्खी कॉलनी भरली. कारण सामान देंवयतनाच एक बॅग शेणलां म्हणपाचें तकलेंत आयिल्लें – लक्षांत येना फुडें दोग तीग जाण त्या टॅक्सी ड्रायवराक धरूंक धांवले. तांची टॅक्सी तपासात, परत दादर वचात वी टी वचात, स्टेशनार फोन करात – हें आनी तें करून फुकटशी पांयपीट घडलीं. णवांक बिराडार पाविल्लीं तीं रातचीं दोन जालीं तरी सोदासोद चालूच.) ताका लागून उजवाडटनाच शुभचिंतकांची लायट भयणील्या बिराडाच्या दारांत लागली. प्रत्येकाला भास वेगळी, पूण विचारपाचो भावार्थ तोच... 'कांय जालां ? सांडलां तेचें कांय समजलां नाय ?' 'कसली बॅग हरवली हो ?'

'क्या बहुत किमती था क्या सामान ?' एक आनी दोन... जण एकल्याच्या प्रस्नाक जाप दिवन तोंड वळ्ळें, मन थकलें आनी तांकां च्या करून दितां दितां (तातूंत आनी साकर मेळना नी दुदाचें उदक जालां अशें तेपार) बायेचे हात वळून गेलें. सगल्यांनी मागीर तांतले तातूंत अपापल्या

मनाचें सामाधान करून घेतलें तें म्हणचें – जावं तेंच बॅग गेलें, भांगर शिंगर गेलें ना. आनी कोणाचेंय आनी कितेंय गेल्लें जाल्यार जल्मभर उणेपण उरतलें आशिल्लें. अमक्याच्या लग्नाक म्हजें अमकें ना जालें म्हणून. तात्पर्य म्हजेंच बॅग शेणलें तें बरें जालें खंय... मनस्तापान म्हाका जोर आयलो तो लग्नादिसा लेगीत दरूवलो ना. आनी लग्नादिसा लग्नाच्या हॉलांत तर विचारूंच नाका. सगलेकडेन 'आजकी ताजा खबर' एकच – व्हंकलेचें बॅग शेणलें. लग्नाची चर्चा जावं न्हवऱ्या – व्हंकलेची कसलीच चर्चा जवचें बदला चर्चा सगलेकडेन चलताली.

हुमऱ्यावयलें माप लवंडून घरांत पावल दवरचे पयलीं हे खबरेन पावल घाल्लें. इतलें व्हडविकेन करून हाडिल्ली शिवण गेली म्हणून सगलीं चुरचुरलीं. आपल्या आगऱ्याक लागून हाडिल्ली शिवण गेली म्हणून सगलीं मनशां फडफडटाली. तेपरस हाडलीच नाशिल्ली जाल्यार चड बरें तिलें आशिल्लें. थंयच तरी उरतलीं आशिल्लीं, अशी तांची भावना ! ही जाली जर–तरी भाशा ! अशें जालेंना जाल्यार तशें जातलें आशिल्लें म्हणपाची. एकूण कितें– म्हजें बॅग शेणपाचें आशिल्लें तें शेणलेंच...

आमच्या बाप्पान जाल्यार सुर्व्या म्हारवाक सुरे–रोंड सांगून घेतलें. हें एक आमचें चोडणेकारांचें दैवत... ह्या घरांतलें चलयेक कोणेंय छळ्ळयघर – मनस्ताप दिल्यार हो म्हारू ताकां ख्यास्त भोगयता अशी आख्यारिका आसा. म्हजें बॅग चोरिल्ल्याचें पावनळ कोणाक देळ्ळां तें मेळ्ळूं, पूण बाप्पान ह्या देवाक हो नवस आनी ते देवतेक तें सागणें चालूच दवरलें. वयल्यान बॅग मेळटलेंच असो म्हाका धीर दीत म्हज्या मनाक घटाय घडली.

मागीर जालें. गेल्लें सोयऱ्यांगेर बॅगाची विचारपूस पयलीं जावंक लागली. देखीक, 'ह्या आमच्या नव्या मामी हं' एक भाची आपले शेजान्नीक वळख करून दिता. 'हां, ती बॅग हरवली ती यांचीच ना ?' इति शेजान्न. हाजेर म्हजें तोंड फट करून पडचें – म्हणचे म्हजी खरी वळख ही... उलयतना सामकें बाये अजागळ, आपलें सामान लेगीत धड सांबाळ्ळूंक येना असो एके तरेचो विचित्र भाव तोंडार हाडिल्लेसारको 'घडये म्हज्याच मनाचो समज आसत. खाता तांकां खंय वखवखता) वता थंय ही

परिस्थिती. कोणागेरच वचचें न्हय अशें दिससारकें वातावरण तयार जाल्लें तें म्हज्या त्या शेणिल्ल्या बॅगाक लागून.

तीच खबर गोंयांत... आमचीं मनशां घरा पावचे पयलीं ही बॅगची खबर गांवभर जाल्ली. घराचें कुलूप उकतें गरचे पयलीं बॅग शेंणलें खंय ? कशी, कितें आनी कात सुरू ! कोणें कशी बातमी पावयली कळना, पूण जंय जंय म्हणून आमचें लागेबांदे आसात थंय थंय लग्न बरें जालें म्हणून खबर पावचेबदला बॅग शेणलें ही बातमी पयलीं. बरें ! सरळ सरळ अर्थान तरी पावची – च्ये... एकाच्या तोंडांतल्यान दुसऱ्याच्या कानांत वतना तांचे तांचे कुवती प्रमाणें मीठमसालो मारून वाडोवन चडोवन चडोवन विपर्यास जावन पाविल्ली ती बातमी – बॅग शेणलें – लग्नाच्या सामानांतलें – प्रत्येकान ताजो वेगवेगळो अर्थ केल्लो आनी मूळ शिवणीचें तें बॅग कपड्याचें, आयदनांचें, अशें करतां करतां निमाणें भांगराचें जाल्लें. सगलें बायलांचें भागर एकठांय करून दवरलेल्या बॅगांत तेंच फारायलें असो अर्थ जावन पडलो... बरें, कोणें तें उबारलें, कोणें तें गाडयेंत विसरलें, काणें गाडी बदलतना गेलें, कोणें कुलीन मारलें करतां करतां कोणें तरी सुरो दाखोवन भेश्टावन व्हेलें इतले मेरेन तिका रुपां

ताका लागून कोणागेर आमंत्रण आयलें रें आयलें, म्हज्या काळजांत धडधडूंक लागचें – वचचें न्हय अशें दिसचें – कारण एकच ! तें शेणिल्लें बॅग... ! तशें हांव मनीसघाणें न्हय आं. चारचवगांत येवचें – वचचें अशें कोणाक दिसना ? पूण ह्या बॅगाचे खबरीक लागून खंयच येवप वचप नाका जाल्लें. ती खबर आयलीं कीं म्हाका सामकें भरून येवचें. तीच तीच रिकॅर्ड लावन होवय बेजारिल्लो. झक मारलीं आनी ती शिवण केली अशें म्हाका जालें.

अतलेंच न्हय जाल्यार बऱ्या दोन म्हयन्यांनी ऑफिसांत वच जाल्यार प्यून धरून मॅनेजरा मेरेन तीच खबर. म्हणटकच कितें तें पळयात. हनीमुनाच्यो गजाली विचारचे वांट्याचें इश्टिणींनी लेगीत बॅगाचें चऱ्याट लावप ही कितली त्रासदायक गजाल ? शेवटाक बेजारून हांणीं म्हाका सांगलें कसलें बॅग – कितें कात सगलें तेंच तेंच पुराण लावचेपरस सरळ

बॅग मेळ्ळें म्हणून सांगचें. जावं आमचें कितें सामान शेणूंक ना म्हणून पेपरांत जायरात दिवची. आयुश्यांत कितल्या जाणांचें कितें कितें शेणटा. कोडाली वस्त शेणटा, कोणाले पयशे शेणटात, कोणाकोणालें मनीसपण लेगीत शेणटा. मनीस म्हळ्ळो की थंय शेणप घाळप आयलेंच. मनीस भुरगेपणां सोडून जाण्टो जाता, चली कुंवारपण शेणोवन बायल जाता. मागीर म्हजी सादें शिवणीचें बॅग शेणल्यार ताजो येदो व्हडलो बोवाळ कित्याक जावंक जाय आशिल्लो ? पूण ना. नशिबांत आसा तें कशें चुकत ? म्हणून तर लग्न मुंबय करपाचें थारलें, तें बॅग बरोबर घेवचेली आमकां बुद्द आयली – आनी ताजेवयल्यान हें येदें महाभारत घडलें.

कशेंय जावं, कितेंय जावं, म्हजें लग्न मात गाजलें. सामकें अथपासून इति मेरेन... लग्न गडगडाटान करपाचें आसलें, अशेय भशेन गडगडलें... इतलें की गांवांतच न्हय, खंयय आमच्या सोयऱ्यां दायल्यांचीं जावं इश्टिणींचीं लग्नां आसलीं म्हणचें व्हंकलेची शिवण पळयत म्हज्या शिवणीच्या बॅगाची खबर आयलेबगर रावना, इतलें म्हजें तें बॅग सासणाचें अजरंवर जावन उरल्या. सगलींच म्हणटात, अशी गजाल केन्ना घडली ना, केन्ना घडची ना आनी केन्नाय घडचीच न्हय.



## याद आसा तुका...

'ए, याद येता न्हय गो ? कितली मजा करतालीं आमी शाळेंत.' शाळेंतल्यो बरोबर शिकपी दोगी मैत्रिणी खुब्ब तेंपान–म्हाका दिसता शाळा कॉलेजींत वचपी भुरग्यांच्यो आवयो जातकच मेळिल्ल्यो जावये. आमी अशें करतालीं, तशें करतालीं न्हय ? करून त्या दिसांच्या गजालींनी तीं बरींच रंगलीं– अचकीत म्हजें लक्ष तांचे गजालीचेर गेलें. खरेंच याद ही मनशाक देवान दिल्ली व्हडली देण म्हणूंक जाय. भूतकाळांतल्या गोड म्होंव्या यादींनी वर्तमान खिणाचे बरेवायट परिस्थितीचो कांय काळ तरी पुराय विसर पडटा. बसींत बशिल्ल्यो त्यो दोगी बायलो, आपली वाडटी पिराय, घरादाराचो जंजाळ, भोंवतणचीं मनशां, बसींतलो प्रवास– सगलें सगलें खीणभर विसरून आपणाल्या शाळेंतल्या यादींनी गुल्ल जाल्ल्यो. खीणभर सगल्यो शीम–मेरो विसरून विश्तिदांतल्यो ल्हान चलयो जावन मनान शाळेंत पाविल्ल्यो– कांय काळ जावं तीं ते खीण परत जगलीं हें तांच्या तोंडावयल्यान म्हाका पयसुल्ल्यान दिसतालें. खरेंच, कितली अगाध शक्त आसा ह्या यादींनी...

आमची मनशांची आख्खी जीण म्हणचे ह्या आसल्या कोडू गोड यादींचें एक गांठवल म्हळ्यार जाता आनी ह्या यादींच्या आदारानच मनीस जियेता म्हणूंक जाय. बऱ्यो यादी, मागीर त्यो भुरगेपणांतल्यो जावं, तरणेपणांतल्यो जावं, मनाक सुखायतात, धादोस करतात– परतून आपणाक त्या काळांत पावयतात. परत तो काळ जियेवप फकत ह्या यादींच्या आदारानच शक्य जाता. हरशीं काळ कोणापसत रावना–येता तो खीण धरूंक जाय. पूण मनीससभावच असो विचित्र की चालू खिणाचो

चडसो कोण पुराय आस्वाद घेवंक शकना. मागीर गेल्ल्या काळाच्या गोड यादींनी तो रमता, रस घेता. आनी भविश्यांतलीं वेगवेगळीं सपनां पळेता. ते नदरेन पळोवंक गेल्यार ह्यो यादी म्हणचे देवाचो आशिर्वादच मानूंक जाय.

पूण कांय कांय वेळार मन ह्या यादींनी सामकें सतर–वितर जाता. नाका त्यो यादी अशें जिवाक जाता. कितलेंय विसरपाक केल्यार विसरायेर पडनात अशे कांय घडामोडी जण एकल्याचे जिणेंत घडटातच. जेन्ना केन्ना आपणाल्या जिवाभावाची व्यक्ती पयसावता, सासणाची आपलेमदल्यान ना जाता, परत ना येवपाचे वाटेन वता त्या वेळार मनांत एके तरेची पोकळी निर्माण जाता. कांयच सुचना. गेल्ल्या मनशाच्या यादींनी मनीस विकल, विव्हळ जाता. ताज्या मनाक सामकी विषण्णताय येता. कांय काळापुरतो जावं तो खूब दुखी आसता. हें भितल्लें विफलतायेचें दुख सोंसना जावन मनीस मागीर पळवाट सोदता. एकलेपण ना जावपापसत मनीस व्हडले व्हडले धर्मग्रंथ वाचता; देवळांत वता. कोण जपतप, पूजाअर्चा करता, कोण राजकारणांत जाल्यार कोण समाजकार्यांत जीण घुसपायता. जीण कुरतडावपी ह्या एकलेपणाच्या यादींचे सुवादीन जावन ह्या हेर वाटांचो आलाशिरो घेता – आनी त्या वेळार अशें जाता– पाडपडिल्ल्यो ह्यो यादी, येतात तरी कित्याक ? त्यो यादी येवपी ह्या मनाकच खंयतरी पयस शेंवटून, भिरकटावन मारचेंशें दिसता. ती याद दवरपी आपणाल्या मेंदवाचो राग राग येता. मेंदवाचो तो विभाग ऑपरेशन करून बंद वडयसारको कितेंय सोद लागूंक जाय आसलो अशें दिसता. म्हणटकच कितें घडून वता तें सगलें विसरप, फकत आतां घडटा तें, चालूच तितलें तकलेंत उरपाचें. त्यो तसल्यो यादी नश्ट जावंक शकपाचें कितेंय वखद जावं गुळयो कोणेंय सोदून काडल्यो जाल्यार असली कांयच कटकट तकलेक उरची नासली.

पूण कांय वेळार ह्यो यादी जरी आपणाच्या घायार मीठ मारून घाय चिगळावपी थारतात, तरी कांय वेळार– ह्यो यादीच आपणाल्या काळजार पडिल्ल्या घायांचेर वखद विरसद केल्लेवरी जावन ते घाय बरे करूंक शकतात. उधारण दिवपाचें जाल्यार लग्नापयलींच्या गोड गोड यादींचेर

कितलेशाच जाणांचे संवसार तिगून उरतात. जाणट्या मनशांनी सामकें नक्षत्र पळोवन, गूण मेळोवन, प्रसाद घेवन, दाखोवन करून केल्लें लग्न जावं ना जाल्यार सामको मोग करून खुब्ब तेंप भोंवन—घुंवन जाल्लें मोगालग्न केल्लीं मनशां जावं, लग्न जातकच थोडो तेंप आपलेभितर गुल्ल आसतात. त्या वेळार तांकां आपल्या मनशांमदीं नाशिल्ले गूण दिसून येतात. पूण कांय तेंपान नव्याचे णव दीस सोंपतकच ते चड वेव्हारी जातात. मागीर एकमेकांचे नाशिल्लेच दोश सोदून काडून एकमेकांक घायाळ करतात. आनी हांतल्यानच मागीर कितले संवसार फुट्टात— मनां तुट्टात. पूण त्या मनांक ह्यो फाटल्यो यादी मलमपट्टी करतात. तांकां मोगाच्या गोमान दसयतात. फकत ह्या फाटल्या दिसांच्या यादींचेर एकमेकाक सांबाळून घेवपी कितलीं जोडपीं आसात ह्या जगांत ! हें सगलें येवजतकच म्हाका दिसता की हांव यादी ना जावंक जाय आशिल्ल्यो हाजेर कितेंय वखद आसूंक फाव आशिल्लें अशें म्हणून ह्या यादींचेर आनी पर्यायान ह्या मनशांचेर अन्याय करतां.

तशें पळोवंक गेल्यार प्रत्येक वस्तूक दोन आंगां आसतात. एक बरी वट आनी एक वायट. आनी बऱ्याखातीर आपणाक वायटाचोय अंगीकार करचोच पडटा. फकत बरें वा फकत वायट हातूंत अर्थ नासता. ह्या बऱ्यावायटाच्या भरसणेंतच खरी रूच आसता. सुखाची गोडी अणभवपाक दुखाचो धग लागचो पडटा—तशेंच हें.

कोणाकोणाक आनी पयल्या जल्माच्यो लेगीत यादी आसतात खंय. पुनर्जल्म आसा काय ना हो प्रश्न वेगळो. पुणून अशे जाका यादी येतात तांचें बावड्यांचें देवच बरें करूं म्हणूंक जाय. त्यो यादी तांचे तांकांच लखलाब जावं.

आमचे सारकिल्या सामान्य मनशांक ह्याच जल्माच्या यादींनी कांय वेळार नाका जीव जाता. तेन्ना तांकां बावड्यांक कितें भोगता आसतलें हाजी कल्पनाच केल्ली बरी. ते लोक असामान्य मनशांतच मोडचेले. इतल्या हजारांनी यादींच्या घोसोळांत ते जियेवंक शकतात हातूंतच तांचें असामान्यत्व सिद्द जाता.

येतना वतना रस्त्यार कोणय मेळटा. हांसून 'वळखता ?' म्हणून विचारता. सट् करूक कांयच लक्षांत येना. येवजिल्यार लेगीत याद जायना. त्या वेळापुरतें हांसून साजरें करचें पडटा. मनाक सारकी धाकधूक लागून उरता. हाणें आपलें नांव सांग म्हळ्यार कसलीं तड्डकां मारप तें समजना. मनशाक जिणेंत जायत्यो व्यक्ती मेळटात. गांवच्यो, शाळेंतल्यो, बस–गाडयेंतल्यान, ऑफिसांत वतना दिसपी, बरोबर काम करपी, प्रवासांत मेळिल्ल्यो, नात्यांतल्यो अशे ! तशीच ठोक कितेंय खूण आसलेबगर सगल्यांचीच कितें आपल्याक याद उरना. इतलेंच कित्याक, एकेकदां आपणेंच कसलीय वस्तू वेवस्थीत जाग्यार म्हणून दवरिल्ली आसता पूण याद जायना. केन्नाकेन्नाय जाल्यार साद्या साद्या गजालींची लेगीत धड याद जायना. मागीर आपलो आपणाकच राग येता. इतली सादी गजाल आपणाक याद कशी उरली ना म्हणून अजाप जाता. सामकें जिबेपोंतार आशिल्लें उतर लेगीत एकेकदां येवजना जाता.

एकेका भुरग्याची स्मरणशक्ती एकदम फोर्त आसता. ताका एकदां वाचिल्लें घट्ट तकलेंत उरता. अशीं भुरगीं फुडें जिणेंत चकचकतात. कारण तीं अभ्यासांतच न्हय जाल्यार सगल्याच गाजालींनी हुशार आसतात. हाजें उरफाटें, कांय भुरगीं तकलेन सामकीं ल्हव आसतात. हजारदां शिकोवन सवरून लेगीत तांचे तकलेंत कांय उरना, सामकें चाळणीन गाळिल्लेवरी ! हीं भुरगीं सगल्याच कामांत फाटीं पडटात. कांय सामकीं ल्हानपणासावन एका जाग्यावयल्यान गेल्यार व्हड जातकच लेगीत त्या जाग्यावयल्यो खाणोखुणो अचूक सांगूंक शकतात. कांय कांय म्हयनाळ्यांनी बी एकदम ल्हान पिरायेंत बरें गणीत येवपी, बरें गायन, संगीत, नाच येवपी भुरग्यांच्यो मुलाखती बी छापून येतात. त्यो वाचतकच मनाक मोटेंच अजाप जाता. कांय कांय जाणांचे मेंदू म्हळ्यार एक अजापाचो कम्प्युटरच कसो आसता. तांकां आपले भोंवतणचे, म्हणचे नात्यागोत्यांतले, सोयऱ्या धायऱ्यांचे ल्हान व्हडांचे जल्मदीस तोंडपाठ आसतात. कोणाच्या लग्नांत कितें केल्लें, दिल्लें–घेतिल्लें ह्यो सगल्यो यादी सामक्यो जिबेपोंतार आसतात. अर्थांत असली बुद्द दुर्मीळ.

सर्वसादारपणान अशें म्हणटात की जाणटी जाता तितली आपली याद कमी जायत वता. जाणटेपणांत मनीस चड चड विसरता. कांय जाण जाल्यार जल्माचेच विसरभोळे आसतात. चड करून प्रोफेसरलोक यादीन फ्राक आसतात आनी म्हणूनच तांचीं लोक भगलां मारतात. तांचेर विनोद करतात. तांच्या नांवार मागीर कसलेय विनोद खपतात. म्हाका दिसता, चड वाचनान चड अभ्यासान एकादो हो दोश येता जावये. ह्या याद ना उरपाच्यो एकेक खबरी आयकल्यार हांस–हांसून पोटांत दुखपाचें. आमी आयकून हांसपाचें आनी सोडून दिवपाचें.

हाजें सगल्यांत बरें उधारण म्हणचे आपणाल्या घरांतल्या जाणट्या मनशांचें–आई, आजयेचें–घेवचें. तीं बावडीं खंयचीय खबर याद उरचेपसत आपणाल्या पदराक गांठ मारतात. पूण थोड्या वेळान अशें जाता की गांठ कित्यापसत मारिल्ली ताजीच तांकां याद जायना. पदराचें मात बेठेंच गांठवल जावन वता. म्हाका दिसता हाजेवयल्यानच न्हवऱ्याक विसरचें न्हय वा दोगांकय जल्माची याद उरची म्हणून लग्नांत न्हवऱ्याचें उपरणें आनी व्हंकलेचो पदर हांची होमामुखार देवाब्राह्मणा सामकार गांठ बांदतात आनी बशिल्लेकडेन न्हवऱ्याची भयण करवलेचो मान मेळयता.

दुसरें एक उतर आसा– कितेंय गांठी बांदप– म्हणचे खंयच्या गजालीची सारकी बरी घट याद उरप. उधारणच दिवपाचें जाल्यार ल्हान भुरगीं खंयचेय बरे–वायट गजालीचें अनुकरण करतात. कसलेंय बरें वायट उतर लक्षांत दवरतात. तेन्ना आमी जाणटीं म्हणटात, हें ताणें बरोब्बर गांठीक बांदलें पळय. वा कोणय जाणटीं लेगीत कितेंय उलयिल्लें लक्षांत दवरतात (आनी अचूक वेळार गोफणीन फातर मोखिल्लेवरी जाय तेन्नाच तेंच उतर काडून बरोबर नेम धरून मोखतात). तेन्नाय गांठीक बांदलें हें उतर वापरतात. ही जाली मातशी कथेंत आडकथा. हालीं आनीक वता थंय केन्नाय फोटे काडपाची चाल पडल्या. त्या फोट्यांवरवीं त्या त्या वेळावयल्यो यादी परतून ताज्यो जावं येतात. 'आवय ! तूं कसो दिसतालो पळय खाड वाडोवन.' 'ए, तूं कितलें बारीक आशिल्लें गो– सामकी फस्काकाडी– आनी आतां कशें जालां पळे दुदीरमणा,' अशें करून

एकमेकांक चाळोवं येता. पयलींचीं रुपां पळोवंक मेळटात. पयलीं फोट्यांचें इतलें प्रस्थ नाशिल्लें. आतां घराघरांनी कॅमॅरे जाल्यात. भुरगें पोटांत आसतना धरून तांगेर भुरगीं जायसर तांचे लेगीत सगले फोटे यादीखातीर आल्बमांनी एकठांय करतात आनी ताका वाळटी बी लागली ना जाल्यार ते म्हातारपणांत रिकाम्या वेळार बसून पळोवंक मजा येता.

सांगपाचें म्हळ्यार, सदांचे जिणेंतय अशें जायतेदां घडटा. एकेकदां आमी कोणाकय धाडपाक म्हणून अर्जंट बसून पत्र बरयतात. आनी बरोब्बर तें पोस्ट करूंक विसरतात. खूबशे लोक ओक्ल खंय दवरलां तें विसरून हांगा थंय सोदतात. आनी मजा अशी जाता की खूबशा वेळार तें तांचे तकलेरच बशिल्लें आसता, पूण मेळना. तांचो मागीर 'हाण्डीर आसा चेडो आनी सोदता सगलो वाडो' अशी अवस्था जाता. पावसादिसांनी सुरवेक जायते लोक सत्र्यो, कापोती जळींमळीं शेणयतात; नव्यो घेतात. कांय तेपान मागीर हातांत सत्री उरपाची संवयशी जाता. पूण तेदोवेळ म्हणसर पावसच सोंपता तें वेगळें. कांय वेळार बरीं बरीं पुस्तकांय अशीं शेणून वतात. वा एकाद्रें कोणय वाचूंक म्हणून व्हरता आनी कोणें व्हेलां तें दिवपी विसरता; घेतलां म्हणून घेवपी विसरता. अशें जायतेदां घडटा.

पूण एक खरें. चाळीस पन्नास वर्सां जालीं की हें यादी तकलेंत घट उरपाचें प्रमाण देंवत वता आनी तें सभावीक. कारण सगल्यो यादी तकलेंत उरल्यो जाल्यार आपणालो मेंदू म्हणचे कम्प्युटरच जावन वतलो. तशें पळेल्यार बऱ्यांत बऱ्या कम्प्युटरा परसय मनशाच्या मेंदवाची रचणूक आनी काम घुस्पाघुस्पीचें. मेंदवाचीं कामां हीं मेजपाक ना येवपासारकीं आनी तरातरांचीं आसतात. पूण सगल्यो यादी उरप शक्यच ना. ताका लागून मनांत येवजणेचो गोंदळ वाडटलो. सगलोच भूतकाळ तकलेंत दवरपाचो जाल्यार वर्तमानकाळाक जागोच उरचो ना म्हणून कांय गजाली याद धरूंक जाय, तशेच कांय विसरूनय वचूंक जाय. कांय दुखाच्यो यादी मनाक घट दसून उरतात. पूण खंयच्याय दुखाचेर काळ हेंच वखद मानतात.

तेप्रमाण थोडो तेंप वतकच त्या दुखाची धार उणी उणी जायत वता. आनी कांय काळान त्या कोडू यादींची कोडूसाण निवळत निवळत

उणी जायत वता. हें विस्मरण– विसरून वचप – म्हणचे मनशाचे जिणेंतलो सेफ्टी वाल्व. कारण तो मेंदूवयलें वजें कमी करून जीण सरळ करता. मनाच्या पोरसांत गंधयाळीं रंगयाळीं यादींचीं फुलां फुलतात, तशेंच, दुखाच्या यादींचें तणय किल्लता. तें नश्ट करून मनाचें पोरसूं नितळ निर्मळ दवरूंक जाय. ना जाल्यार तें पाड जावन वतलें. ताजेर सगल्यांत बरो उपाय म्हणजे विसरून वचपाची कला. जाय तें आनी जाय तितलेंच तकलेंत धरून नाका तें सोडप हें बऱ्या मेंदवाचें काम. हातूंतच मागीर 'याद आसा तुका, आमी आपालिपा खेळटालीं'... हें सगलें सगलें आयलें. समजले मूं तुमी ?



## सिगार...

'इंग्लंडची फामाद राणी खंय मार्गारॅट. आनी दिनकराच्या हातांत केन्नाच मेळची ना सिगरेट...' लग्नाच्या माटवांत व्हंकल लोकांच्या 'आगऱ्याहून सुटके' पसत लजेत लजेत नांव घेताली...

'वा... खरी भाग्यवान ही चली... आयज सिगार ओडिनाशिल्लो मनीस मेळूंक मोठो कुस्तार. मनांत हो विचार येवंक आनी सव्यार बशिल्ल्या न्हवऱ्यान चक् करून लायटरान सिगार पेटोवंक एक गांठ पडली. कितें हो विरोधाभास ? तिणें उमेदीन घेतिल्ल्या नांवापुरतो तरी त्या चल्यान तिजो आब राखपाचो. पूण ना. तशें जालें जाल्यार तो आयचो तरणाटो कसो सोबतलो ? आज वता थंय जण एकाल्याच्या हातांत पयलीं मेळटलें ते सिगार. ओंठार मिशी येवचे पयलींच सिगार येवपाची चाल पडल्याशी दिसता हालींच्या काळांत. घरांत–दारांत, रस्त्यार–बाजारांत, बसींत–कारींत, कॉलेजींत–ऑफिसांत – वता थंय जण एकल्याच्या हातांत मेळटा तें सिगार.

बसींनी जाल्यार विचारपाचेंच ना. खंयय प्रवासाक भायर सरचेपयलीं पर्सीत जावं बॅगांत सिगाराच्या धुंवरापसून राखण करपा पसत एक अर्द डझन तरी लेंस सांबाळचे पडटात. आमचे सारकिल्या मोटार लागता त्या लोकांनी जाल्यार एका वांट्याच्यो दोन गुळयो घेवन आपलेभशेन कडक उपाय केल्लो आसता – तरी गोंयच्या बसींनी खंयय सिगार पेटयल्यार काडी भायर मोखचेपयलींच ओंकाऱ्यांक सुरवात जावचेलो भंय चड. कारण एकच–सिगार. त्या मानान मुंबय पुण्या सारकिल्याक बरें. एसटींत जावं बसींत खंयय सिगार पेटयल्यार काडी भायर मोखचेपयलीं त्या

मनशाकच काडून जनेलांतल्यान शेंवटून मारीत म्हणून भंय. निदान हे एके बाबींत तरी गोंयकार गोंयाभायल्यांचो हात धरूंक शकपाक नात. कित्याक तर, हांगा गोंयांत बसीच्या ड्रायवर कंडक्टराक धरून बसींतल्या अर्द्याअदीक लोकांच्या हातांत तरी सिगारां वा विडयो आसतातच. विडी तरी खंयची ? सिगाराचीच धाकटी भयण (हांगा हांव धाकटी म्हणटा ताजें कारण आकार वा मोल. हालींच्या काळांत जाल्यार चडच. पूण दर्भटसाणेंत विडी सिगाराची व्हडली भयण सोबत). सांगपाचें म्हळ्यार ह्या सगल्याक लागून प्रवासांत जीव सामको लांब जाता.

शिंयाच्या दिसांनी जाल्यार विचारूंच नाका. वारें लागचें न्हय म्हणून बसींचीं दारां जनेलां गुडूप केल्लीं आसतात आनी उबेखातीर सिगार पेटयलेबगर ओडटल्यांच्यांनी रावं नजो. तांकां मेळटा ऊब आनी बाकी लोकांक त्रास जाता खूब. बसींनी व्हडल्यो व्हडल्यो पाटयो आसतात डू नॉट स्मोक वा नो स्मोकींग ! पूण खुद्द ड्रायवराच्या आनी क्लिनराच्या हातांत सिगार. मागीर कितें विचारता ? पॅसेंजरांच्या हातांतलीं सिगारां ज़िरैतान पेट्टात. देवामुखार पेटयिल्ले कापूर उदवातीचो वास देवांच्यांनी सोंसूंक जाता जावये पूण हो सिगाररुपी उदवातींचो धुंवर घुंवळावन सोडटा. प्रवास सोंपसर नाका पुरो जाता. तकली उसळटा, ओंकूंक येता—कितें जाता तेंच समजना. पाप केल्यार मरतकीच खंय रौरव नरकांत वचचें पडटा. पूण बसींतल्या ह्या सिगारा धुंवरान प्रवास करतना नरकापाश्ट ख्यास्ती भोगच्यो पडटात. तो नरक परवडलो पूण ह्यो जितेपणांतल्यो नरकयातना सोंसूंक भोव कुस्तार !

कांय समजून घेवपी आसतात ते नाकार लेंस जाव पदर धरतकीच राखकडेच समजतात. लोकांक त्रास जाता म्हणून सिगार उडोवन दितात. कांय जाणांक उतरांनी जाणविकाय दिवची पडटा. 'शी पाड पडलें ह्या सिगाराचें. वा 'कोणें बाये उदवात पेटयली हीं' अशा सुचक उतरांनी शिटकुपी आसा तो रोखडोच शिटकावता. पूण कांय रेड्याकातीचे उतरांचो मार लेगीत आंगाक लावन घेनात. ते सरळ कानार केंस काडटात. शाण्याक खंय उतरांचो मार पुरो जाता पूण ह्या देडशाण्यांक नाकाक कोणेंय लेंस

लायिल्लो दिश्टी पडलो की चडच चेव चडटा. आनी चड त्रास दिवचे खातीर घुंवराचे भपकारे सोडटात.

मात कांय चलयांकय हें सिगार आवडटा आं. कांय बरोबरच्यांकडेन हाजेर म्हजे हजारदां वाद जाल्यात. सिगार ओडना तो दादलो मनीसच न्हय अशेंय म्हणपी कांय जाण आसात. तांकां 'चेन स्मोकर्स' घोस्ताचे. हाजेय मुखार वचून कांय जाणी खासा आपूण सिगार ओडपी आसात. भोगूं तें. कोळसो कितलोय झरयलो तरी काळोच. जाल्यारूय, म्हजी ह्या बसवाल्यांक दोन हस्तक आनी एक मस्तक जोडून सामकी कळकळीची सांगणी की तांणी एक तर नो स्मोकिंगची पाटी ऑयल पेंट दिवन ना नपश्चात करची ना जाल्यार ते पाटयेबर हुकूम लोकांक सिगार ओडपाची बंदी करची.

ह्या एका सिगाराक लागून म्हाका वचत थंय वाद आनी झगडीं घेवन बसचें पडटा. बसींतच न्हय तर ऑफिसांत लेगीत म्हाका ह्या हळशिकावण्या सिगाराक लागून तंटे करचे पडल्यात. म्हाका ह्या सिगाराचे वारें लेगीत सोंसना आनी लोकांक हातांत सिगार आसले बगर जायना. सिगार वा विडी ह्यो स्त्रिलिंगी ! पूण तांचे चड त्रास आमकां बायलांकच जातात–घडये समलिंगी आशिल्ल्यान जावये. सवती पाश्ट चलणूक ह्या सिगारांची...

दिशीं दिशीं हें सिगाराचें प्रस्थ वाडत आसा. लोक जिनले चडटात ताजे दुपेटीन सिगार तयार जातात. आज खंयची सिमला. फाल्यां कोण पनामा, परवां कितें विनस जाल्यार अवेरां जनरल. माती आनी गोबर. दिसानदीस सिगारांच्यो कंपन्यो वाडत वतात. जिणेंतल्यो गरजेच्यो वस्तू दिसानदीस ना जातात. एक जाल्यार तांचेर रेशनींग येता वा त्यो ब्लॅक मार्केटांत गडप जातात. पूण सिगारांचें केन्नाच रेशनींगय जावचेलें ना वा तीं नश्टय जावचेलो भंय उणो. पोटाक सारकें ना जाल्यार जाता पूण बोल्सांत सिगारापाकीट आसुंकूच जाय. कुटूंब येवजणेपरस खरें म्हणजे सिगरेट येवजण केल्यार वायट न्हय आशिल्लें. बारीकसाणीन पळोवंक गेल्यार देशाचो चडांत चड पयसो ह्या सिगाराच्या धुंवरांत नश्ट जाता,

पयशांचो गोबर जाता एकेका सिगारा फाटल्यान. देशाचे संपतीचो धुंवर जाता ह्या सिगारांच्या रुपान. पयलीं तेंपार खंय आमच्या भारत देशाक 'भांगराचे धुंवर' भरिल्लो देश म्हणटाले, पूण आतां 'सिगारा धुंवरा' बगर दुसरो आनी कसलोच धुंवर दिश्टी पडचो ना ( ना म्हळ्यार हालींसाराक कांय भागांनी प्रदुशणाचो धुंवर दिसता खंय) रान्नीतले लाकडांचो धुंवर लेगीत उणो जावन त्या जाग्यार गॅस आयला.

ओंठावयलें दूद सुकचे पयलींच येदोसो पोर लेगीत सिगार ओंठार धरता. मिशी येवचे पयलींच हालीं ओंठार सिगार झळकता. जितलें सिगार म्हारग जाता तितलें तें चड खपता. खरें म्हणचे सरकारान लेगीत हाजेर थोडें येवजूंक जाय अशें म्हाका तरी दिसता.

केन्नाकेन्नाय म्हज्या मनांत येता, सिगाराचेर सरकारान परमीट दवरूंक जाय आनी जाचेकडेन हें परमीट ना तांणी पब्लिकांत सिगार ओडप ना. मागीर घे मजाच मजा. बसींत समजा कोणेंय सिगार पेटयलें रे पेटयलें, कंडक्टरान ताका परमीट विचारप ना जाल्यार सरळ ताका दंड ! जाचेकडेन हें परमीट आसा तो मात ओंर्रान आमच्या नाकार टिच्चून नेटार सिगार फुसकायतलो. आमच्या कुच्छित्र्या उलोवण्यांचेर थंडसाणेन धुंवराचीं चक्रां सोडत रावतलो. पूण हें सामकें दुर्मीळ...

एके वटेन सिगार जाल्यार दुसरे वटेन पिडांचे प्रमाणय दिशीं दिशीं वाडत गेलां. म्हाका दिसता, दोतोर ह्या सिगार ओडटल्यांक कॅन्सर बी जाता म्हणटात तें साप्प फट. तांकां त्या द्रव्यांची सदांच संवकळ जाल्ली आसता. पूण कॅन्सर जावचेलो खरो भंय आमचे सारक्यांकच चड जांकां मनाआड ह्या तरेकतरांच्या ब्रँडांच्या सिगारांचो धुंवर घेवन घुस्मटचें पडटा.

कांय महाभाग म्हणटात, आमी सिगार ओडटले आमच्या पयशांनी, हांचें कितें सरता ? बरोबर गा ! तुमच्या पयशांचो तुमी सिगारांच्या रुपान गोबरे करात, म्हजें म्हणणें इतलेंच की तुमचेबरोबर आमचोय कित्याक सत्यानाश करप ? तुमचें 'विकतें श्राध्द' जाता हें खरें, पूण आमचें मात फुकटचें मरण ओडवता ताजें कितें ? कशें तें तुमीच पळयात.

सिगारांत निकोटीन आनी टॉबेको टार्स हीं द्रव्यां आसतात. ह्या

सिगाराचे वायट परिणाम काळीज, दोळे रगत सगल्यांचेरच जातात. कुरासांवाचें जावप, कांक्र जावप चड करून ओंठांचो–दोळ्यांत मोतीबिंदू पडप, रातांधळेपण येवप, नेर्वांचें चाळोवप–अशो एक ना दोन– हजार पिडा ह्या इल्ल्याशा सिगाराच्या आंगांत आशिल्ल्या गुणांनी जातात. सिगारांतलें निकोटीन हें द्रव्य जाल्यार साप्पच वायट. माजरान हुंदराक खेळयिल्लेवरी हें निकोटीन आमच्या नेर्वांक खेळयता. आनी खेळयतां खेळयतां निमाणें मारून उडयता. ओडटल्याक सिगार ओडटकीच पोटांत दुखूंक लागता. केन्नकेन्नाय तकली उसळटा. तांतल्या कार्बन मोनोक्सायडाच्या विखान तोंडावळोच न्हय जाल्यार सगली कुडूच पोखरूंक लागता. ब्लड प्रॅशर वाडटा, फुफुसांकडेन आनी काळजाकडेन दुखूंक लागता. दमो जाता. दोळ्यांच्यो पिडा जातात. भूक लागना, अन्नावयली इत्साय उरना. सिगार ओडचेलो वायट परिणाम ताज्या धुंवराचो जाता. कोणय मनीस उजो लागिल्ल्या घरांत सांपडिल्लो आसल्यार घुस्मटून मरता. तेवरी सिगार ओडटल्याच्या देहांतल्यो पेशी जाय तितलो ऑक्सिजन मेळना जावन मरतात. ताजें शास्त्रीय नांव Hyponia ! ओडटल्याबराबर त्या सिगाराचो वास पोटांत वतल्यांकय हो भंय आसचो पडलो ना ?

कांय जायरातकार आपणालें सिगार एकदम बरें तातूंत टॅबेको आनी निकोटीन ना असो प्रचार करतात. पूण तें खरें न्हय. ल्हान व्हड प्रमाणांत हें द्रव्य कसल्याय तरेच्या सिगारांत आसताच आसता. सिगार ओडपी मनीस केन्नाय आपूण सिगार सोडटलों वा सोडलें म्हणटा. पूण अशें म्हणप म्हणचे 'माजरान नुस्तें सोडप' ! कारण हें वेसन सहज सुटना. कांय जाण कालेत बरी उरूंक सिगार ओडटात म्हणटात जाल्यार कांय जाणांचेर असो मानसीक परिणाम जाता की सिगार ओडिना जाल्यार तांकां भायर जायना. कांय जाणांक खंय गॅस जाता. पूण हें सगलें मनाचें !... मनाचो कडक निग्रह केलो जाल्यार कितलेशेच जाण सिगार सासणाचें सोडूंक शकतले. ओडटल्यांक दिसतलें की तांकां भेंकडावंक हांव हीं तरेकतरेच्या दुयेंसांचीं भुतां तांचेमुखार उबीं करतां. पूण तें खरें न्हय. हीं दुयेसांचीं भुतां हांवें उबारलेलीं न्हय; तीं खऱ्याचींच. जण एका फाटल्यान शास्त्रीय कारणां

आसात आनी प्रयोगांनी तीं सिद्द जाल्लीं आसात.

पूण म्हजे इतलींय दुयेंसांचीं भुतां मनाक भेंकडावन लेगीत कोणूच सिगार सट् करून सोडितशें... म्हाकाच हें दिसना तातूंन आनीक आयच्या काळांत. पयलीं तेंपार सिगार सामकें निशिध्द. जाणट्यांक रेश्पेत दिवंक जाणट्यांमुखार सिगार पेटोवप ना हें पयलींचें एक बंधन, आनी आज ? आयच्या काळांत भुरगो बापायक सिगार 'ऑफर' करता. कोणाकडेन वळखदेख करून घेवपाक सामकें सोंपें. बोल्सांतल्यान एक सिगारापाकीट वा फस्क भायर सरलें रे सरलें, की शेजाऱ्याची वळख जालीच म्हणून समजुचें. सिगार हें सुदारिल्ल्या समाजाचें पयलें लक्षण अशें मानतात. ह्या काळांत सुशिक्षीत, सुसंस्कृत लोकांमदीं उठपाबसपाचें मुखेल साधन म्हळ्यार हें सिगार. ह्या हायसोसायटीच्या झगझगीत जगांत पेटिल्ले सिगाराशिवाय कोणाचेंच पान हालपार ना.

चडशें जाल्यार कोणय सांगता. आमीचशें कसलें पातक केलां ? सिगार ओडपांत अशें कितें पाप आसा ? देव लेगीत गांजो – चरस ओडटाले. देवा दिकांनी केल्लीं वेसनां आमचेसारक्या दुबळ्यांचो कितें पार. खरें गा खरें, सामकें खरें, ओडात पोटभर सिगारां ओडात, पूण दुसऱ्याक त्रास जायना अशींच ओडात.

ह्या वेळार म्हाका एक याद जाता. म्हज्या ल्हानपणांत आमच्या गांवांत एक खाडाचो साधू आयिल्लो. आमी ताजें नांवच दवरिल्लें खाडयो साधू. हरशीं बरो, पूण वायट म्हणचे मेळटां तेन्ना तोंडांत विडी. मुठींत ती विडी धरून ताजे झुरके घेत बसप. आमी भुरगीं ताजीं फकाणां करूंक ताजे विडयेवयल्यान ताका थोमणो मारतालीं. येदो व्हडलो साधू जावन विडयोशो ओडटा म्हणून चाळोवचें आमी ताका. ताणें सदांच जाप करची, 'शंकराचा मला वरद आहे विडी ओढ म्हणून.' मळबांत नदर लावन ताणें अशी जाप दिली म्हणटकच आमी खूब हांसचें–अजून लेगीत कोणेंय अशी नेटान सिगार तोंडांत धरून वयर नदर लायली की म्हाका त्या साधवाची याद जाता आनी मनांत येता त्या साघवाभशेन ह्याय लोकांक घडये 'शंकराचो वरद' प्राप्त जाल्लो आसूंये.

फाटीं पेपरांत वाचिल्लें की पियेवपाचे बाबतींत खंय सगल्या भारतांत गोंयचो पयलो नंबर आयला पूण हाजेय फुडें वचून म्हाका म्हणीन दिसता की 'सिगार ओडपा बाबतींतय गोंयकार फर्स्टक्लास फस्टच आसात. अर्थांत नव्या व्हंकलांक म्हजी मनापासून सांगणी, 'इंग्लंडाचे राणयेचें मार्गारॅट हें नांव घेतना———————— च्या हातांत केन्नाच फाल्त ना सिगरेट ' अशें नांव घेवचें. म्हणजे हो प्रचंड विरोघाभास जाणोवचो ना.



# समाजीक स्वतंत्रताय आनी बायलो...

फाटले खेपे गोंयां गेल्लें तेन्ना हांव अशेंच एक दीस म्हज्या आजोळा गेल्लें. म्हजें आजोळ म्हळ्यार सामकें खेडेगांव... व्हनीबायल्या बल्कांवाचेर महिलामंडळच जमिल्लें म्हळ्यार जाता. कुचू कुचू कुचूकुचू करून एकमेकांच्या कानांत चोंची घाल्लेभशेन सगलीं फुतफुततालीं. गावांतल्या कोणाचेर तरी तासंपट्टी चलिल्ली. इतल्यांत म्हजे मामीली नात व्हडल्यान व्हडल्यान किटकिटत धांवत थंय आयली. ताजे फाटीर एक थापट घालून मामी म्हणूंक लागली, 'आमगेलें हें बाय आनी कितें ? तसलेंच विद्वाटें जातलें दिसता. कितलेदां सांगलें ताका अशें उडयो मारीत चलनाका, व्हडान आड्डूं नाका. चलीभुरग्यान कशें नाजूक वागचें. पूण हें अवचिन्न खंय आयकता ? आवयची फूस...' 'आसूं गे, अजून ल्हान आसा तें, मातशें व्हड जातकच आपशींच समजतलें.' शेजान्नीन तिका समजायलें. 'ल्हान ? ल्हान कितें गे ? आगे, आठ वर्सांची घोडी जाली ही आतां. ह्या वेळार आमचीं लग्नां जाल्लीं आनी हाका अजून कशें वागचें तें समजना.'

'कितें उलयता गे मामी ? खंयच्या काळांत वावुरता तूं ? तुमचो तेंप गेलो. आतां हे पिरायेचेर भुरगीं शाळेंत वतात शिकपाक.' हांवें म्हळें.

'हय पुते, त्या शिक्षणानच वाट लायल्या ह्या सगल्यांची. नाचतात कितें ? किटकिट्टात कितें ? चलीभुरग्यान चली भुरग्याभशेनच वागूंक जाय' मामीन शिक्षणाचेर आणे मारूंक सुरू केलें 'आनी चल्याक कितें शिंगां आसतात तर ? आमी बायलोच मगे मामी, बायलांचे पांय ओडटात आनी अशें करून आपलीच उदरगत आडायतात.' हांवें पोटतिडकीन व्याख्यानाच पवित्रो घेत म्हळें. 'पुरो पुरो. तूं म्हणून खंयचें ? तांतलेंच !

आतां वाद नाका. कितलेंय बडबडलें म्हणून तूं म्हजें भोऽऽव आयकतलें. तुजो मामा आयल्यार भाजून खायत म्हाका अपुरबायेच्या भाचयेकडेन वाद घेता म्हणून.'

'हेंच तें, आमी दादल्यांक भितात आनी आपूणच फाटीं रावतात. ज्यो कोण तांचे बरोबरीन वचूंक सोदतात तांकां वाव दिनासतना उरफाटें तांचे पांय ओडटात' आनीकय जायतें बडबडटा आसलें पूण मामा खरेंच थंय पाविल्ल्यान ताचेकडेन उलोवपाभरींत विशय फाटीं पडलो.

पूण तेन्ना विशय फाटीं पडलो तरी म्हजे तकलेंतल्यान भायर सरलोच ना. वयल्यान ताजेरच म्हजे विचार भिरभिरत उरले. मामी एक खेड्यांतली, पूण शारांत लेगीत हेंच चलता, अर्थांत बऱ्याच उण्या प्रमाणांत. बायलांखातीर वेगळे नेम आनी दादल्यांखातीर वेगळे ! चलो वेगळो चली वेगळी हे भेदभाव जे मेरेन समाजांत आसात ते मेरेन बायलांची उदरगत जावप कुस्तारच...

१९८४ वर्स हें बायलांच्या स्वतंत्रतायेच्या चळवळींतल्या दशकांतलें निमाणें वर्स... पूण अजून तरी म्हणटात तितलें यस हे चळवळीक मेळूंक ना. अर्थांत हाजे फाटल्यान हजारांनी वर्सांची परंपरा आसा. समाजाचे नेम, रुढी हजारांनी वर्सां तशेच चलत आयल्यात तातूंत एका धपक्यान कांय फरक पडचो ना. ल्हवूल्हवू तातूंत सुदारणा जायत आसा. ज्या बायलांक समाजांत स्थानच नासलें, सामके किंकोत लेखताले तांकां आतां समाजांत मानाचें स्थान मेळ्ळां... दादल्यांबराबरीचे हक मेळ्ळ्यात समाजीक स्वतंत्रताय खूब प्रमाणांत मेळ्ळ्या पूण ते फाटल्यान जायल्या जाणांचो हातभार लागिल्लो आसा. जायत्या जाणांच्या सततच्या येत्नांचें तें फळ.

तशें पळोवंक गेल्यार पुराणावयल्यान दादल्यांबरोबर बायलांकय स्थान आशिल्लें, हक आशिल्ले अशें दिसता. मागीर ते ना कशे जाले? सुमार दोन हजार वर्सांपयलीं भारताचेर मुसलमान आनी हेर परकी लोकांचीं आक्रमणां जातालीं. भांगरां, पयशे, जनावरां हांचेबरोबर बायलांकय चोरून व्हरपाची त्या लोकांची रीत आसली. त्या वेळार भारतीय दादल्यांनी ताचेर आक्रमण करिनासतना बचावाचें धोरण धरलें

आनी बायलांक राखप हें म्हत्वाचें थारावन तेन्नासावन बायलांक घरांत बंद केलें. पूण जी गजाल बायलांचे राखणेपसत केल्ली तीच तिजे स्वतंत्रताये आड आयली. आनी फुडें मागीर रुढीन, परंपरेन बायलांनीच बायलांक चड कोंडून घालें.

जायत्यो वायट चालीरिती तांतल्यान वाडीक लागल्यो. घोव मरतकच सती वचप, केंस कापप ह्यो चाली तांतल्यानच पडल्यो. घरांतल्या बंदखणींत घाल्ल्यान आनी शिक्षण नाशिल्ल्यान बायलांक स्वतंत्र अशे आचार विचार उरले नात. पुरूश प्रधान संस्कृतायेन आनी आमच्या धर्मग्रंथांनी बायलांच्या ह्या-बंदीवासाक अदीकच सारे घालें. बायलांक आनी शुद्रांक एक थारायले; न्हय तेपरस सकल्या पांवड्याचेर बायलांक व्हरून बसयल्यो. 'नःस्त्री स्वातंत्र्यमर्हति' हीच परंपरा जावन पडली.

ल्हानपणासावन बायलो म्हणजे दुबळ्यो अशेच संस्कार चल्यांच्या मनार जायत केले. गार्गी मैत्रेयीची विद्वत्ता फकत आयकुपाच्यो गजाली उरल्यो. समाजान घालून दिल्यात ते नेम पाळप, आपल्या मनाविआड आसल्यार लेगीत तशेंच वागप हे तांच्या मनाचेर ल्हानपणा साकून कोरांतिल्लेवरी जातालें. समाजान मनीस म्हणून बायलांचो स्विकार करूंक नासलो आनी हाका दादाल्यांइतल्योच बायलोय जापसालदार जावन आशिल्ल्यो. न्हय, तांकां आपल्या हकांची जाणविकाय नासली म्हळ्यार जाता.

फुडें अठराव्या शेकड्यांत इंग्लीशांचें राज्य आयलें तांणी हेर सुदारणां बरोबरच भारतांत नवी शिक्षणपद्दत हाडली, आनी ताका लागून नव्या बुद्दीवादान राजा राममोहन रोय, महात्मा गांधी, ज्योतिबा फुले, लोकहितवादी आगरकर, कर्वे, हांचेसारकिल्या समाजांतल्या विचारवंतांक आनी जाणकारांक बायलांच्या पारतंत्र्याची जाणविकाय जाली. तांणी समाजांतल्यो वायट रुढी निखळावन उडोवचेले जीव तोडून यत्न केले. विधवांचीं लग्नां, पुनर्लग्नां, जाणटेपणांत लग्नां अशो जायत्यो सुदारणा जाल्यो. दादल्यांप्रमाणें बायलोय मनीसच आसात आनी तांकां आपणाले उदरगतीचो अधिकार आसूंक फावो हो विचार फुडें आयलो. इंग्लीशांच्या

राज्यांत दुडवांमळार खूब उदरगत जाली आनी बायलांक गरज म्हणूनच घराभायर सरचें पडलें. तेपसत शिक्षण घेवप गरजेचें जालें आनी ह्या सगल्याचो परिणाम म्हणून बायलांक शिक्षण मेळूंक लागलें. आनी त्या शिक्षणांतल्यान बायलांची उदरगत जायत गेली. आनी दुडवां मळारय तांकां स्वतंत्रताय मेळ्ळी.

पयलीं तेंपाच्या मानान आतांच्या बायलांची परिस्थिती जायती सुदारल्या. तांकां हकान शिक्षण घेवंक मेळटा. प्रत्येक क्षेत्रांत बायलो फुडें पावल्यात. हगलीं मेरेन आमच्या देशाची प्रधानमंत्री श्रीमती इंदिरा गांधी एक बायलच आशिल्ली. आनी जायत्या भागांनी थंयचे मुखेलमंत्री म्हणून बायलांनी जापसालदारकी घेतिल्ली आसा. शास्त्राच्या मळार तेचप्रमाण दोतोर, इंजनेर, वकील, प्रॉफेसर, उद्योगधंदे जीं जीं म्हणून म्हत्वाचीं क्षेत्रां आसात तातूंत जायती जाणकार बायलो आसात. व्हड व्हड ऑफिसांनी उंचेल्या पांवड्याचेर बायलो मानाचीं स्थानां धरून बसल्यांत. घरकाम सांबाळून, भुरग्यांक वाडोवन लेगीत दादल्याबरोबरीन नोकरी करून जोडटात आनी संवसाराक हातभार लायतात. हें सगलें खरें आसलें तरी बायलो आदल्या परंपरांचें वजें पुराय शेंवटून उडोवंक शकनात. नोकरी केली, शिकली सवरली तरी परंपरेची बांदिलकी व्हड प्रमाणांत आसा अशें अजूनय दिसता.

खरें पळोवंक गेल्यार आयचे लग्न पद्दतींतच मुखेल दोश आसा आनी ताका लागून बायलांचेर अत्याचार जातात. चलयांचें लग्न करतना हुंडो, मानपान करणी हे करतना चलयांच्या आवय बापायचे कमराचो कांटो हालता आनी म्हणून चली जावप म्हणचे उणेपण अशें अजून कांय जाणां समजतात.

अर्थांत पयलींभशेन आवयबापूय चली चलयेंत सहसा फरक करिनात. पयलीं मात चली जावप म्हणचे घराचेर मोटें संकश्ट कोसळिल्लेवरी करताले. चल्यांचे लाड चड जाताले. शिक्षण दितना लेगीत चल्याक रीण काडून लेगीत आपल्याक तांक नासतना उच्च शिक्षण दिताले, पूण चलयेक मात चलीभुरग्याक जाय कित्याक चड शिक्षण, तांची अक्कल

रांदचेकुडींत अशें म्हणून फाटीं दवरताले. चलो म्हणचे वंशाचो दिवो, घराण्याचो वारस, म्हातारपणांतलो आदार अशें जायतें व्हडपण चल्याक मेळटालें. पूण चली म्हळयार इतली वाडोवन करून वयल्यान तिका घालून–करून दुसऱ्याच्या घरा दिवपाची म्हणून तिका उणेच लेखताले. आतां मात तशें ना. उरफाटें चलो आनी चली समान, चलो कितें, चली कितें एकच, अशें म्हणून एक जावं दोन चलयो जातकच चलो जावचेली वाट लेगीत पळेनासतना कुटूंब येवजणेचें ऑपरेशन करून घेवपी आवयबापूय आसात. शिक्षणाच्या मळार लेगीत चलो चली असो भेद करिनासतना चल्याक ना करून बुदवंत चलयेक तिजी तांक आसल्यार दोतोर, इंजिनेर, बॅरिस्टर करपी आवयबापूय आयज मेळटात. ज्या क्षेत्रांत चलयांक गम्य आसा तें तें सगले शिक्षण दिवपी आवयबापूय आसात. म्हणूच बायलो तरेतरेच्या क्षेत्रांत चकचकूंक शकल्यो. हेच भशेन चलो चली दोगांकय आत्मसंशोधनाची संद मेळूंक जाय आनी हाका लागूनच बायलांक खरी समाजीक स्वतंत्रताय मेळूंक शकतली.

समाजसुदारकांच्या यत्नांक लागून महाराष्ट्रांत फाटल्या शेंकड्यांत स्त्रीशिक्षणाची बुन्याद घाली. तांच्या यत्नांक लागूनच बायलो समाजांत मेकळेपणान भोंवंक–वागूंक लागल्यात, उलोवंक–बरोवंक लागल्यात. हेर राज्यांनी तितलीशी सुदारणा जावंक ना. जायतेकडेन बायलांचेर अत्याचार जातात. संवसार म्हळयार बायलांचे जिणेचें केंद्र अशे संस्कार ल्हानपणासावन बायलांचेर जायत आयल्यात. संवसाराक तडो वचचो न्हय म्हणून बायलेन आपणाले जिणेकडेन तडजोड करची अशी अपेक्षा आसता. आनी हांतल्यान बायल उणाक थरता. दादलो जावं बायल हे एकमेकांक आडखळ जायनासतना पुरक जावंक जाय हें म्हत्वाचें. दादलो बायल हीं संवसाररथाचीं दोन चक्रां जावंक जाय. तांणी संवसाराची सारकी जापसालदारकी घेवंक जाय. हे पसत बायलांक दुडवांमळार अधिकार आसूंक जाय, अशें कांय जाणकारांचें मत आसा. खूबशो बायलो नोकऱ्यो करतात पूण त्या पयशांचेर त्यो अधिकार सांगूंक शकनात. सुशिक्षीत लोकांचें सोडातूच पूण अशिक्षीत लोकांत हें चडच आसता. बायल बावडी

दीसभर कमर मोडून पांय ओडीत घश्टे काडुन भुरगेबाळांक पोसता, संवसार चलयता आनी दादलो घरांत पांयार पांय घालून विडयो फुसकायत दीस सारता आनी पागामेंत मेळटकच तो आपल्या हातांत घेता, बायलेन चुकून केन्नाय सोऱ्याक पयशे ना म्हळ्यार तिका मारून बडोवन तिजें मुसकट फोडटा. दीसभर मरमर काम करचें आनी रातचो बेबद्या घोवाचो मार खावचो हो तांकां बाबड्यांक देवचो वरच म्हळ्यार जाता. बायलांच्या कामाक मोल ना – ती घरांत अधिकार सांगूंक शकना. घरकाम करप, भुरगीं वाडोवप, घर सांबाळप तिणें पूण घर मात दादल्याचें आसता.

म्हणून बायलांक फकत बायल म्हणून जियेवचें पडनासतना मनशाभशेन जगपाची संद मेळप हें बायलांचे स्वतंत्रतायेचें प्रतीक. बायलांचें समाजांतलें स्थान कितें आनी कशें आसचें, तेपसत कितें करचेली गरज आसा हाजो विचार बायलांचे स्वतंत्रतायेची चळवळ करता.

लोकशायेंत बायलेक स्वतंत्र व्यक्ती म्हणून मानतकच 'नःस्त्री स्वातंत्र्यमर्हति' ची परंपरा आनी ताका लागून येवपी बंधनां तोडप गरजेचें. बायलो दादले समान हें मानतकच बायलांक ल्हानपण दिवपी सगल्यो परंपरा बायलांनीच बाद करूंक जाय. पूण बायलांक लागूनच आमची परंपरा आनी संस्कृताय तिगून आसा. हे फटीचे भुलोवणेक बळी पडिल्ले जायते दादले आनी बायलो समाजांत आसतना परंपरा आनी नवेपण हांचो सारको संबंद जोडून आचरण करचेली बायलांक चड गरज आसा. 'स्त्रियश्चरितम् पुरुषस्य भाग्यम्...' हें सुभाशीत आयज उपकरना. बायलांक सगले नितीनेम आनी दादल्यांक सवलती असो पक्षपात चलपाक ना. संवसारांतल्या सगल्या घटकांनी आपापली जापसालदारकी वांटून घेवंक जाय. म्हणुनूच कुटूंबांत बायलेक फकत आवय वा बायल म्हणून जागो दिनासतना मनीस म्हणून जगूंक येतलें अशी कुटूंबवेवस्था निर्मुचेली गरज आसा.

बायल ही एक मनीस आनी दादलो आनी बायल हांचे संबंद समान मानले जाल्यार बायल ही स्वतंत्र व्यक्ती, म्हत्वाची मनीस, दान करचेली वस्त न्हय म्हणून कन्यादाना सारकिले विधी, मानपान, करणी,

व्हंकलकार–न्हवरेकार हें सगले बंद जावंक जाय. बायलांचे स्वतंत्रतायेआड येवपी सगलें संस्कार बाद करून लग्नसंस्थेंत बदल जावंक जाय. हुंडो बंद फकत कायद्यान करून भागना. समाजान ही रीतच बंद करूंक जाय. जाल्यारच आतां चलतात ते हुंड्याक लागून पडपी बायलांचे बळी बंद जातले. जाल्यारच बायलांचें पारतंत्र्य सोंपून बायलांक खरी समाजीक स्वतंत्रताय मेळचेली आस्त आसा.

बायलांक परंपरेन घरांत कोंबलें तें खरें म्हणचे तिजें पावित्र्य आनी चरित्र्य राखूंक. पूण चारित्र्याचे कल्पनेंत बदल जावंक जाय. बलात्कार जाल्ले बायलेकडेन पळोवचेली समाजाची नदर बदलूंक जाय. म्हणचेच समाजान तिका न्याय दिवंक जाय. ही खूब गरजेची गजाल. समाजाकडल्यान तिका राखण मेळूंक जाय. दादले–बायलांच्या पावित्र्याचें जोख एकेच तागडेंत जावंक जाय. मनशाचे जिणेंत बायलांची सुवात खूब व्हड. ताका लागून ती समाजाची मानादीक घटक जावन रावल्यात आनी म्हणुनूच बायलांक आयच्या समाजांत न्याय मेळूंक जाय, आनी पयलींच्या आनी आयच्या काळाची तुळा केल्यार तो मेळटाय बी. बायल म्हणचे कांय न्हय – सामकी नगण्य – अशें मानताले ते आतां तांकां बरोबरीन वागयतात. दोगांनीय एकमेकांक समजून घेवन वागचेली आयज गरज आसा. समानता. म्हणचे दादले – बायलांचे अधिकार धर्मांत आनी वेव्हारांत समान आसचे ह्या लोकहीतवादींच्या उलोवपांत हाजो सगलो सार आयला.

भारत स्वतंत्र जातकच बायलांक मतदानाचो, बरोबरीचो हक सहज मेळ्ळा. ताका लागून अस्तंती देशांभशेन भारतीय बायलांक झगडचें पडलें ना. सवे पांचवर्सुकी येवजणेंत बायलांच्या पागामेन्ताचो स्वतंत्रपणान विचार मांडला. पूण समाजसुदारक बऽरे स्त्री–स्वातंत्र्याखातीर झगडले वा कायद्यान बायलांची फाट राखली तरी बायलांची बंधनांत कायद्यान रावचेली संवय चड तेंपाची. ताका लागून कांय थोडे आडवाद सोडल्यार विचारीक कुवत वा शरिरीक धमक बायलो दाखोवंक शकनात.

कांय अतीसुदारक बायलो सौभाग्यालंकार बायलांच्या स्वातंत्र्याआड

येवपी समजून कुकूम, कांकणां, मंगळसुत्राक बी वालोर दिनात. पूण बायलांचें स्वातंत्र्य ह्या भायल्या वस्तूंचेर निंबून नासता. बायलांक दादल्यांपसून स्वतंत्रताय जाय पूण वेगळेपण नाका. दोन आंक मेळून एक पुर्णांक जाता. दादले बायलो दोनूय मेळून एक जाले जाल्यार कुटूंब रचणुकेचो बुन्यादी फातर घट उरता आनी समाजीक स्वतंत्रताय तिगून उरता. म्हणुनूच बायल म्हणचे भोगवस्तू, मालमत्ता, सोबेची वस्त नासून तिकाय कूड, बुद्द, मत आसा हें ध्यानांत घेवन तिच्या उदरगतीची संद तिका मेळूंक जाय. ज्यो गजाली दादल्याक योग्य तांचेपसून बायलांक वेगळ्यो दवरूं नजो. साथीदाराक खऱ्या अर्थान सुखी केलेबगर आनी मान दिलेबगर खरें सूख निर्माण जायना. शिक्षणाक लागून सहजीवनाची नवी कल्पना निर्माण जाल्या. जिणेंतलें सगलेंच काव्य शेणून उपकारना. हक जाय खरे पूण ते बुड्डून घेवपांत अर्थ ना. आपणालो जोडीदार समान व्यक्तिमत्वाचो सुजाण, स्वतंत्र बुध्दीचो आसा हें जाणून खोशयेंत भरच पडटली. थोड्या उतरांनी सांगपाचें जाल्यार बायल म्हणून त्या व्यक्तिचेर येवपी मर्यादा लक्षांत घेवन तिणें आपणालें व्यक्तिमत्व ते चौकटींत रावुनूच समृध्द करचें आनी कुटुंबाची जीण यसस्वी करूंक हातभार लावचो.



# अशी आमची बाईबाय...

जात्रेच्या तेंपार एकय जात्रा चुकयनासतना भोंवपी कांय मनशां आसात. आमची बाईबायय तांतलीच. कवळेंची पंचम आसुंदी, मंगेशींची जात्रा आसुंदी, म्हाड्डोळचो सांगड आसुंदी, वा जांबावलेचो गुलाल आसुंदी, थंय बाईबाय ना अशें केन्नाच जावचेलें ना. एक वेळ उदेंतेचो सुर्या अस्तंतेक उदेत पूण बाईबायबगर गोंयांत एकय जात्रा जावपाक ना. चडशे लोक तिका वळखतात. हळदुवें वा पोपटी जरीचें कापड, दोट्टी घोंट धरून तोड्या मेरेन हातभर भांगर, गळयाक गळशिरी, मोहनमाळ असल्यो गळोभर वस्ती घालून चकचकीत जाल्ली, आनी आपणाल्या खडपार किलल्ल्या तणाभशेन केंसांचो सुपारेयेदो आंबाडो घालून ताजेर बरी व्हडली शेंवत्यांची फांती वा रतनआबोल्यांचो वळेसर माळून मध्यस्थळाक बशिल्ली मध्यम पिरायेची बायल म्हळ्ळी की दोळे धांपून ती बाईबाय म्हणून वळखुचें.

आमचे बाईबायक भोंवपाचो खुब्ब घोस्त. गोंयांत अशें एकूय ल्हानशें खेडें लेगीत नासतलें जंय बाईबाय पावली ना. उत्सव नासतना एकय गांव नासता आनी खंयचोच उत्सव बाईबाय सोडिना. बरें, तशें कांयच ना जाल्यार बाईबायचीं सोयरीं संववसाराच्या सतरा कोनशांनी फासफल्यांत. अमरिकेक आनी आफ्रिकेक लेगीत तिजीं सोयरीं आसात खंय... वर्साचे चार म्हयने तरी ती आपणाल्या सोयऱ्यांक भेटी दिवंक वगडायता. उरिल्ले जात्रा – उत्सवांनी. मागीर खाशेल्या घरा ती कितलो तेंप आसता हें येवजूनच पळयिल्लें बरें. आयज कोणाचे मुजीक जाल्यार फाल्यां कोणाच्या लग्नाक. परवां कोणाचो बारसो जाल्यार तेरवां कोणाचें श्राध्द. बाईबायेचो

पांय सदांच भायर. मातसो पोंत हेगडो लागल्यार पुरो, तांगेर कितेंय आसना, थंय बोवाळांत पयलीं लुटूलुटू करून भोंवपी बाईबाय दिश्टी पडटलीच. अशें आसलें म्हणून तिका भोंवती भागरथ म्हणचेली ना आं...

मनशां जोडपाचो तिका खुब्ब घोस्त ! अर्थांत तीं मनशां गिरेस्त आसत जाल्यार इल्लिशी चडच उमेद. जंय बऱ्यो दोट्टी घोंट, वज्रांवेडी घालून आयिल्ल्यो बायल्यो आसतात तांचेकडेन वळखी काडूंक बाईबायक खुब्ब घोस्त ! तातूंत तिका व्हडलें ओंर दिसता. 'काल देवळांत अमक्या धेंप्याले सुनेची आनी म्हजी वळख जाली. ती म्हजे नण्डेले मावशेभयणीली खास्सा नणंद... अशें म्हणून गांवभर सांगत भोंवतली. दुडवांकारांकडेन असलें सामकें लागीचें नातें सांगत भोंवपांत कसलें सुख भोगता तें एकली बाईबायच जाणा... सादारण परिस्थितींतले बायलेच्या हातांत घोंट पळयल्यार वळख आसूं नासूं बाईबाय तिज्या हाताक धरून 'हय गे, हे तुजे घोंट कितल्या पवनांचे ?' अशें फट्ट करून विचारलेबगर केन्नाच रावचेली ना. मागीर लोकांक कितें दिसतलें तें ती कांयच येवजिना. सादारणशे बायलेन नव्या मोदेलाचो हार वा कसलीय वस्त घाल्यार 'हय, फाल्स जातलो, हांकां आनी असले हार फुटल्यात,' अशें म्हळेबगर रावं नजो. हाजे उरफाटें, बऱ्या गिरेस्ताले बायलेन कसलेंय रोल्डगोल्डाचें फूल माळ्ळें जाल्यार, आवयस त्या अमक्याचे सुनेन पळय कितलो सोबीत पांखो माळ्ळा. कांय न्हय जाल्यार पांच पोवनाचो तरी आसतलो, अशें म्हळेबगर ती रावची ना. कोणेंय तो फाल्स म्हणून सांगल्यार ती सांगतल्याक पिशांत काडटली. कोणूय बरें आंगभर भांगर घालून दिश्टी पडल्यार रोखडीच, आवयस, काय बरी दिसता ती बायल अशें म्हणटली. मागीर ती कितलीय काळी आनी विद्रूप आसना. तिजो हो सभावच जावन पडला. तात्पर्य म्हणचे भांगराचें (भांगर घालतल्याचेंय) आनी बाईबायचें शत्तीस गुणांनी पडटा.

तें कितेंय आसलें तरी बाईबाय तोंडान एकदम गोड. परकी मनशाक जाल्यार ती एकदम मानता. अर्थांत मागीर संवकळ जातकच तिजे एकेक गूण दिसून येतात ती खबर सोडात. पूण हरशीं लोकांक

एकदम वश. कितलोय मूखदुर्बळ मनीस आसना, बाईबायमुखार पावलो की तिज्या खडीसाकरेंत घोळोवन आनी म्होंवान बांदून काडिल्ल्या उतरांनी केन्ना आपणालीं तुसडेपणां भायर उडोवन गुजगोश्टी करपाक लागता हें ताकाच समजुपाचें ना. बाईबायचो आनीक एक बरो गूण म्हणजे शेजाऱ्यांच्या अडीअडचणींक सगल्यांत पयली ती धांवन वतली. कोणागेर पापड करूं, कोणागेर वडयो घालूं, लोणचीं करूं सगल्या कामांक ती फुडें. शेजरा कोणाकय फुलां माळपाचीं आसल्यार फळाराचे जिनस धरून फांतयो घालीमेरेन प्रत्येक कामाक बाईबाय घरचेभशेन घोळटली. मागीर फाटल्यान कितलीय बडबडूं, ह्या तिज्या मुखेल गुणाक लागून ती सगल्यांक मानवता. लोकांनी आपणाक येद्दें चुकोवंक जायना. पूण हात उखलून येद्दी वस्त लेगीत दुसऱ्यांक दिवंक तिजो जीव वयरसकयल जाता. आनी कर्मधर्मसंयोगान एकाद्री वस्त पडली कोणाच्याय हातार जाल्यार मागीर ती जल्मभर गावप, हो तिजो व्हडलो दोश...

लोकांचीं कुतां काडूंक बायल एकदम हुशार !... कोणेंय कितलोय जीव ओतून करुंदी, तिज्या तोंडान चुकून लेगीत तुस्तीचें एक उतर येत जाल्यार जाय तो सोपूत... उरफाटें, नाशिल्ली चूक सोदून काडून त्या बावड्याक खंयचें केलें अशें करप आनी ताजें पडिल्लें तोंड पळोवन एक विचित्र समाधान मेळिल्लेवरी तोंड भरून हांसप हें तिजें लक्षण ! मजा अशी की कसलोय नवो जिनस करुंदी तो बाईबायसरीं पावता. (आतां लोक मुद्दम करतात काय कितें तें हांव नकळों, पूण गांव थंय म्हारवाडो आसता म्हणटात तसली गत जाल्या जातली). 'बाईबाय, कसो जाला गे पोस' विचारचेंच आसा, बशी हातांत धरून कुलेरान कुडके काडून खायत 'जिरें घालां काय कितें गे तातूंत आमगेर बाये अशें घालिनात. आमी बरीं हळदीचीं पानां घालतात. ती रूचच वेगळी !... अशें एके वटेन म्हणटली, पूण आनी दोन बशयो मागून खातली. असली ही बाईबाय...

तिज्या नात्यांतले लोक म्हणजे भावजो, नणडो सगलीं तिका थर्त भिंयेतात. बाईबाय घराभितर सरली रे सरली, तिज्या हातांत रान्नीपोल्ल सोंपोवन सगलीं पसार !... एक म्हणचे मागीर दीसभर तिगेलें आंवय,

आमगेर हें घालिनात; आमी बाये अशें करिनात, हें आयकूंक नाका. आनी दुसरें म्हणचे चार दीस रान्नीपोल्लांतली सुटका जाली रे जाली, तितलोच सुसेग...' 'आगे बाईबाय, भुरग्यांचेर घर सोंपोवन बरी बाये भोंवता तूं,' अशें सहज कोणेंय म्हळ्यार पुरो, मागीर जाता हिची लांबड सुरू. 'हय बाये, तांकां म्हणून रांदूंक येवंक नाका? आवय घरा आसल्यार भुरगीं रांदचेकुडींत पावल दिवंक आयल्यांत ? फाल्यां घोवागेर वतकच चलयेक रांदूंक येना जाल्यार शेण घालतले लोक म्हज्या तोंडांत ! सगल्यांचे जांवय कितें तुज्या जांवयाभशेन बायलेक रांदूंक आदार करिनात.' आनी वतांवतां तोमणो आयकुचो पडटा. विचारतलेक सामक्यो चुन्न नाशिल्ल्यो पातोळ्यो खावच्यो पडटात.

इतल्याचेर आसा ? कोण नवी व्हंकल आयल्या रे आयल्या गेली, तिका ही बाईबाय पळोवंक !... मागीर भांगरांशिंगराचो सगलो इतिहास विचारून जातकच तिका दिल्ली दिवली धरून कुलेरा मेरेन पारखून घेतली. कितल्यो साडयो आनी कितलीं पोल्कां दिल्यांत तें लेगीत जाय हे बायलेक... मागीर उस्तिली बसून शिवणीचो ट्रंक. कोणेंय कितलीय बरी शिवण करूं जणा एका नगाक नांव दवरलेबगर तिजें पोट भरना. खंय हो कोनसो वांकडो जाला. खंयचो टांकोच उरफाटो पडला. एक आनी दोन ? प्रत्येक नगा वेळार विचारतली, 'हें तुवेंच केलां मगे ?' नवी व्हंकल बावडी तकली सकयल घालून हय म्हणटा. बाईबायच्या हातांत आसल्यार थंयचे थंय ते व्हंकलेक सूय–सूत घेवन तोच टांको घालून दाखय अशें म्हणूंक लेगीत ती फाटीं सरपी न्हय (अर्थांत असो म्हजो अदमास... अजूनमेरेन हें तिणें केलें ना. फाटींफुडें केन्नाय येतलें आयकूंक...) इतलीच शिवण केल्या? आंवय... विणलें कित्याक ना? एक आनी दोन, हजार प्रस्न... चडशो व्हंकलो हळदी आंगाच्यो म्हणून आनी बाईबायचे वागणुकेन तिजें आनी आपल्या लोकांचें लागींचें नातें आसतलें अशें येवजून ओगी बसतात. पूण थोडेकडेन 'तुका कित्याक जाय सगल्यो राटावळी ?' वा 'म्हज्या घोंटाचीं पवनां तुका कित्याक ?' अशें विचारपी वेगळींच आसात. अशी सणसणीत जाप दिवन बाईबायचें तोंड बंद करपीय कांय मनशां तिका

भेट्टात. अशी ही बाईबाय ! फाटफूड पळयनासतना, कितेंय पचकेपणां उलोवन वतली. मागीर लोकांक कितें दिसत म्हणून पळोवची ना.



# नुसतें आनी गोंयकार...

'शी... शी... ह्या भटांचेर म्हणून सामको सांवार आयला गे सायबिणी' 'कित्याक गे, आयज भटांचेरशी आयली तुजी संक्रांत' 'कितें सांगूं तुका परबिणी, सामकीच जात सोडली मगे हांणी. नुस्तें खावन देवाच्या आंगार हात कसो घालूं येता, देवच बावडो जाणा...' आगे हालीं सगलेकडेन हेंच चललां. तांची तरी कितें चूक ? कलियूग सुरू जालें न्हय गे ?' देवळांत मध्यस्थळार बसून त्यो दोगी बायलो हातांतल्यो घोंटपाटल्यो वयरसकयल करीत व्हडल्या व्हडल्यान गजाली करताल्यो. सरवळ्यांत भितर सरून देवाक नमस्कार करचें पयलीं म्हज्या कानार ही उतरां पडलीं. म्हाका त्या बायलांचें मोटें अजाप दिसलें. आपूण दनपारां यथेच्छ नुसत्याचेर ताव मारून म्हणचे नुसत्या हुमण, सुकें, तळिल्लें अशें वेगवेगळें सुवादीक पदार्थ खावन देवळांत आयल्यांत आनी भट नुस्तें खातात ह्यो नसत्यो जायण्यों हांच्या बोडार कित्याक ? नुस्तें कितें फकत बामण आनी हेर लोकांनी खावचें आनी भटांनीच कसलें पाप केलां...

येद्या व्हडल्या ह्या संवसारांत सात व्हडले दर्या आसात. तांचे भायर हजारांनी न्हंयो, पाण्टे, तळयो, मानसो, खाडयो जायतें आसा. ह्या सगल्यांभितर अपस्मार नुसत्या खणी भरून ओततात. नुसतें म्हणचे सैमान मनशाक ओंपिल्लो व्हडलो व्हडलो नजराणो आनी मनशान ताजो पुराय आस्वाद घेवचो ही परंपरागत शिकवण... सामकी आर्विल्ल्या काळासावन चलत आयिल्ली म्हाल म्हातान्यांची ही बरी देख कोण घेवचोना ? आज लाखांनी वर्सां हें नुसतें हांगा आसा. व्हडल्या देवमाशाक धरून नाखटा येद्या बारीक भोपशामेरेन तरातरांचें नुसतें हांगा आसा. पयलीं तेंपार जेन्ना शेतां

भातां पिकनासलीं तेन्ना सगले मनीस हेंच नुसतें आनी प्राण्यांच्या मांसारच जियेताले न्हय ? 'जाणीजे यज्ञकर्म' म्हणून मेळटा तें भक्षिताले न्हय ? हे धर्म आनी जाती कोणें केल्यात ? आमी मनशांनीच न्हय ? नुसतें खायनात ते भट. हेर सगले बामण, चाड्डे, वैश्य, शुद्र, माती आनी गोबर नुसतें खातात! पयलीं तेंपार ऋषीमुनींचें लेगीत हेंच खाण आशिल्लें. फुडें मागीर ते सुदारले देवदेवळांचें देवसपण चलोवपी, संस्कृत शिकपी हांणी नुसत्याकडेन फाट केली... ब्राह्मणवर्ग जल्मा आयलो. मुकटो न्हेसून अनवाळें भश्ट सांबाळीत नुसत्याक आफडिनाशिल्लेच न्हय, जाल्यार ताजो वास लेगीत भश्ट मानपी हे लोक आतां परत सारके जाग्यार येतात जाल्यार ह्या बायलांनी तरी तांकां टोकचे न्हय अशें म्हाका मनापसून दिसलें. हेच येवजणेंत देवाक कशेय भशेन पांच प्रदक्षिणा घालून हांव देवामुखार बसलें. मनांतले मनांत पोले फोडून घेतले–चित्र एकठायलेंना म्हणून नाक घश्टून आनी हात जोडून शिरसाश्टांग नमस्कार घालो तरी म्हजें तांच्या खबरांतलें लक्ष ढळ्ळेंना. आतां विशयच इतलो सुवादीक आशिल्लो थंय म्हजे पापणीचें कितें चलतलें ?

'आगे, त्या यमण्याआकाली सून मगे सामकी बाप्पा शिवराक आशिल्ली. मागीर तातूंत अजाप कितें तर ? आगे, अशें हें पुते म्हाका खबर नासलें आं. आनी भटाली म्हणून वळखप कशी ? तांकां कितें शिंगां आसतात व्हय गे ? कोणेंय तुजेसारकेन सांगल्यार समजुपाचें, सांगपाचें म्हळयार जी नुसत्याक आफड पसून नाशिल्ली तीच खंय आतां अस्सल नुसतेंखायरी जाल्या... नुसत्याचे कांटे लेगीत भायर उडयना खंय.' ' खरें काय कितें गे...?'

मागीर, नुसतें म्हणचे कितें समजतात हीं ? हांवें मनांतले मनांत म्हळें. नुसत्यांत ती शक्तच आसा तशी... एकदां रूच घेतिल्लो मनीस नुसतें सोडपाक ना. मेल्लो लेगीत नुसत्यावासान जितो जातलो म्हणटात तें कितें ओगीच ? दोन गोंयकार एकमेकांक मेळटकच मागीर ते गोंयच्या सामक्या खेड्यांत जावं ना जाल्यार अमेरिकेचे व्हडले सिदादींत जावं–एकमेकांक पयलो प्रस्न खंयचो विचारतले काय म्हळयार, 'आयज

निसत्या कितें रे ?' मुखार मागीर आतां म्हारगाय कशी वाडल्या, नुसतेकारांचेर काळ कसो आयला. बाजार खंय पावला ताजेर थोडो वेळ तरी चर्चा जांवकच जाय. गोंयच्यो दोन बायलो देवळांत लेगीत मेळ्ळयार, 'आज कितें मेळ्ळें ?' म्हणून चवकशी केलेबगर रावच्यो नात. हातूंत 'कितें' हाजो संदर्भ नुसत्याकडेन आसता. तो गर्भितार्थ उक्तो करून सांगचो पडना.

सांगपाचें म्हळ्यार, आख्ख्या संवसारांत गोंयकार सुसेगाद म्हणून जितले फामाद आसात तितलेच ते नुसतेखायरे म्हणूनय ख्यातमान जाल्यात. गोंयकारांच्या नुसत्याजेवणाची कीर्त संवसारभर पातळ्ळ्या आनी देखून गोंयां येवपी पर्यटक पयलीं नुसत्याचीं हॉटॅलां सोदतात (मागीर जेवतकच गाळी घालतात काय कितें तें ते जाणात आनी तो देवळांत बशिल्लो देव जाणा). जायत्या जाणकारांच्या तोंडांतल्यान हांवें आयकलां की जेवणांत जेवण गोंयकारांचें आनी तांतले तातूंत सारस्वतांचें. अर्थात हेर लोकय बी बेस्स बरें रांदतात. ताजो सुवाद आगळो. पूण तो ह्या जाणकारांनी एकाद्रो चाखलो ना जातलो म्हणून खाल्ल्या मिठाक जागल्यात बावडे...

आमच्यो गोंयच्यो बायलो आपणालो पुराय जल्म सामको रांदचेकुडींतच सारतात म्हळ्यार जाता. संवसारांतल्या खंयच्याय बायलांपरस आमच्यो बायलो जेवणापरस जड घश्टे काडटात. खऱ्यांनीच मनापसून कश्टतात., घश्टतात, रांद – वाड – उश्टीं काड हातूंतच आपणले जिणेचें सार्थक मानतात. म्हाका तरी दिसता की हाजें कारण म्हणचे तीं अन्न हें पूर्णब्रह्मण हें पुरेपूर जाणून आसात. 'उदरभरण नोहे जाणि यज्ञकर्म' हीं आमच्या जाणट्यांनी सांगून दवरिल्लीं उतरां मतींत धरून त्या यज्ञकर्मांत आपणालो वांटो बरे तरेन उखलतात. मन लावन जेवण रांदप आनी आपणाल्या मायेच्या मनशांनी तें यथेच्छ जेवप हाजेपरस दुसरें सूख आमच्या गोंयच्या बायलांक ना.

भुरगेपणांत म्हाका दिसतालें बायल म्हणचे फकत रांदप वाडप करपी एक जिवें माक्न. हो समज घटावपाक तशेंच कारण आशिल्लें. म्हजे

भयणीचें एकवटीत कुटूंब– कांय न्हय म्हळ्यार पन्नाशेक मनशां पंगतीक आसतालीं आनी भुगरेपणांत हांव जेन्ना केन्नाय तांगेर वतालें तेन्ना बायलो फकत रांदचेकुडींत बोवाळटना दिश्टी पडटाल्यो. जण एकल्याच्या जेवणांत वेगवेगळ्यो परी, वेगवेगळ्यो रुची; भुरग्यांक वेगळें, जाणट्यांक वेगळें,करून प्रत्येकाचो गोस्त सांबाळप. वयल्यान पानार चार घसघशीत नग जाय हें आनीक मोटेपण – करतना तांचो आख्खो आदेस जेवप करपांतच वतालो – आनी बारांक जेवणाक जी सुरवात ती चारांक बायलां पंगत. आनी तीं जेवन उठसर च्याचो आक्त सुरू. परत सांजचीं खाणां, रातचीं जेवणां. जालें. हातूंतच जल्म सारप... म्हाका खुब्ब राग येतालो. कितें हें ? सगली जीण फकत पोटाभरीक वगडावप. आनीक आनीक कांयच कर्म ना ? अशें दिसचें. अर्थांत पयलींचो तेंप आतां ना.

आतां गोंयच्योय बायलो हेर बायलांभशेन सुदारल्यात. आनी इतलें बदलप गरजेचेंय. वरांचीं वरां जेवण करूंक सारपाक वेळ आसता कोणाक ? सगल्यां फाटल्यान कामाची ताकतीक... सगलीं आतां दादल्यांभशेन सिर्विसेक धांवपी, मागीर इतल्या त्रासांनी वांटपणां करून नुस्तें घेयात. उजरायात. धुयात. मीठ लायात. कांतात. वांटात. सांगलां कोणें ? तेपरस शीत रोस–भाजी–सोंपे काम ! अर्थांत मागीर सांजे येतकच रातच्या मुख्य जेवपाक सगलो नुसत्याचो प्रपंच करचो पडटाच. ना जाल्यार जीव धरता ? वाडटल्यांचो आनी जेवतल्यांचो ? पूण एक. रुचीपासत वानार जावं फातरीर गंध वांटीत बसपाचे दीस गेले. हेराभशेन मिक्सरार गर्रर्र केलें –काम जालें. आं. मात कांय घरां अशीं आसात– शी ... मिक्सरार वांटिल्लें कितें ? चोथो पाणी, वांटप तें वांटप, ताजी सर म्हणून मिक्सराक येता ? आमच्या दादल्यांक बाये आवडना. तशेंच कुकरांतलें शीत रुचना म्हणून वांटत–कुंटत बसपी कांय लोक अजूनय आसात गोंयांत. हें मात खरें की शिवराक जेवण कशें सुटसुटीत जाता तशें ह्या नुस्त्या जेवणाचें न्हंय...

आतांच्या ह्या मशिनाच्या युगांत लेगीत गोंयकारांच्या सुसेगादपणाचो आनी नुसत्या जेवणाचो थाट कितें वर्णुचो ? आयतार

चरचरीत तळूंक जाय, मागीर तें तळिल्लें पोस्त आसूं वा सुंगट, वा सादें मानयाळें आसूं–रुचीकच लागूंक जाय. हे भायर मोरयेचें मटण, कुल्ल्यांचें–कालवांचें मसाल्याचें अशो तरेकतरा करूं घेतात. सुंगटां पुलाव बी पार्ट्यांबिर्ट्यांनी प्रसिद्द आसा.

सुगटांमदीं लेगीत मानशे सुंगटां, दर्या सुंगटां, बारीक कर्दी, वागयो अशो जायत्यो जाती ! करबटाचें म्हणचें जातूंत बारीक सुंगटां, खांपी, मोतयाळीं, कांटेरी, पाताशें, पेडवुलां, बुरांटे अशें तरेकवार नुसतें मिस्तुराद आसता. असल्याचें धबधबीत वा हुमण थंयचे थंय केल्यार बरें रुचीक लागता. तातूंतय आंबली वा आंबाडो पडत जाल्यार सुवाद चडटा. सुंगटां–हुमणाक बिमलां वा मुळे, मस्कासांगो, भेंडे कितेंय उपकारता. हातूंत मागीर सादें, दर्याचें, मानशेचें अशे जायते प्रकार आसात. साव्यांत थिगूर, सांगटां बी फामाद आसात. कुल्ल्यांनीय खडपी कुल्ल्यो, दर्याच्यो कुल्ल्यो, शेतांतल्यो कुल्ल्यो धरून वेगवेगळ्यो जाती आसतात. कुल्ल्यांची एक मजा म्हणचे दर्याचे भरते सुकते प्रमाण तांचीय जीण चंद्राचेर आदारून आसता. उमाशेच्यो कुल्ल्यो भरिल्ल्यो आनी पुनवेच्यो पोक्यो आसतात. खाडयेंतल्यो कुल्ल्यो गरयतना पळोवपासारक्यो... मात खडपी कुल्ल्यो धरूंक बडी घाली आनी मेळिल्ली कुल्ली डांग्यासकट दवरशी म्हणशात जाल्यार ती तुमचें बोटच फोडलेबगर सोडचिना; कुल्ल्या धरूंक तशीच कुशळटाय जाय.

नुसतें गरयतना वा रांपणी भायर काडटना खारव्यांची मौज पळोवपा सारकी आसता. वेगवेगळ्यो रांपणी वा कांटयाळीं पयलींच लावन दवरिल्लीं आसतात. नुसतें पडलेशें दिसतकच साता–आठ जाण फाटीं फुडें मदीं कुशीन रावन ती रापण पदां म्हणीत म्हणीत ओडीत भायर काडटात. देगेर ओडटात त्या वेळावयलो बोवाळ पळोवपा सारको. मात तुमचें मन भावूक आसत जाल्यार रेंवेंत वळवळपी तीं नुसतीं पळोवन परतून नुसतें खावचें न्हय अशें दिसूं येता. नुसत्याची काकूट येता. अर्थांत हें अहिंसावादी बी तत्व जालें. खरो सृश्टीचो नेम कितें ? एकान दुसऱ्याक गिळचें. होच नेम, हीच परंपरा...' मागीर ताका तुमी आमी कशे अपवाद आसत ? आनी

खीणभर नुसतें सोडसनशें दिसलें तरी तें रान्नीर चडून ताजो परमळ दरवळतकच पोटांत सामको उजो पेट्टा. केन्नाकाय तें नुस्तें पानार पडटा आनी आपूण ताजेर आडवो–उबो हात मारतां अशें जाता. अर्थांत खऱ्या नुसतेंखायऱ्यांक... आमची एक शेजान्न आपणाले आवयच्या सुंगटांहुमणाची सदांच तुस्त करी. आईलें हुमण इतलें सुवादीक जातालें की आठ–आठ दीस हाताचो वास वचनाशिल्लो. अर्थांत ही शब्दीक अतिताय ! एक उलोवपाची चाल. आठ दीस वास आयल्यार वीट येतलो. आमी नुसतें बरें आवडीन खालें म्हणून कांटे कोण गळ्यांत बांदून भोंवनात वा नुसत्या हिंवळाण येतकच कोणय शाबू लावन हात घुलेबगर रावनात.

जित्या नुसत्याची ही तरा. पूण हाका खारेंय अपवाद नासता. 'खारें' म्हणजे मीठ मारून सुकयिल्लें नुसतें. पावसा पुरुमेन्त म्हणून सगलीं गोंयकारां सुकीं सुंगटां, गालमो, सुके बांगडे, बांगडुल्यो, ताल्ले–पेडवे, मोरी, भोपशीं अशें जायतें खारें डबे भरून दवरतात – बाजारांत वा पुरुमेन्ती फेस्ताक घेवन. आनी पावसांत जेन्ना मागीर केन्ना ते बांगडे न्हाणये रान्नींत वतात, केन्ना तव्यार परतून तांची किसमूर जाता जाल्यार केन्नाकेन्नाय सुकी आमली बी घालून ताजें सुकें जाता. केन्ना गालम्याची किसमूर, सुकें वा पेडव्यांचें धबधबीत जाता. केन्ना हुमणांत बांगडो पडटा, केन्ना सुंगटां पडटात जाल्यार केन्ना केन्ना मोरी धाडावन घालतात. सुको बांगडो वा बांगड्या किसमूर आनी दाळचो रोस हांचो मेळ बरो जमता. म्हाका जाल्यार इतल्या सगल्या नुसत्यांमंदीं सामको घोस्ताचो म्हणचे सुको बांगडो ! व्हडलीं विस्वणाचीं पोस्तां एके वटेन आनी दुसरे वटेन सुक्या बांगड्याचो भाजिल्लो कुडको दवरल्यार हांव पयलीं तिकाच हात घालतलें. इतलो बांगडो म्हाका प्रिय !

आतां सांगतां ती सत्यकथा काय दंतकथा हें हांव नकळों. कारण ह्या तोंडांतल्यान त्या कानांत आनी त्या कानांतल्यान दुसऱ्याच्या तोंडांत करीत कितल्याशाच कानातोंडांची भेट घेत म्हजे म्हऱ्यांत पाविल्ली ही खबर–हांवें प्रत्यक्ष पळेल्ली वा आयकल्ली न्हय म्हणटकच तातूंत कितलो नीज अंश आनी कितलो मीठ–मसालो भरला तें हांव नकळों. अशें

सांगतात की बंगालांतलो एक मनीस एक फावट गोंयांत आयिल्लो तो मंगेशीं देवळांत बरी व्हडली नुसत्याची गांथन घेवन गेलो – तशे आमचे भट चवताळ्ळे. पुडव्या कास घट्ट करीत हांगा थंय नाचूंक लागले. थंय जमिल्ल्या लोकांनी त्या बंगाल्याक समजायलें की आमच्या देवाक नुसत्याचो निवेद्य चलना पूण तो हटधरूनच बसलो – देवान सपनांत येवन मागलां म्हणून. जालें. म्हाजन जमले, गाराणें घालें. देवाक प्रसाद लायलो जाल्यार देवान खरीच पाकळी दिली – आपणेंच मागलां म्हणून नुसतें. मारीर उदक सोडून ती गांथन खंयच्या देवळ्याक वा गुरवाक मेळ्ळी ती खबर सोडात. पूण हातूंत तथ्य आसा जाल्यार मंगेशाक लेगीत गोंयां येवन नुसत्यावास लागलो म्हणूक जाय. बंगाल हो शक्तिउपासकांचो प्रदेश; थंय देवाक नुसतें चलता. आनी तशें पळोवंक गेल्यार आमच्या दैवतांक दसऱ्या वेळार कोंब्याबोकड्यांचो निवेद्य लागता. म्हणजेच आमच्याय देवाक मांसाहार चलता, पूण थारावीक तेंपार, अशें जालेंना ? भाव तसो देव म्हण्टात तेंच खरें. भटाबामणाक नुसतें, मटण वर्ज्य म्हणून तांणी देवतांकय ताजेपसून वंचीत केल्यात; पयस दवरल्यात. सांगपाचो सारांश इतलोच की गोंयच्या दैवतांकय केन्ना केन्नाय कोंबडे बोकडो चलता, तशेंच नुसतें चलता जावये.

गोंयकारांचें दायजच नुस्तेंखायऱ्यांचें ! तांकां कोणें हांसपाचें ना. दोन दीस शिवराक जेवल्यार तांकां रोखडीच गांठ लागता. अन्न वचना, चलना जाता. पोटांत दुखूंक लागता – ताजेर उपाय एकच... बाजारांत वचून नुसत्या गांथन वा वांटो घेवन येवपाचें आनी ताजे तरेकवार पदार्थ करून खावपाचे. बोमलेक सुकीं सुंगटां तळसून बांदपाचीं. एकदम थण्ण जाता सगलें पोटांतलें... गोंयांत अशीं जायतीं घरां आसात की देड दिसांचो गणपती आसतना मोट्या प्रयासान जीव सांबाळून दवरतात–अर्थांत हातांनी न्हय. तरी उतरांनी नुसत्याची विष्णुसहस्त्रनामावली चालूच आसता–म्हाका दिसता विष्णून केन्ना काळार मत्स्यावतार धारण केल्ल्यान ताजो प्रसाद म्हणून आमी इतले नुसत्या भक्त जाल्यात जावये ! तय चवथीचे दोन दीस मोट्या कश्टांनी शिवराक जेवतकच पंचमी दिसा सांजे

नुसतें हाडून मागीलदारांत खोंपींत दवरतात आनी हेवटेन गणपतीबाप्पा मोरया करून गणाधिशाक फुडल्या दारांतल्यान न्हंयचेर वा तळयेचेर पावोवंक भायर काडटात आनी मागीलदारांतल्यान आमचें परब्रह्म नुसतें भितर व्हरून रान्नीचेर चडटा आनी गणपती पावन येतकच जेवणाचो जो ब्रह्मनंद चडटा तो कितें वर्णुचो ! दोन दिसांचें उट्टें भरून पावयता. जाल्यार अशें हें नुस्तें आनी अशे हे नुसतेंखायरे गोंयकार...!



# संस्कार, संस्कृताय आनी आमी...

'शुभं करोति कल्याणम् आरोग्यं धनसंपदा...' तीनसांजच्या शांत वेळार घरांघरांतल्यान येवपी हे सूर काळाबरोबर फाटीं फाटीं पडत आसात. त्यो तुळशी मुखावयल्यो सांजवाती, तो देवाकुडींतलो लामणदिवो, सांजचे ते प्रार्थनेचे सूर, ती भुरग्यांली एका सुरांतली परवचा वा परवड – ह्यो सगल्यो गजाली भूतकाळांत पडत चलल्यात. तांकां वर्तमानकाळांत सुवात ना आनी भविश्यकाळ उरूंकच ना. काळाच्या बदलपी प्रवाहा वांगडाच संस्कार बदलत वतात. त्या बदलत्या संस्काराचो धग चड कोणाक बोंचक जाता काय म्हळयार थोडो तेंप त्या तसल्या काळांत वावरून आतां तो काळ ना जाता तें पळोवचें पडटले आमचे सारकिले मदले पिळगेक. आदल्या लोकांचें बरें; फुडल्या लोकांचें बरें–हाल मात मदल्यांचे !... हें सदांचेंच. 'ऋद्धी सिध्दी मदीं गणपती' तशें सामकें गणपतीभशेन मांडी घालून घडटा तें ओग्गी पळयत बसलेबगर आनी एके कडेन बसून ते हाल सोसलेबगर मदल्यांक गत्यंतरच ना. सदांच वयले आनी सकले सुट्टात – हाल मदल्यांचे – मागीर ते अर्थीक, समाजीक, संस्कृतीक कसलेय जावं – मदल्यांक सगलें बादता.

जाल्यारय आतां त्यो सांजवातीय गेल्यो आनी त्यो परवचाय गेल्यो. हालीं भुरग्यांक तशें कितें आसता म्हणून लेगीत खबर आसचें ना. आतां सगलीच यांत्रिकी जीण... फट् करून बटन दामलो की पेटली लायट... पयलीं तेंपार सांज जाली, सूर्य अस्तंतेक बुडूंक पावलो आनी काळोख ल्हवूल्हवू आपणाली तकली वयर काडून संवसाराक वगोवचेलो यत्न करूंक लागलो की दिव्यांत तेल घालपाची ताकतीक जाताली घरच्या बायलांक.

'दिव्यां वात आनी तोंडाक हात' अशी म्हणणीच आशिल्ली. आमच्या भुरगेपणांत हेंच दृश्य. अर्थांत त्या वेळार लेगीत शारांनी लायट आशिल्ली. पूण आमच्या खेड्यांत ती पावंक नाशिल्ली. आनी भारत हो खेड्यांचो देश आशिल्ल्यान चडशी सगलेकडेन हीच परिस्थिती आशिल्ली. आसूं तें. मुख्य म्हणजे भुरग्यांनी ह्या वेळार खेळ सोंपोवन घरांभितर सरूकच जाय आसलें. आतां शाळेंतल्यान येवन भुरगीं बसलीं ठाण मांडून टीवी मुखार. कसलो व्यायाम आनी कसलो खेळ ? पयलीं ह्या वेळार भुरग्यांनी हातपांय धुवन देवामुखार एका सुरान 'शुभं करोति' म्हणपाचें, परवचा म्हणपाची, मागीर पांय पडणी सुरू... आपलेपरस व्हडांक सगल्यां म्हऱ्यांत वचूक नमस्कार करप ! सगलें येवजीतकच एकेकदां खरेंच मजा दिसता. त्या वेळार कंटाळो येतालो, पूण आज तें सगलें येवजिल्यारच मन त्या वातावरणांत पावता आनी जीव कसो शांत, प्रसन्न जात. आमगेर हांव सगल्यांत धाकटुलें म्हणटकच म्हाका कोणच पांयां पडपी नाशिल्लो. उरफाटें, हांवें मात सगल्यांमुखार वचून पांयां पडूंक जाय आशिल्लें. जण एकल्याचें नांव घेवन ताका नमस्कार ठोकीत भोंवप हें म्हाका मनापासून मानवना आशिल्लें. मागीर हांवय म्हजी तकली लडयतालें. घरांत एका जाग्यार उबें रावन मोट्यान आई पांयां पडटां, बाप्पा पांयां पडटां, बाबा पांयां पडटां करप – करतां करतां ताजें पायट्टां, पायट्टां जातालें. सगलीं जाणां हाजेवयल्यान चाळोवन म्हजो जीव खातालीं. आतां देवाक नमस्कार करून मनांतले मनांत ह्या सगल्यांक पांयां पडटना म्हज्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावतात. चार कोनशांनी चवग जाणां फाफसल्यांत. वर्सांतल्यान चुकून केन्नाय मेळटात तेन्ना ह्या सगळ्या प्रसंगांची उजळणी जाता आनी मन खोशयेन भरून येता.

संस्कार हे मनशांनीच तयार केल्यात. ताका लागून ते मनशांबरोबर काळाबरोबर दिशींमाशीं बदलत वतात. पयलीं जातीभेद आनी धर्मभेद खूब व्हड प्रमाणांत मानताले. किरिस्तांव भुरग्यांबरोबर खेळ्ळयार घरांतलीं तापतालीं, तांकां आफुडल्यार परत न्हावंक लायतालीं, शाळेंतल्यान येतकच कपडे काडून दुसरे घालचे पडटाले. खेड्यांनी हें चडच आसतालें.

आनी आतां एकमेकांगेर खाल्याजेवल्यार लेगीत चलता – खेळप खंयचें ? एकमेकांकडेन लग्नां लेगीत जातात. म्हजीं भुरगीं शेजारच्या सगल्या तरांच्या आनी धर्मांच्या भुरग्यांबरोबर खेळटात, मेजार बसून च्या पितात – तांकां पळेतां पळेतां म्हज्या भुरगेपणाचो इतिहास म्हज्या दोळ्यांमुखार उबो जाता.

'पाडपडिल्ल्या, पयलीं पडवेर चल–उंवाळून घाल्लें. घराभितर सरता तशेंच ? चल कपडे काड'. खेळून आयिल्ल्या म्हजेर पडिल्लो धेंगसो – म्हाका कांयच कळना, पूण घरांत अनवाळें – भश्टें खुब्ब – आजयेचो भयरोजोळोप, ताका लागून हो बोवाळ जातालो. भायल्यान येतकच कपडे कित्याक बदलप म्हाका कळनासलें. शेजारच्या मॅरीबरोबर खेळ्ळ्यार न्हावचें पडटालें – प्रभा, शीला बी घरांत येवन खेळ्ळ्यार जातालीं पूण ताणें भितर येवंक जायनासलें. ताका घेवन खेळ्ळ्यार म्हजेबरोबर बाकिचीं कोण खेळूंक येनासलीं. पूण ताणें दिल्ल्यो चॉकलेटी खाल्यार चलताल्यो. ताज्या बोटलेर बापायन हाडिल्ल्यो रिबिनी केंसांक उपकरताल्यो. सगलें येवजून म्हाका अजाप जातालें. मागीर व्हड जातां जातां सगले अर्थ समजूंक लागले. जाणटे पिळगेची धर्मीकताय, जातीभेद समजलो. पूण केन्नाच पटलो ना. लिपचोरयां हांव तांचेबरोबर खेळत रावलें. तांगेर गेलें – पूण घरांत कळूंक दिनासतना – जाणट्यांचें मन दुखयनासतना म्हाका जाय तें करीत रावलें. फुडें हॉस्टॅलांत रावतकच जाल्यार सगलींच बंधनां सदळ जालीं – मनाचे बांदय सुटले. सगल्या जातींचीं, धर्मांचीं भुरगीं एकठांय जावन शिकतालीं, खातालीं, जेवतालीं एकाच मेजार; रावतालीं एकेच कुडींत. आज सगलीं एकमेकांगेर खातात, जेवतात, उठ्ठा–बसतात पयलींभशेन. आतां कोणाक कांय दिसना. पूण अजूनय कांय सनातनी बामण घराणीं आसात -- भायर कितेंय शेण खाल्यार चलता, पूण घरांत मातशें उणे जातीचें भुरगें आयिल्लें तांकां मानवना. हें जालें एक आंग.

तेच प्रमाणें पयलींतेपार चलयांचेर खुब्ब बंधनां आसतालीं. मोट्यान हांसूंक जायना, धांवूंक जायना, सगलें मर्यादीत... चल्यांबरोबर उलोवंक फावोना, पावलांचो आवाज करिनासतना चलप हो मोटो गूण मानतालें.

उमथे मानेन घरांतल्या जाणटेल्यांचें सांगिल्लें आयकुपी चली खरें बरें अशें मानताले. लग्नाच्या वेळार जाल्यार ह्या सगल्या बाबींक चड वालोर आसतालो. आंगभर न्हेसपी, कपलाक व्हडलो कुकूम लावपी, ल्हवू चलपी, मंद हांसपी चली ही बऱ्या संस्कारांच्या घराण्यांतली – मोट्या खानदानी घराण्यांतली मानताले. पूण आतां हें चित्र सामकें बदलला. आतां अशी चली आसल्यार तिका 'आजीबाय' म्हणटले. धिटायेन दोळ्याक दोळो दिवन उलोवपी,चल्यांबरोबर हांसत खेळत वावुरपी, फॅशनेबल पोशाक करपी चली 'स्मार्ट' म्हणटात आनी मोट्या घराण्यांचे बदलते संस्कार रुपान दिश्टी पडटात. पयलीं परिस्थितीच तशी आशिल्ली. चल्यांक धड शिक्षण मेळपाची मारामार थंय चलयांक खंयचें शिक्षण ? चली म्हणजे परक्यांचें धन, शेवटाक तिका रान्नीकडेनच घश्टो काडपाचो, तिका कित्याक चड शिक्षण अशें म्हणटाले. चयलांची हुशारकाय अशे तरेन फुकट वताली. पूण आतां चल्यांक चल्यांसमान लेखतात. पयलीं चली जाली की रोखडें तोंड वांकडे जातालें सगल्यांचें आनी चलो म्हणजे आनंदी आनंद... पूण आतां चलो–चली असो भेदच ना. तीन चलयो जाल्यार लेगीत ऑपरेशन करून मेकळे जातात. चलो जावचेली वाट पळयनात. पयलीं सात आनी आठ भुरगीं जालीं तरी वंशाक दिवो जाय म्हणून भुरगीं जल्माक घालीत रावताले.

तशेंच म्हयन्याची पाळी म्हणजे व्हडलें प्रस्थ. हांगा हात लावंक जायना, थंय आफडूंक जायना. पूण आतां खंय कितें आसा ? मात आमचे सारके दोनाय अवस्थांतल्यान वचपी हे मदले पिळगेचे हाल जातात. जरी हांगा आफूड, थंय आफूड जायना जालें तरी कसल्याय बऱ्या कार्याक वचूंक वा देवाम्हऱ्यांत हात घालूंक मन थर्त भिंयेता. आतांच्या भुरग्यांभशेन हुसक्यामेकळें भोंवंक जमना. इतल्या तेंपाचे मनार जाल्ले संस्कार खंय वतले ? ह्या असल्या संस्कारांनी मन सामकें लहानपणासाकून करमलां तें कशें निवळत ? आनी मागीर नवे पिळगेकडल्यान आयकुचें पडटा.

तेच प्रमाणें गिराण मानपासारको संस्कार – तशें पळोवंक गेल्यार त्या वेळच्या रितीं फाटल्यान शास्त्रीय कारणां आसतालींच. आतां

सर्वसादारण लोक तें सगलें समजुचे नात म्हणून ताका धर्मीक रूप दिवन तें संस्काराच्या नांवान लोकांच्या गळ्यांत बांदताले. पयलीं गिराण पाळटाले – त्या वेळार जेवपाचें नासलें, उदक लेगीत तोंडांत घेनासले आनी गिराण सोंपतकीच न्हावन निर्मळ जावन बांयचें वा न्हंयचें नवे उदक हाडून रांदून जेवताले. आतांचे लोक आपूण गिराण बी कांय पाळिनात तें दाखोवंक मुद्दम ऐन त्या वेळार खातात–पितात. पूण त्या वेळार खरेंच पृथ्वीचेर चंद्राची सावळी पडटा – हवा दुशीत जावचेलो भंय म्हणून कितेंय रोगजंतू बी पोटांत वचून पिडा जावची न्हय म्हणून कांय खावप पिवप नासता. हें शास्त्र शिकतकच समजता. तेचप्रमाणें आदले लोक करताले तशी अतिताय करपाची गरज ना हेंय समजता. अनवाळें–भश्टें म्हणून कितें, नितळसाणीखातीर भलायकेखातीर पाळटाले, पूण ताजी अतिताय जावन मूळ हेत कुशीकच उरलो. फकत भपको मात उरलो आमच्या धर्मांत...

तशेंच, गुरवारी न्हिदून रावताल्यो. एके तरेचेंच वातावरण जाल्यान गुरवारींक पोटांतल्या भुरग्याक सांबाळपाखातीर ह्यो सगल्यो करण्यो आसतल्यो. ते वेध लागप सुर्याक जावं चंद्राक, पोटांत गिरी वता म्हणून भेश्टावप हातूंत तथ्य आशिल्लेंच. कितें तरी शास्त्रीय कारण हाजे फाटल्यान आसूंक जाय. ना जाल्यार भुरग्यांक भांड पडप, कसलेय दाग पडप हें कशें जाता ? सोडात. जाल्यार सांगपाचें म्हळ्यार आमचे मदले पिळगेक हें सगलें येवजता आनी कितेंय करूंक भंय दिसता. तेच प्रमाण आदल्या लोकांवरी अज्ञानाक लागून सगलेच खरें मानताले तशेंय धरूंक येना. कारण वाचनान ताजेफाटली शास्त्रीय बसका खबर आसतना – सामकेंच सोडूंक येना... कारण इतल्या तेंपाच्या संस्कारांक लागून भंय दिसता. कितें जायत, कात जायत म्हणून – एकूण धरल्यार चाबता आनी सोडल्यार पळटा अशी गत जावन पडल्या. धड हें ना आनी धड तें ना अशी त्रिशंकूची अवस्था जाल्या. मनांत श्रद्धा आसा आनी नाय बी. पयलींच्या लोकांची भावार्थान श्रद्धा आसताली; दृढ विश्वास आसतालो. पूण सगलें खबर आशिल्ल्यान ती निर्भेळ श्रद्धाय अर्दकुटें ज्ञान आशिल्ल्या आमच्या मनांत उत्पन्न जायना. तेच भशेन तशें न्हय अशें घट्टपणान म्हणूंकय भंय

दिसता.

तीच गजाल उपास तपासांची. आदल्या काळांतल्यो बायलो आनी पणजी वा आई लेगीत कसलोय तरेचो उपास म्हण वा वडापुनवेचो म्हण मोटे श्रद्धेन तांचे फाटल्यान आशिल्ल्या कथांचेर श्रद्धा दवरून करताल्यो. आतां आमी कितें ते उपास सोडल्यात अशें ना. पूण परंपरागत आशिल्ली रुढी म्हणून करूंक जाय म्हणून करतात. सावित्रीन श्रध्देन सत्यवानाचे प्राण यमराजा कडल्यान मेळयले हाजेर आमचे खंयचे बायलेचो विस्वास बसत ? पार्वतीन निर्जळी उपास करून, ध्यानस्त बसून पुजा केली म्हणून तिका म्हादेव घोव म्हणून मेळ्ळो हें कोण आयची बायल खरें धरत ? अशें हें सगलें त्रांगडें ! बरें. तातूंत सामकें तथ्य ना म्हणूनय मानूं नजो. एकूण एक दीस वेगळो आहार म्हणून वा लंघन म्हणून हे उपास आमचेकडल्यान करप जाता. देवांची पुजा करताना त्या भावार्थी बायलांवरी श्रद्धेन आमची पुजा जायना. एक रीत वा करूंक जाय म्हणून पुजा जाता. देवाचे मुर्तेंत कितें देव आसाशें मनांक दिसता ? ना. तेचप्रमाण देव नाच अशें आयचे तरणे पिळगेंतल्या लोकांक दिसता तशें ठामपणान आमी मानूंक शकनात. आमचे वयर एक अशी शक्त आसा की जिच्या संचलनान विश्वाचो वेपार चलता अशें मनाक दिसता. आतां ही शक्त फातराचे मुर्तेंत वा कागदाच्या फोट्यांत आसा अशें दिसना. पूण आपल्या मनाच्या समाधानाखातीर, कितेंय पूण एक ध्येय मेळूंक जाय, आपलो आत्मविस्वास वाडूंक जाय, संकश्टा वेळार आपणाक भितल्ल्यान धीर मेळूंक जाय म्हणून आमी देव मुर्तेंत वां फोट्यांत कल्पून ताजी पुजा करतात. जाता तें बऱ्यापसत म्हणटात, पूण देव करता तें बऱ्याखातीर अशें आदल्या लोकांवरी हे पिळगेक दिसचना, हो सगलो परिणाम त्या त्या काळाचो आनी ताजेबरोबर बदलपी आपणाल्या संस्कारांचो.

पूण तेचबरोबर हेंय मानूंक जाय की आदले सगलेच संस्कार वायट न्हय. व्हडांक मान दिवप हें खरें कितलें बरें. आमच्या वेळार बाई वा मास्तर म्हळ्यार आमचो जीव की प्राण आसतालो. घरांतल्यांनी लेगीत तांकां नांवां दवरूंक जायनासलीं. अजून लेगीत पयलींचीं तीं मनशां मेळटकच तोंड

सर्वसादारण लोक तें सगलें समजुचे नात म्हणून ताका धर्मीक रूप दिवन तें संस्काराच्या नांवान लोकांच्या गळ्यांत बांदताले. पयलीं गिराण पाळटाले – त्या वेळार जेवपाचें नासलें, उदक लेगीत तोंडांत घेनासले आनी गिराण सोंपतकीच न्हावन निर्मळ जावन बांयचें वा न्हंयचें नवे उदक हाडून रांदून जेवताले. आतांचे लोक आपूण गिराण बी कांय पाळिनात तें दाखोवंक मुद्दम ऐन त्या वेळार खातात–पितात. पूण त्या वेळार खरेंच पृथ्वीचेर चंद्राची सावळी पडटा – हवा दुशीत जावचेलो भंय म्हणून कितेंय रोगजंतू बी पोटांत वचून पिडा जावची न्हय म्हणून कांय खावप पिवप नासता. हें शास्त्र शिकतकच समजता. तेचप्रमाणें आदले लोक करताले तशी अतिताय करपाची गरज ना हेंय समजता. अनवाळें–भश्टें म्हणून कितें, नितळसाणीखातीर भलायकेखातीर पाळटाले, पूण ताजी अतिताय जावन मूळ हेत कुशीकच उरलो. फकत भपको मात उरलो आमच्या धर्मांत...

तशेंच, गुरवारी न्हिदून रावताल्यो. एके तरेचेंच वातावरण जाल्ल्यान गुरवारींक पोटांतल्या भुरग्याक सांबाळपाखातीर ह्यो सगल्यो करण्यो आसतल्यो. ते वेध लागप सुर्याक जावं चंद्राक, पोटांत गिरी वता म्हणून भेश्टावप हातूंत तथ्य आशिल्लेंच. कितें तरी शास्त्रीय कारण हाजे फाटल्यान आसूंक जाय. ना जाल्यार भुरग्यांक भांड पडप, कसलेय दाग पडप हें कशें जाता ? सोडात. जाल्यार सांगपाचें म्हळ्यार आमचे मदले पिळगेक हें सगलें येवजता आनी कितेंय करूंक भंय दिसता. तेच प्रमाण आदल्या लोकांवरी अज्ञानाक लागून सगलेच खरें मानताले तशेंय धरूंक येना. कारण वाचनान ताजेफाटली शास्त्रीय बसका खबर आसतना – सामकेंच सोडूंक येना... कारण इतल्या तेंपाच्या संस्कारांक लागून भंय दिसता. कितें जायत, कात जायत म्हणून – एकूण धरल्यार चाबता आनी सोडल्यार पळटा अशी गत जावन पडल्या. धड हें ना आनी धड तें ना अशी त्रिशंकूची अवस्था जाल्या. मनांत श्रद्धा आसा आनी नाय बी. पयलींच्या लोकांची भावार्थान श्रद्धा आसताली; दृढ विश्वास आसतालो. पूण सगलें खबर आशिल्ल्यान ती निर्भेळ श्रद्धाय अर्दकुटें ज्ञान आशिल्ल्या आमच्या मनांत उत्पन्न जायना. तेच भशेन तशें न्हय अशें घट्टपणान म्हणूंकय भंय

दिसता.

तीच गजाल उपास तपासांची. आदल्या काळांतल्यो बायलो आनी पणजी वा आई लेगीत कसलोय तरेचो उपास म्हण वा वडापुनवेचो म्हण मोटे श्रद्धेन तांचे फाटल्यान आशिल्ल्या कथांचेर श्रद्धा दवरून करताल्यो. आतां आमी कितें ते उपास सोडल्यात अशें ना. पूण परंपरागत आशिल्ली रुढी म्हणून करूंक जाय म्हणून करतात. सावित्रीन श्रध्देन सत्यवानाचे प्राण यमराजा कडल्यान मेळयले हाजेर आमचे खंयचे बायलेचो विस्वास बसत ? पार्वतीन निर्जळी उपास करून, ध्यानस्त बसून पुजा केली म्हणून तिका म्हादेव घोव म्हणून मेळ्ळो हें कोण आयची बायल खरें धरत ? अशें हें सगलें त्रांगडें ! बरें. तातूंत सामकें तथ्य ना म्हणूनय मानूं नजो. एकूण एक दीस वेगळो आहार म्हणून वा लंघन म्हणून हे उपास आमचेकडल्यान करप जाता. देवांची पुजा करताना त्या भावार्थी बायलांवरी श्रद्धेन आमची पुजा जायना. एक रीत वा करूंक जाय म्हणून पुजा जाता. देवाचे मुर्तेंत कितें देव आसाशें मनांक दिसता ? ना. तेचप्रमाण देव नाच अशें आयचे तरणे पिळगेंतल्या लोकांक दिसता तशें ठामपणान आमी मानूंक शकनात. आमचे वयर एक अशी शक्त आसा की जिच्या संचलनान विश्वाचो वेपार चलता अशें मनाक दिसता. आतां ही शक्त फातराचे मुर्तेंत वा कागदाच्या फोट्यांत आसा अशें दिसना. पूण आपल्या मनाच्या समाधानाखातीर, कितेंय पूण एक ध्येय मेळूंक जाय, आपलो आत्मविस्वास वाडूंक जाय, संकश्टा वेळार आपणाक भितल्ल्यान धीर मेळूंक जाय म्हणून आमी देव मुर्तेंत वा फोट्यांत कल्पून ताजी पुजा करतात. जाता तें बऱ्यापसत म्हणटात, पूण देव करता तें बऱ्याखातीर अशें आदल्या लोकांवरी हे पिळगेक दिसचना, हो सगलो परिणाम त्या त्या काळाचो आनी ताजेबरोबर बदलपी आपणाल्या संस्कारांचो.

पूण तेचबरोबर हेंय मानूंक जाय की आदले सगलेच संस्कार वायट न्हय. व्हडांक मान दिवप हें खरें कितलें बरें. आमच्या वेळार बाई वा मास्तर म्हळ्यार आमचो जीव की प्राण आसतालो. घरांतल्यांनी लेगीत तांकां नांवां दवरूंक जायनासलीं. अजून लेगीत पयलींचीं तीं मनशां मेळटकच तोंड

खोशयेन येद्दें जाता. पूण आयज असो काळ आयला, खासा भुरगींच आपणाल्या शिकोवप्यांक नांवां दवरतात, तांच्यो भानगडी रुचीन रवंथ करतात मागीर दुसऱ्यांनी नांवां दवरलीं म्हणून झगडपाचें सोडातूच. तांचेबरोबर नांवां दवरून आपुणूय तांच्या उलोवण्यांक तेंको दितात. आतां ह्या बदलाक त्या त्या वेळचीं मनशां, तांचो सबाव जबाबदार काय काळ जापसालदार तें खबर ना, पूण हो बदल दोळ्यांत भरसारको हें निखालस सत.

मनीस जल्मतसावन दर खिणाक ताजेर संस्कार घडत आसतात. भोंवतणची जण एक व्यक्ति आनी घडणूक आपणाक घडयता. भुरगेपणांतसावन आपणाल्या मनाचेर जे संस्कार जातात तांच्या आदारानच आमची जीण घडटा. हातूंत मागीर आवयबापूय, घरांतलीं मनशां, शेजारीपाजारी, बरोबर खेळपी–शिकपी इश्ट–वांगडी तशेंच शाळेंत शिकोवपी बाई–मास्तर हांचो आसपाव आसता. भुरगेंमन म्हणजे चिकटमातयेचो गुळो; ताका आकार दिता तशे ताजें रूप जाता. म्हणुनूच जे संस्कार भुरग्या मनाचेर जातात ते ताजे जिणेचो बुन्यादी फातर बसयतात – संस्कार हें उतर चांटयेपावलाक येता. ह्या उतराची व्याख्या करपच कुस्तार. संस्कार म्हणचे एक अत्यंत आदर्श अशें तत्व... संस्कार म्हणजे जिणेची भितल्ली सोबीतकाय. ताका तोड ना. वायट सोडप आनी बरें तें घेवप म्हणचे संस्कार... काळखांतल्यान उजवाडाकडेन व्हरपाचें सामर्थ्य अनित्याकडसून नित्याकडेन व्हरपाचें बळगें संस्कारच दितात. ताका लागून जिणेंतलें सूख आनी खोशी भोगूं येता.

मनशा जिणेक सारकें मोडण दिवप मनशाक खऱ्या अर्थान मनीस घडोवचेलें काम ही संस्कृताय करता आनी देखूनच मनीसजिणेचो अर्थ लायतना संस्कृतायेचो विचार करचो पडटा. जण एके संस्कृतायेक भायलें आंग आनी भितल्लें आंग अशीं दोन आंगां आसतात. आयदनां, घरां, भांगरांशिंगरां, कपडे, चित्रां, मुर्ती, रस्ते, माक्नां, सण, उत्सव, सुवाळे चालीरिती, शिश्टाचार आनी हेर अशें सगलें मेळून भायलें आंग तयार जाता. जाल्यार भास, साहित्य, कला, कवीत, नाटक, संगीत, शिल्प,

कायदो, धर्म, नीत, विज्ञान, तत्वज्ञान आनी राजनीत हांतल्यान उत्त्कीं जावपी मुल्यां मेळून भितल्लें आंग तयार जाता. भितल्लें आंग हो संस्कृतायेचो जीव म्हळ्यार जाता. कारण मनशाच्या व्यक्तित्वाची उदरगत आनी ताजे जिणेची सफळटाय ताजेर आदारून आसता. दोनूय आंगां एकमेकांचेर आदारून आशिल्ल्यान तीं वेगळीं काडूंक येनात. भितल्ल्या आंगांत ज्या मुल्यांचेर भर दिल्लो आसता ते वाटेन संस्कृताय प्रत्यक्षांत आकार घेता आनी तेप्रमाण मागीर तिची थरावीक जिणेची पद्दत घडटा.

फाटल्या पांच – स हजार वर्सांमदीं संवसारांत जायत्यो संस्कृतायो खरेपणान अस्तित्वांत आयल्यो. भारतीय संस्कृताय ही तांतलीच एक खूब आर्विल्ली आनी म्हान संस्कृताय. ती अजून तिगून आसा. आनी तिज्या भितल्ल्या आंगांत ब्रह्मविद्येक बरोच ऊंचेल्या पांवड्याचो जागो फावो जाला. हे संस्कृतायेंत आजमेरेन जायत्यो चडट्यो – देंवत्यो आयल्यो. पूण ज्या ज्या वेळार तिच्यांत व्हड प्रमाणांत क्रांती जाल्या त्या त्या वेळार ब्रह्मविद्या वा अध्यात्मविचार हीच तिजी बुन्याद आसली अशें इतिहास सांगीत आयला. सध्याक विज्ञान संस्कृतायेन आपणालो संवसार थाटला. संवसारावयल्या सगल्या समाजांनी वेव्हारीक जीण तिणें साप बदलून उडयल्या अशें जरी आसलें तरी आमी भारतीय लोक ब्रह्मविद्येक म्हणचेच अध्यात्मीक अणभवाचेर आदारिल्ले संताचे जिणेक सर्वश्रेश्ट मानतात.

संस्कृताय ही फकत वाचनानच वाडना. संस्कार करपी माध्यमां जायतीं आसात. पूण तातूंत साहित्य आनी उलोवण्याचें खूब म्हत्व आसा. सांगपाचें म्हळ्यार पयलींची संस्कृताय आरती आनी भजनाची आसली जाल्यार आयची संस्कृताय रोम्बो, सोम्बो आनी ट्विस्टाची !... भुरग्यांची नैतीक नदर सामकी इबाडत चल्ल्या. टिवीक लागून जाल्यार साप्पच पेड्ड्यार जाल्यांत भुरगीं... आमी घोव आनी बायल इतलें म्हणपाक लेगीत भिंयेतालीं. हालींचीं पोरां येदींशीं आसतना मोगाचेर, लग्नाचेर उलयतात. इतलेंच कित्याक, सरकाराच्या बरेपणान कुटूंबयेवजण आनी गर्भ निरोधकांची लेगीत तांका भुरगेपणांतच वळख जाल्या. आयच्या काळाची ही संस्कृताय जायत आयल्या.

म्हणूनच आमचीं मनां भिंयेल्लीं जाल्यांत. आमच्या समाजाचेर आनी पर्यायान हालींच्या भुरग्यांचेर अस्तमेचे संस्कृतायेचो भयंकर गाड परिणाम जायत आसा. 'फॉरेनचें पिशें' आमचे मानगुटेर बसलां. हाजेर वेळारच फावो ते उपाय जालेनात जाल्यार परक्यांची विफलताय आमचे समाजीक जिणेचो ऱ्हास केलेबगर रावची ना. हें फॉरेन भूत उतरावपाचें काम घाडीभगतांचें न्हय जाल्यार तुमच्या आमच्या सारकिल्या सुशिक्षीत, सुसंस्कृत मनशांच्या हातांत आसा.

समाजीक बांदिलकी हालींच्या भुरग्यांक मातलेगीत ना. इतलेंच कित्याक, घरच्या मनशांविशीं लेगीत आपणाक दिसता तितलें आपलेपण तांकां दिसना. खरेंच, ही तरणी पिळगी इतली कशी बदलल्या ? भावनेपरस कर्तव्य व्हड म्हणटां म्हणटां भावनेचेर वेव्हारान मात केल्या. ताका लागून एकमेकांमदले संबंद मायेमोगापरस चड रूक्ष आनी वेव्हारी जायत गेल्यात. भारतांतल्या वाडट्या वृध्दाश्रमांतल्यान हेंच सिद्ध जायना मूं ?

आनी ह्या सगल्याक लागून संस्कृतायेचे हे धागे आपणाल्या हातांतल्यान सुटून वचचे न्हय म्हणून आमी मनापासून धडपडटात. भुरग्यांक उलोवंक येतकच 'शुभं करोति...' 'मना सज्जना' हांचे सारकिले श्लोक शिकयतात; तांचेर बरे संस्कार करपाक धडपडटात. जेवंक मेळटा तें देवादयेन, देवाची याद करून उंडी उखलची, जेवण हें पोटाभरीचें न्हय, तो एक यज्ञ अशें तांकां शिकयतात. साद्या साद्या सदांच्या गजालींकडेन पळोवपाची आमची भारतीयांची जी एक उदात्त जिणेची नदर आसा ती ही अशी अपूर्व ! आपणाल्या वांट्याक आयिल्ली मनीसजीण कशेय भशेन सारिनासतना आपूण करतां ती दरेक गजाल म्हत्वाची आसा, अर्थपूर्ण हो विचारच उमेदीन भरिल्लो कसो. एका अन्नकणाखातीर सगलें जग धांवपळ करता त्या वेळार हो विचार केदो व्हड ! आनी म्हणूनच भारतीय संस्कृताय ही आख्ख्या संवसाराचो आदर्श रावल्या.



# पावस पडे पावस पडे कातयांत...

वैशाख सोंपत येतां येतां आमची वर्सासनाची पिरपीर सुरू जाता– 'आवयस !, कितें रे बाबा अंदू माय तापला, कसलें कडक वत हें...' पळोवंक गेल्यार मायांत वर्सानवर्स अशेंच वत आसता पूण आमकां मात पोरूंपरस अंदू हें वत खर जायत वता. पावस हें उतर भर मायांत आयकतकच लेगीत जिवाक कशें थंड–धादोस दिसता... आनी मागीर केन्ना एकदां पावस येता काय जाता. वताचेर उलयतां उलयतां मागीर पावसाचीं नक्षत्रां कशीं वतलीं, कातयांनी पावस पडत मूं काय त्यो सुक्यो वतल्यो हाजेर बेठीच चिंता करीत बसप. खरें पळेल्यार ही फुक्याची चिंता करचेली आमकां गरजच ना. वयर मळबांत बशिल्लो आसा ताजो भरीभार घेवपाक. पूण आमकां चिंता पडटा ताजें कारण वेगळेंच... ह्या चार म्हयन्यांतल्या पावसाचेर आमगेलो फुडल्या वर्साचो पुरुमेंत आदारिल्लो आसता.

उदक ह्या उतराबराबर भारतीय मन उंचाबळ जाता. ह्या उदकाकडेन आमची सामकी गांठ बांदल्या. केन्ना वरूणदेव रागार गे फुगार जालो म्हणून वा बांयो, न्हंयो आटल्यो म्हणून आमी दोळयांतल्यान उदक काडूंक जाय. जाल्यार, केन्ना हो पावस अती प्रसन्न जालो जाल्यार न्हंयांक उटंगारांचो हुंवार येवन आमच्या दोळ्यांकय हुंवार हाडटा. उदकाबगर आमचें जेवण–खाण, न्हाण–धूण कांयच जायना. आमचे पुजेकय उदक जाय आनी आमकां आंवपाकय उदक जाय. शूभ–अशूभ घटकेक आमकां उदक लागताच. म्हणून चातकाभशेन आमी ह्या पावसाची वाट पळेतात. दोळ्यांत जीव हाडून प्रतिक्षा करतात. कवडुलो पोर 'पावसा योव, पावसा

योव' करून आड्ड–आड्डून ताळो सुकयता. धर्तरी आंवडेता. झाडांपेडां तरशेतात. शेतकामती मळबाक नदर लावन बसता. भुरगीं 'यो रे यो रे पावसा, तुका दिता पयसो' करून पावसाक लालूच दाखयतात.

आनी सगल्यांची उमळशीक तेंगशेक पावतकीच सगलीं जाणां येवकार दिवंक तयार जाल्यांतशीं पळोवन एकदांची पर्जन्यराजाची स्वारी येंवची तयारी करता – धडाम् धुड्डम करीत ताशे वाजंत्र्यांच्या आवाजांत म्हणचे कुपांचो गडगड, जोगलांचो लखलख करीत एकदांचें ह्या म्हाराजाचें आगमन जाता. (भुरगेपणांत हाकाच आमी मळबांत म्हातारी दळटा म्हणटालीं).

अकस्मात पावस शिरशिरूंक लागता. धर्तरी आंगापांगान फुलून येता – कवळ्या कोंबाच्या रुपान. झाडांपेडां पावसांत न्हातात. माड–माडयांचीं पानां निकतेंच न्हाण घालून काडिल्ल्या ल्हान भुरग्यांवरी तट्टटीत जातात. झाडाझाडांतल्यान पाचवेंपण तिकतिकता. डामरी रस्ते उदकान धुवन काळे – कुळकुळीत जातात. सगलें सैम नितळ सोबीत जाता.

ल्हानपणासावन तिनूय ऋतूंतलो हो वर्षाऋतू म्हज्या भोव घोस्ताचो. तो दाटून आयिल्लो गुडूप काळोख, भोंवतणचो थंड शिरशिरो, त्या उदका पावळ्यांचो आवाज, व्हाळांचो खळखळ, कुपांचो गडगड आनी तांतल्यान चकचकपी जोगलां काळजांतल्यान कितें तरी करपाची घडोवपाची स्फूर्त घेवन येतात. हाका खरें हाका सातरंगीच म्हणूंक जाय. हो तेंप मनांत जायत्या तरांचे रंग जागयता. केन्ना घो घो ओतपी शत धारयांनी विषण्ण करता जल्यार केन्ना मंद शिरशिरावन उर्बेभरीत करता. केन्नाकेन्ना मनाक हळूबाय करून सोडटा, जाल्यार केन्ना यादींनी घुसपायता. केन्ना आकूळ–पिकूळ करता. अशा ह्या पावसार आनी पावसातेंपार कवीत आनी हेर लेखन खूब जालां... ह्या तेंपार बरोवंक बरें स्फुरता. ह्या वर्षाऋतूचेर म्हाकवी कालिदासा सारकिल्या फांकिवंत संस्कृत कवीन व्हड व्हड कवनां बरयल्यांत. हाजें योग्य वर्णन आमी कशें करूं शकत? तरी लेगीत यथाशक्ती यथामती करपाचो हो यत्न...

हो पावस येतना कितें एकलो येता? जूनांत पावसातेंप कोमेस

जाता. तेचपरी शाळा कॉलेजांय सुरू जातात. मागीर रस्त्यांनी दिसता तो देखाव मनुभुलोवणो दिसता. वयल्यान पावस शिरशिरता आनी रस्त्यार व्हांवत्या उदकांत पांय नाचयत तरेतरेचे रंगयाळे बोटवे, पानांफुलांच्या आकृतायांच्यो कापोती, रंगयाळ्यो सत्र्यो घेवन भोंवपी ल्हान–व्हड भुरगीं दिश्टी पडटात. पावसा उदकांत खेळत–खिदळत चलपी त्या भुरग्यांक पळोवन आपलें भुरगेपण याद जायनासतना रावपी एक तरी सभागी मेळत ? आमी कशीं मातयेंत बांद घालून उदक आडायतालीं, म्हजो–तुजो करून झगडटालीं, एकमेकांचे सत्रेंत कशीं रिगतालीं सगलें सगलें येवजता. खरें म्हळ्यार हो वर्सानवर्स एकूच देखावो पूण तातूंत नित्यनवें वेगळेपण दिसता. हालींचे कारखानदार, दुकानदारय नव्यो नव्यो रंगीत कापोती आनी सत्र्यांची निर्मिती करून हातूंत नविदाद हाडटात. असो हो पावस आपलेबरोबर शाळा–कॉलेजां सुरू करूनच उदेता. गणभेस नवे, कादेर्न, पुस्तकां नवीं–सगल्यांचो नवो वास नाकांत रिगता. पूण काळजाच्या सात पड्ड्यांनी लिपयिल्लें खरें सांगचें जाल्यार पावसाचे पयले दडकेबरोबर येवपी मातयेचो वास आगळोच... तो वासच वेगळो. ताका तोड ना. हो मातयेचो वास सगल्यांक आवडटा. मनशां सोडातूच, पशु–पक्षी लेगीत ह्या वासान गूंग जावन गायतात, नाचतात. झाडां नितळ नवींताल्ल जावन वाऱ्यावांगडा धोलतात. धवींफुल्ल चमेलीचीं फुलां चंवरतात. पावसा थेंबाकणकणीं सकल टपटपतात.

इल्लो इल्लो पावसाचो नेट चडूंक लागता. न्हंयांक हुंवार येता. सगलेकडेन चिकचीक जाता. घाल्लो पांय रेबटांत पडटकच 'पाड पडलें ह्या पावसाचें; आयलो जाल्यार कितलो येवचो कळना. ना जाल्यार नाच.' अशें म्हणून लोक खेपूंक लागतात. खेड्यांत व्हडलो पावस कोसळ्ळो म्हणून पेन ना पूण शारांतल्या लोकांची सामकी कुचंबणा जाता. रिपरिपांत भोंवप तांच्या जिवार येता.

पावसाचीं काव्यात्म वर्णनां सदांच जातात. गडगडत येवपी सजलश्यामघनांत सगल्यांक जीवनमय संवसारांची आस्वासनां मेळटात, कोणाक शिरशिरपी रश्मीधारो भुलयतात. पूण पावसाक लागून जावपी

वित्रागाचीं, त्रासाचीं वर्णनां नासतातच.

'शेजारचा नाला येता पावसाळा, थोर बळावल्या घरोदारीं' अशें म्हणून फांकिवंत मराठी कवीन – चिं. त्र्यं. खानोलकरांनी – फकत कोडू वस्तुस्थितीचें यथार्थ वर्णन स्पश्टपणान केलां. मुंबय सारकिल्या शारांत हरशींच सांडउदकाची वेवस्था बरोबर नासता तेन्ना पयल्या पावसान मातये परमळ हवेंत रिगून मन सुखावचेपरस गटारां तुंबतात आनी सगलेकडेन घाण येता – वास मारता. रस्त्याकडांनी फोंडकुलांनी उदक सांचता--केन्ना केन्ना ह्या घाण उदकान रस्ते भरतात. डोंबीवली सारकिल्या भागांत जाल्यार रेल्वे स्टेशनाभायर सरलें की कमरभर गटाराच्या उदकांतल्यान चलचें पडटा– हें दुर्भाग्य हेर कितल्याशा मुंबयकारांच्या नशिबांत बरयलां. हाजेपरस व्हड दुर्भाग्य म्हणचे सकल सकल भागांत आशिल्ल्या बसक्या घरांनी बंगल्यांनी ही गटारगंगा भरता – उदक वचना आनी मोटे उमेदीन मांडिल्ल्या संवसाराची, केल्ल्या फर्निचराची वाट वाट लायता – हीं शारां मेळटात तशीं अवाढव्य, अवास्तव वाडत गेल्यांत. मनशांचे वाडटे संख्येबरोबर सगल्यो सुखसोयी फाटीं पडत वतात. खरें म्हणजे पियेवपाचें उदक आनी गटाराचें उदक हाजेपसत सामकी वेगवेगळी वेवस्था आसूंक जाय, अशें व्हड भलायकी जाणकारांचें सांगणें – पूण अशी वेवस्था करप खूब खर्चीक. गटारां उक्तीं आसचीं न्हय, घाण उदकाच्या पायपाक चीर आसची न्हय, तें मदींच फुटून झिरपूंक लागल्यार रोखडें सारकें करूंक जाय – सदां तपासून पळोवंक जाय, ना जाल्यार तें सगल्याक फाफसता; पावसा उदका बरोबर सगलेकडेन व्हांवता. पियेवपाच्या उदकांत भरसता आनी मागीर साबार तरांचे रोग जातात. टायफॉयड, पॅराटायफॉयड, कॉलरा, पोलिओ, हागवण, कामीण असल्यो नसत्यो पिडा बऱ्याबऱ्यांक जाता. भुरग्यांक त्रास चड. शाळा बुडटा, आरोग्य सदांखातीर इबाडटा, केन्ना केन्ना जीवय घेता. उदक सामकें फटकिरें. ह्या तेंपार तें गाळून सळसळावनच पियेवंक जाय. भायलें उदक वा खाण घेवचें न्हय. ना जाल्यार ह्यो असल्यो तरातरांच्यो पिडा जावन मनीस त्रासांत पडटा. उदकाक जीवन म्हणटात पूण आहारशास्त्रीय नेम काटेकोरपणान पाळ्ळे

नात जाल्यार तेंच मरण थारता.

फाटीं मुंबय पडिल्लो पावस हो तांतलोच – ताज्या अक्राळविक्राळ रुपान अख्ख्या शारार अरिश्ट कोसळ्ळें – मुंबयचें सदांचें गतीमान चक्र बंद पडलें. हाका लागून त्यो व्हडल्यो व्हडल्यो बसी गाडयो आडखळ्ळ्यो. सगलें काम थप्प. गाडयो मदींच आडळिल्ल्यान 'ना घरका ना घाटका' म्हणत लोक मदींच आडखळ्ळे. ऑफिसांत वचूंक गेल्ले पूण ऑफीस ना आनी घराय वचूंक मेळना अशी जाली स्थिती... बावड्या झोंपडपट्टीवाल्यांचीं गाडगीं मडकीं उदकार व्हांवलीं – संवसार वाऱ्यार उबले. व्हडल्यो व्हडल्यो बिल्डिंगो पडून कितलीं मनशां मेलीं. दुकानां बुडून गंव, तांदूळ, साकर आनी हेर खाणां जिन्नस उदकार्पण जाले. कपडे भिजून कुसले – मातयेमोलाचे जाले.

पूण मुंबयकार मोटे उमेदीचे. कितलेंय मळब फुटून पावस ओतूं मोटारींच्यो रांको लागिल्ल्योच.. तातूंत आनीक स्कुटरी आनी सायकली. मनशां केन्ना फाल्तच नात. ह्या जाळांतल्यान, चक्रव्युहांतल्यांत वाट काडीत ऑफिसांत धांवतात, मस्टर चुकचो न्हय म्हणून. गाडयो लेट, सत्र्यो उमथतात, पूण भिजत गच्च गाडयेंत हुमकळत लोक आपले कामांक धांवतात ते धांवतातच. असो हो पावस. जगन्मित्र पूण केन्ना केन्ना भल्याभल्यांचो दुस्मान जावन बसता. उत्तर प्रदेश, बिहार सारकिल्या भागांनी पावसाचें हें अक्राळ विक्राळ रूप सदांच दिश्टी पडटा. पावसाचेर असो अच्छेव आयल्यार शेतां आनी गांवांचे गांव ह्या हुंवारांनी बुडटात. आनी मागीर लोकाजीणच विस्कळीत जावन वता. असो हो पावसा तेंप... दर वर्सा सात जूनाक मीर्ग लागता. कातयो सुरू. म्हणचे कितें जाता ? जाल्यार सुर्याचो मृगनक्षत्रांत प्रवेश जाता. हेंवय खरें न्हय... कारण सुर्याची भोंवडी हो भास. तेभायर सूर्य आनी मृगनक्षत्र हांतलें प्रचंड अंतर. पूण वर्सानिवर्स ही भासमान भोंवडी आनी मृगनक्षत्र प्रवेश सदांच सात जूनाक जाता हें तितलेंच खरें... ह्या सात जूनाक म्हत्व इतलेच पसत कीं ह्या दिसासावन पावसा तेंप सुरू अशी आमची कल्पना. असो हो पावसा तेंप म्हणजेच मॉन्सून कसो येता हाजो सोद जाणकार सतत घेत आसात. तांणी

आतांमेरेन एकठांयल्ली ही थोडी म्हायती.

धर्तरेवयले खरे खंय दोनूच ऋतू–वता दीस आनी शिंयातेंप. पूण आमच्या भारतांत मात पावसा तेंप हो आनीक एक ऋतू–वर्षाऋतू. हांगा पावस सदांच जून ते ऑक्टोबरामेरेन पडटा. आनी होच तेंप भारताचो पिकेचो जीव जावन रावला... हो पावस जाय तेन्ना आनी फावो तसो जाल्यार पीक घेऽऽ म्हणून. तशेंच पावसाप्रमाणें वर्साचो उदाकापुरुमेंत जाता–हाका मॉन्सून हें नांव कशें पडलें ? मॉन्सून हें उतर मूळ अरबी–मोसिम म्हणचेच मोसम–ऋतू.

वतातेंपार नैऋत्येकडसून येवपी वारें दक्षीण आशियाक पावसान झोडपिता जाल्यार शिंयातेंपार तें उरफाटें घुंवून इंडोनेशिया, ऑस्ट्रेलिया ह्या भागांनी पावस ओतयता. खरो पावसाचो अदमास म्हणचे उपगिऱ्यांच्या आदारान घेतिल्लीं चित्रां, कम्प्युटराचे नमुने हांचे मदतीन जाणकार बरोच अचूक अंदाज सांगूंक शकतात. तरी तो सारको येवप तशें मोटें कुस्तार...

धर्तरेच्या एकूण हवामानांत मॉन्सून हो एक व्हडांत व्हड घटक. हाका लागून धर्तरेवयली उश्णताय एकेकडल्यान दुसरेकडेन वता आनी म्हणून सोंसपासारकें वातावरण तयार जावन हांगाची जीवसृश्ट तिगूंक शकता. पावस नासतो जाल्या धर्तरेवयलें उश्णतायेचें संतुलन जावपाक नासलें मागीर सुर्याचीं किर्णां पडटात थंय सोंसूं नजो अशी गरमी जाल्यार मध्य आशियांत येवजूं नजो अशें शीं पडटलें आसलें.

मुळांत मॉन्सून म्हणचे एक व्हडलें Heat engine – म्हणचे उश्णताये यंत्र जमीन आनी उदक हांच्या वेगवेगळया प्रमाणांतल्या तापपाक लागून हवेचीं व्हड प्रमाणांत आवर्तनां जातात. वता दिसांनी जमीन खूब तापता. उदक त्या मानान थंड उरता कारण तें व्हांवतें आसता. उदक आपणाल्या वयल्या थरांत चड तेंप उश्णताय सांठोवन दवरता. वारो सगले धर्तरेचेर धांवता खरो पूण धर्तरेचो आस कलिल्ल्यान आनी तिज्या आपले भोंवतणीं भोंवपाक लागून ह्या वाऱ्यांक दिशा मेळटा. जमीन तापिल्ल्यान गरम हवा वयर वता. त्या जाग्यार समुद्रावयल्यान येवपी थंड हवा ओडटा.

हे हवेंत बाष्प आसता आनी ती जमनीर येतकच पावस पडटा. वाफ थंड जातकच जी 'लेटण्ट एनर्जी' मेकळी जाता ताका लागून भोंवतणची हवा गरम जावन वयर वता. मागीर समुद्राकडल्यान आनीक थंड हवा हांगा ओडटा. जमीन जशीजशी पावसान थंड जायत वता तशेंतशें उश्णतोचें केंद्र अनी हवेचो प्रवाह भितल्ल्या भुखंडाकडेन धुकलतात.

भारताच्या मॉन्सुनाच्यो दोन खांदयो–अरबी समुद्रांतली खांदी अस्तम घाटार येता आनी भितल्ल्या भागांत पसरता. बंगालाच्या उपसागरांतल्यान येवपी दुसरी खांदी हिमालयामेरेन वचून परत गंगेचे देगेर मोडण घेता. जे मेरेन जमीन गरम उरता ते मेरेन पावशी वाऱ्याचें हें हालप–धोलप चालू उरता. पृथ्वीच्या उत्तर गोलांत जेन्ना शिंयातेंप आसता त्या वेळार समुद्र जमनीपरस चड गरम आसता. आशियांतली थंड हवा दर्याकडेन ओडटा आनी दुसरो नैऋत्य मॉन्सून सुरू जाता.

पूण ह्या यंत्राचो तीनशें वर्सांमेरेन अभ्यास करून लेगीत अजून सारके अदमास येनात. सगलेंच अदमासपंचे घावोदरशें. हें खरें की मॉन्सुनाचें चड चड निरीक्षण जायत आसा तितलें तितलें हें चित्र चडच गोंदळाचें जायत वता अशें जाणकार सांगतात. पूण कांय जाण म्हणटात आतां ही यंत्रणा आमकां पुराय समजता. १९७८–७९ वर्सा मॉनॅक्स ह्या नांवाची एक येवजण जाल्ली, तातूंत ३३ राष्ट्रां, तीनशांपरस चड शास्त्रज्ञ, पांच उपगिरे, जायत्यो बोटी तशेंच कितल्याशा विमानांनी वांटो घेतिल्लो. हांतल्यान जायती खबर एकठायल्या आनी मॉन्सुनाचें चित्र पुराय करीत हाडलां अशें समजता.

अरबी समुद्रांत तयार जावपी खांदी श्रीलंका आनी भारताचे मलबार देगेर उटंगारांचो पावस ओतता. बंगालाच्या उपसागरांतली दुसरी खांदी अस्तंत बंगाल, बांगलादेशार वादळी पावस ओतता. ही खांदी हिमालयार आपटून परत येता आनी गंगेचे देगेर पावस पडटा. जुलयांत सुमार अरबी समुद्र आनी बंगालाच्या उपसागराच्यो खांदयो मध्य भारतांत एकठांय येतात आनी सप्टेंबर मेरेन हो मोसम सोंपता.

भारताचो सामको जीव काय प्राण असो हो पावस इतलो खळखळपी

की ताजी खात्री दिवं नजो. आतां आतां इन्सॅट–बी वयल्यान भारतावयलें कुपांचें चित्र स्पश्ट दिसता आनी पावसाविशीं सारको अदमास सांगूं येता. असो हो पावसा तेंप सगल्या प्रदेशाचें मुखामळच बदलून उडयता. पाचव्या पाचव्या दोंगुल्ल्यांनी खळखळत व्हांवपी वझऱ्यांचें धवेंफुल्ल मोतयांचुऱ्यापरी उदक–जशे ल्हान व्हड दुदसागरच... न्हंयो जाल्यार भरून ओततात– पावसा तेंपावयल्या तरेकवार झाडाझुडपांनी सगलेकडेन आपणाले संवसार थाटिल्ले आसतात. ह्या सगल्या वातावरणांत हीं रानबाळकां भोव मनभुलोवणीं दिसतात. हरशीं नदरेक लेगीत पडनाशिल्लीं तरेकतरेचीं रोंपां पावस सुरू जालो रे जालो किल्लून येतात. खंय गुडूप जाल्ले बेबे खंयच्या खांची कोनशांनी येवन बसतात– ड्रांव ड्रांव सुरान 'हांव कोण तूं कोण बेब्या बायल जाता कोण...' करीत तांणी मंगलाश्टकां म्हणूंक सुरवात केली की ह्यो व्हंकलो नटून थटून उब्यो ! पावस सोंपतकच खंय अंतर्धान पावतात ताचें तेच जाणात.

पावस म्हणचे खोशी, चैतन्य, प्रसन्नताय ! म्हणून ल्हान व्हड ताका होरायतात. पावसय येता. धर्तरी खुशालता. कणाकणान बिंयां आंकुरतात–पांचवो शालू न्हेसून सैम पावसाक येवकार दिता. असो हो पावस... सगल्यांक नवी जीण दिवपी... ह्याच पावसान केन्ना रुद्रावतार धारण केल्यार सगलें रूपच बदलता– जीवघेणो थारता. अख्खो संवसार मातयेभरवण करता. तरी लेगीत सगले ताका आंवडेतात. कवनां गायत आफयतात...

'पावसा पावसा यो रे यो, यो रे यो...' आनी पावसय पिसो. पोरूं वर्सा संविल्ल्यो गाळी विसरून परत आमचेर प्रसन्न जाता. सहस्त्रधारांनी कोसळटा... रिमझीम रिमझीम...



# सोदता मूय साकरेकण...

हालींच्या ह्या यंत्रयुगांत मनशाचे जिणेची शाश्वती दिवप मोटे कुस्तार... कोणाक केन्ना कितें जायत हें कोणाच्यानच सांगूं नजो, चित्रच काडूं नजो. अशा ह्या बेभरवंशाच्या संवसारांत मेळटा त्या खिणांतल्यान म्होंवामुसांवरी कणाकणान सूख सोदल्यारच पार लागपाचो. नाजाल्यार सदांच आमटाणीवरी खुमणें घेवन हेडूंक जाय. मागीर आपलीच जीण आपणाक भारभूत जाता. सगलें व्यर्थ दिसून तनमन विषण्णतायेन भरून वता. तेपरस मेळटा तो सुखा खीण वेंचपाचो यत्न केल्यार हातूंत एकेक दीस कसो सरता तेंच समजना. जीण हांसत खेळत उमेदीन सारूं येता.

मनीस हो सदांच आशेचेर जियेता. आपणालो, आपणाल्या भुरग्याबाळांचो फुडार बरो जावंक आंवडेता. दादलो–बायल हीं संवसाररथाचीं दोन चक्रां... हालींच्या काळाची गरज वळखून दोगांकय अर्थीक भार सोंसचो पडटा. पयलींभशेन बायलो फकत भुरगीं आनी रान्नीपोल्ल सांबाळीत बसनात. आतां घोवाच्या खांदाक खांदो तेंकोवन तांकां नोकरीय करची पडटा. ताका लागून बायलांक भायर पावल घालचें पडटा. पयलीं दादल्याच्या आदाराबगर भायर सरनाशिल्ले बायलेक सगल्या तरांच्या प्रसंगांक फुडो करून तोंड दिवचेंच पडटा. आपणाल्या संवसारांतलो ताप जण एकाचे तकलेक कितें थोडो आसता ? पूण ह्या सगल्याची खंत बाळगिनासतना साद्या साद्या बाबींतल्यान खोसी सोदून काडची पडटा.

लोकल आनी रेल्वेचो प्रवास हो मुंबयंत नोकरी करपी बायलांचे जिणेचो एक अविभाज्य भाग जावन पडला. तांची जीण म्हणचे एक मशीनच जाल्या. घडयाळीच्या कांट्याच्या तालार कसरत करपी... कांय

कांय जाणांक जाल्यार ल्हान दूद पितल्या भुरग्यांक लेगीत पाळण्याघरांनी वा कोणाय भुरगीं सांबाळपी बायलांकडेन सोडून कामाक वचचें पडटा. जांच्या घरांत कोणय जाणटीं मनशां आदाराक आसतात तीं भाग्यवान म्हणूंक जाय. पूण हालींच्या ह्या 'हम दो हमारे दो' चे विभक्त कुटूंब पद्दतींत अशे केसी दुर्मीळ... अशे तरेन भुरगीं दुसऱ्यांच्या हातांत सोंपोवन गरजेपसत तांकां नोकरेक धांवचें पडटा. मानसीक आनी शारिरीक दोशींवटेन त्रास. हातूंत आनीक पयसुल्ल्यान येवप्यांक वरांचीं वरां प्रवासांत काडचीं पडटात. घर, संवसार, नोकरी ही ओडाताण चुकचना पूण त्याच वेळार ह्या प्रवासांत जुळिल्ले इश्टागतीचे म्होवे रस्मी धागे आनी सहभावना जपचीशी दिसता. मागीर ती थारावीक गाडी, तांतलीं मनशां आपलींशीं जावन वतात. तांच्या सहवासापसत मागीर तीच थारावीक गाडी धरप आनी ती धरपापसत घरचें काम बेगीन सोंपोवचेली कसरत. जिवार आकांतून गाडयेंत उडी मारप. बसूंक जागो मेळटा ती भाग्यवान–वांगडचो ग्रूप आसल्यार थोडो थोडो वेळ सगल्यांकच मातशें तेंकपाक मेळटा. जागो ना जाल्यार मदीं जागो पळोवन भारतीय बैठक लेगीत मारप, वा हुमकळत उबें रावप आनी बरोबरच्यां बरोबर झांकड्यो मारीत हांसत वेळ पासार करप... तातूंतच एकमेकांचें पळोवन स्वेटर विणप, भरप, वाचप चालू जाता. एकेकदां एकमेकांचीं नांवां, आडनांवां लेगीत खबर नासतात. मागीर ८–१५, ९–३०, हींच कॉमन नांवां त्या त्या ग्रुपाचीं.

अशे तरेन धांवत – पळत वचप, बसीचे लायनीक रखडप, चडच वेळ जायसो दिसल्यार टॅक्सीन ऑफिसांत वचप– थंय वचून मस्टर सायन केलो की अर्दें काम जालें; तो खीण गांठचे पसत हो सगलो उपद्व्याप आनी तातूंतच जिणेचें सार्थक. तरी लेगीत कोणय सहसा नोकरी सोडूंक मागिना पूण स साठीं, बारा माशीं चुकून कोणेंय ती सोडल्यार तिजेर सामको घवघवीत परब्यांचो पावस ओतप, तिका भाग्याची म्हणप कित्याक तर एक तरी जीव ह्या हालअपेश्टांतल्यान मेकळो जातलो हाजी खोसी व्हड !

सांजच्या पांच संच्या अदमासाक वीटी वा चर्चगेट स्टेशनार वचून पळोवंक जाय लोकांची हीऽऽ झुंडी... तातूंत आपलो मनीस सोदून काडप

भोव कठीण !... गोंयां आमच्या जात्रा फेस्तां थारावीक काळार, पूण हांगा सदांच जात्रा आनी सदांच फेरी... सुरवेक ती गर्दी पळोवन संवय नाशिल्ल्याक गळसणिल्लेवरी जाता. मुयांभशेन मनशां ट्रनीची चातकाभशेन वाट ताकतना पळोवन अजाप जाता... अचकीत मागीर तो खीण येता. वाट पळयतल्या बायलांमदीं उत्साहाचो संचार जाता, सोरपाभशेन वांकडी तिकडी जायत येवपी ट्रेन दिसनाबराबर गळ्यांतल्यो पर्सी हातांत आंवळून, पदर गच्च कमराक खोवन, ओडण्यो घट करीत ट्रेनीचेर घुरी घालूंक सगलीं सामकीं सज्ज जातात. ट्रेन थांबचेपयलींच मनशां देंवचेपयलींच फटाफट उडयो घेवन संवकळीच्यो बायलो जागो धरून मेकळ्यो... खिणाभितर डबो गच्च भरता. पोतयेंत दामून चेपून मुस्तायकी गच्च भरतकच वयर तुवालो चिड्डुचो आनी ताजें तोंक पोतयेंतल्यान हुमकळत उरचें तशें कितेशें दिसता. वेळार येवन गाडी धरपी सभागी दारांतल्यान चेपत आसतात – बुयांवांत दोणांतल्यो आमल्यो दामून चेपून घालतकच वयर चेपणाक फातर दवरचे तशे – असले हे गाडयेंत दारांत हुमकळत प्रवास करप हें तर महत् भाग्य.

सकाळचें बरें आसता. टायमींग वेगवेगळे. पूण सांजचीं ऑफिसां सादारण एकाच वेळार सुट्टात मागीर घेऽऽ गर्दी–... प्रत्येकाक घरची ओड लागिल्ली आसता. कोणालीं भुरगीं वाट पळयतात, कोणालीं कामां ! चुकून खंयचीय गाडी कॅन्सल जाल्यार मागीर विचारपाचें ना. मरणाची गर्दी – मागीर मुखार भुरगें, गुरवार बायल, म्हातारी, कांय पळेनासतना फुडें घुसपाची गडबड ! कोण पडटा धडटा–ताजेर पांय दिवन हेर भितर घुसतात. मनीसपण लेगीत विसरतात. हातूंत आनीक भाजीवाली, नुस्तेकान्नी, आगरी, फेरीवाले आसल्यार सोंसपाचें ना. मातशें तांच्या सामानाक पांय लागल्यार पुरो – सात पिळग्यांचो उध्दार जाता. हांगाचीं झगडींय थरावीक छापाचीं – तुजें बॅग तकलेक लागता म्हळ्यार पुरो, लागतलीच गर्देंत, अशें जावपाचेंच ही जाप... कितें धुकलतात म्हळयार पुरो इतली नाजूक राणी आसल्यार टॅक्सीन वचचें म्हणून कुच्छित्री सल्लो मेळ्ळोच म्हणून समजुचें. प्रत्येक स्टेशनार चडपा देंवपाची धुमश्चक्री जाता

ती जाल्यार अवर्णनीय...

गाडी वेग घेता आनी हळू हळू सगलेकडेन स्थीर – स्थावर जावंक लागता, जण एकाचो वेगवेगळो शेक–वेगवेगळें राज्य सुरू जाता. कांय जाणां पुस्तका उक्तीं करतात, कोणालें विणपाचें, शिवण बी भायर सरता. इतलेंच न्हय जाल्यार वाटेर घेतिल्ली भाजीय चार हातांनी मोडून खुडून तयार जाता. हें सगलें करतना आपलेभितर सूख–दुखाच्यो खबरो चालूच आसतात. कोण नवे टांके शिकता. कोण नवो पदार्थ कसो करप तें विचारून घेता. बेठ्ठो बसून वेळ वगडावचे परस हें जायतें बरें.

टीवी सिरीयल हो उलोवपाचो सगल्यांचो घोस्ताचो विशय–तातूंन मागीर खंयचो प्रोग्राम बरो आसता, कोण कशी ॲक्टींग करता हाजेर सुदबूद विसरून खबरी, मतभेद, वाद सगलें चलता. दुसरे वटेन कोणाल्या ऑफिसांतल्यो खबरी चलतात. बॉस कितलो खडूस, कसो त्रास करता, कोण मदत करता – सगलें समजता. तिसऱ्या कोनशाक कोणाली मांय कशी छळटा आनी नणन कशी धोसता हाजेर उलोवणीं. सांगपी रडकुरी परतून आपणाल्यो हालअपेश्टा वर्णिता. भोंवतणचीं चुकचुकत काकूट करतात. कोण कसले कसले फुकट सल्ले दितात. कोण अणभवाचे बोल सांगतात– एकूण हें जगच वेगळें दिसता.

पूण इतलें आसूनय हे जिणेची, गर्देची इतली संवकळ जाल्ली आसता की ही गती ना जाल्यार जीण अळणी जाता. मनशाक करता ती संवय, सदांचे हे धांवडेचो उबग येवन कोणय म्हयनोभर सुटी काडून सुशेगाद रावंक म्हणून आपणाल्या शांत गांवांनी वतात – पूण अशे तशे आठ दीस काडटात– मागीर मन वळवळटा, तळमळटा, वाज येवंक लागता. केन्नाकाय सुटी सोंपून आपूण आपल्या सदच्या जगांत वता अशें तांकां जाता.

गर्देच्या ह्या जगांत वेगवेगळ्या धर्मांचीं, जातीचीं, सभावाचीं मनशां एकठांय जातात. सर्वधर्मसहिष्णुता वाडटा. मागीर एकमेकांच्यो चालीरिती, जेवणखाण सगलें एकमेकाकडल्यान शिकूंक मेळटा. एकेकदां दोन भिन्न भुगोलीक भागांतल्यो बायलो एकमेकांच्यो घनिश्ट इश्टिणी

जावन वतात–तांकां लागून दोन वेगवेगळीं कुटुंबां एक जातात...

थारावीक गाडयेंतल्या थारावीक डब्यांतल्यो मैत्रिणी एक जातात. तांचें शॉपींग, हॉटेलींग, सिनेमा, पिकनिको अदींमदीं थारतात. केन्ना कोणाचें लग्न, कोणाल्या भुरग्याची मूज, ताकाय मागीर एकठांय येवन वचप– एकठांय भेट घेवप चलता. इतलेंच कित्याक ? गुरवार मैत्रिणीक एकठांय येवन कोणाक केळवण करतात, गुरवारीच्या दुवाळ्यांची पुरवणतात. अशे आपले सदांचे त्रस्त जिणेंतल्यान वेंचून घेवप हाजेसारकें भाग्य दुसरें ना. हे बाबतींत आमी मुयेक आमचो गुरू करून आनी तिच्या देखादेखीन अशे हे दुर्मीळ साकरेकण वेंचून काडीत जाल्यार संवसाराच्या दुदाचें अमृत जावंक कळाव लागचोना.



# भायरी...

'जाणा मगे मामी, हालीं अजय साप्पच पोटाक घेना. कितें करप गे हाका?'

'ताका भायरी बी केन्ना घाल्ली गो ?' मामीली पृच्छा ... तिज्या तोंडांतल्यान भायरी हें उतर भायर सरतनाच हांवें कच्च करून आंग काडलें. सांगपा बोवाळांत तिज्या तें लक्षांत आयलेंना. ती सांगतच आशिल्ली. 'त्यो माग्नेजी फिग्नेजी घालनाका आं. सगल्यांत बरें एंडेल.' आवयस् भायरी आनी तेंवूय एंडेल. ह्या एंडेलान म्हज्या भुरगेपणांतले कांय नासयिल्ले खीण, म्हज्या दोळ्यांमुखार आयले– अजय दूद घेना हे म्हजे उबगणीचेर जायत्या जाणांनी हावें ताका भायरी घालून पळोवची ही मोलादीक सुचोवणी केल्ली. पूण हांवें भोगिल्ले त्रास म्हज्या भुरग्यान भोगचे अशें म्हाका केन्नाच दिसलें ना. हे खातीर अजयाक भायरी घालचेपरस तो पोटाक घेना ही तक्रार करपच हांवें बंद केल्लें. पूण आज मामीन 'भुरगो सामकोच बडकेलासो गो' अशें विचारतकच म्हाका हें सांगचें पडिल्लें. पूण तिणेंय तोच उपाय म्हजेमुखार दवरलो.

'आगो, ती कितें सांगता ते आयकलां ?' मामीच्या उलोवण्याकडेन म्हजें लक्ष ना हें बाप्पाच्या लक्षांत येवन ताणें म्हाका शिटकायलें तशें हांव सावरलें. 'पूण मामी, दोतोरच भायरी घालनाका म्हणटात न्हय गे हालीं ?' मामीचें मत खोडपाचो म्हजो हो निमाणो यत्न आशिल्लो.

'त्या दोतोरांचें पडलें पाड... हांव सांगतां तें तूं आयक. एक कुलेरभर एंडेल दिवन पळय ताका.' मामीच्या ह्या सांगण्याचेर हांव कितें उलयतलें ? पूण तिज्या उतरांनी म्हाका म्हज्या आईची याद जाली. कितलींशींच वर्सां हुपून हांव म्हज्या भुरगेपणांत पावलें.

आमचे आईचो प्रत्येक सुटयेंत–म्हणचे वर्साक दोन तीन फावटीं हो भायरेचो प्रोग्राम आसतालोच. तेंवूय बी एंडेल. ताका लागून केन्नाकेन्नाय म्हज्या भुरग्यामनाक सुटी येवचीच न्हय अशें दिस. भायरेची ही ख्यास्त आमचे पिळगेच्या जणा एका भुरग्याक अदीक उण्या प्रमाणांत भोगची पडल्या जातली. त्या दिसाचो तो बोवाळ, आपणाक भायरी पडची न्हय म्हणून केल्ली ती टाळाटाळ आनी ती फोर्सान घालपाची जाणटेल्यांची उमेद–जण एकाक हाजो अदीक उणो अणभव आयलाच जातलो ल्हानपणांत. ल्हानपणांतच कित्याक, ह्या चार पांच वर्सापयलीं लेगीत म्हाका ही फोर्साची भायरी घेवची पडटाली. त्या मनान हालींची पिळगी खरीच भाग्यवान. हेर सगल्या बाबींप्रमाण भायरेचे बाबींतय तांकां चान्स पडला. दोतोरच आतां भायरी घालनाका म्हणटात. ती पोटाक माल पडटा अशें तांचें मत. इतलो तेंप जल्मा येतसावन मरसर भायरी घेतिल्ल्यांच्या पोटांक कांय माल गेलेंच ना. ती गजाल सोडात. हालींच्या भुरग्यांनी तें एंडेल म्हण्टात तें पळेलेंच ना जातलें. आमच्या वेळार भुरगें म्हयन्याचें जावचे पयलींच ताजेर कुलेरभर एंडेलाचो मारो आतरेपयऱ्यान चालू जातालो. आमचो गांव सामकें खेडें–थंय प्रत्येकागेर ही चाल... त्या वेळार कुकुल्या भुरग्याचो तो घळघळ – इतलें ल्हान आसून लेगीत– जेन्ना रूच म्हणचे कितें तें लेगीत समजना – त्या भुरग्याची एंडेल घेवच्या वेळार केल्ली ती खळबळ आयकतकच जिवाक कितें जातालें म्हणून सांगूं ?

असली ती भायरी पडची न्हय म्हणून हांवय सदांच मनापसून यत्न करतालें. पूण ल्हानपणांतले चडशे सगलेच यत्न व्हडांमुखार निरुपयोगीच जातात हाजो म्हाका पुराय अणभव आयला. आतां माग्नेज, माती – गोबर तरतरा आयल्यात. पयलीं कितें नाशिल्ल्यो अशें न्हय, पूण पेटंट भायरी म्हणचे एंडेल. आनी आईलो एंडेलाचेरच चड विस्वास !...

हे भायरेक लागून जिणेंतल्या कितल्याशाच बऱ्या वस्तूंक भायरें जावचें पडलां म्हाका... आई आमकां एंडेल घालतना खुटे च्यांत मिक्स करून दिताली आनी परत वयल्यान एक कोप खुटी च्या... खरें म्हणचे च्या म्हज्या इतल्या घोस्ताची आशिल्ली. च्या पिना जाल्यार म्हजी तकली

रोखडी दुखताली. दोळे तांबडेच जाताले. पूण जाण येतकच तीच च्या म्हाका सोडून दिवची पडली. कारण–भायरी... आनी आनीक दुसरें कितें आसतलें ? च्याच्या वासानच म्हाका भायरेची याद जावची. ताका लागून आतां वता थंय हांव त्रासांत पडटां आनी लोकांकय त्रासांत उडयतां. तांकां च्या बदला दुसरें कितेंय करचें पडटा न्हय ? आसूं तें. ह्या एंडेलाक लागून हांव तुपाकय भायरें जाल्लें. आतां मातशें मातशें खातां.

बरें, त्रास तरी थोडे हे भायरेचे ? पयलीं म्हणचे, बऱ्या आयताराचो वा खंयच्याय एका सुटये दिसाचो सामको विचको जावप. कितेंय कसलोय स्पेशल प्रोग्राम दवरचेलो मांदो ना. घेतना त्यो घाणी... शी... येवजूनच पोटांत धवळटा. एंडेल म्हणटनाच ती खुटी च्या, ताजेवयर धरकेल कशें तरंगपी तो एंडेलाचो बुळबुळीत पातळ द्रव आनी तोंडांत घेतकच एके तरेची वीट येसारकी ती दळभद्री रूच... शी... थू... येवजिल्यार आतां लेगीन तोंडांत थुकी येता... ह्या एंडेलाक इतलें हांव विटिल्लें की कोणय दुसरें भायरी घेता जाल्यार लेगीत हांव ते वटेन पासार जायना आशिल्लें आनी गेल्यारय दोळ्यांर हात धरून एका हातान नाक घट धरून वचचें पड. फुडें फुडें आईबरोबर भावाच्या चल्याक बी केन्नाय एंडेल घालतना आदाराक गेल्यार ताका भायरी लागचेपयलीं म्हज्या पोटांत घांस मारताले. शी... येवजूंक लेगीत नजो आतां ते दीस...

म्हाका भायरी घालप हो एक व्हडलो आक्तच जातालो घरांत . . ही भायरी म्हणचे म्हाका एके तरेचें गिराणच लागतालें म्हळ्यार जाता. पयले रातची आईकडल्यान वॉर्नींग मेळटाली. 'फाल्यां सकाळीं बेगीन ऊठ आं बाय, भायरी घेवपाची आसा तुका.' आनी तेन्नासावन म्हाका भायरेचे वेध लागताले. न्हीद लेगीत धड पडनासली – दुसऱ्या दिसाच्या भंयान. आनी पडलीय जाल्यार अक्राळविक्राळ रुपान भायरी सपनांत नाचताली. परिणाम... न्हिदेचो सामको सत्यानाश. आनी ताका लागून दुसऱ्या दिसा दोळे उक्ते जावंकच कबूल जायनासले. सकाळीं स साडेसंक म्हाका उल्यार उले पडटाले. आई, बाप्पा, भाव भयणी सगल्यांनी तरातरांनी उठोवचेलो यत्न करप. पूण न्हिदेची गुंगी – काय फुडल्या प्रकरणाच्या भंयाची गुंगी

जायत, म्हाका दोळे उक्ते करूंक दिनाशिल्ली. न्हिदून रावन आयचें मरण फाल्यांचेर धुकलपाची ती तजवीच जावये. ताजेर मागीर जण एकल्याचे आणे सुरू.

आयज पळय उठ्ठा जाल्यार. बद्द कुंभकर्णाची भयण जालां 'ऊठ आतां तूं. आज तुज्या नशिबांतली भायरी कशीच चुकना.' इति म्हजी भयण... आज एकलें आपटल्यार दुसऱ्याक आवयस् जाता. पूण ल्हानपणांत दुसऱ्याक अशे त्रास जाल्ले पळोवनच मजा येताली. म्हजो भायरेचो दीस म्हणचे ताजी आनंदाची पर्वणीच ! अशे तरेन सगल्यांलें उठोवन जातकच साडेआठांक सुमार 'आतां उठ्ठा काय हाडूं गो बडी' अशी रागीट सुरांत आईची निमाणी सुचना मेळटकच 'बरीं आसात, एक दीस न्हिदूंक लेगीत दिनात तीं. ऊं ऊं' अशें तोंडांतले तोंडांत पुटपुटत फडफडत उठप. तोंड धुवपाक वतनाच त्या स्पेशल जाग्यार मांडिल्लें तें कोप, ती लिंबा फोड वा दोणांतली आमली, तें च्यावन अर्दो धीर सोंपयतालीं – आज आपले फाटली ही भायरेची पनवत कशीच चुकना हें लक्षांत येवन व्हड सुस्कारो सोडीत तोंड घुवपाच्या पांच मिनटांच्या कामाक अर्द वर लागतालें.

'जालें काय ना गो तोंड धुवन, काय आज दिसयभर मान्यांतच बसतलें ?' हो घेंगसो कानार पडटकच भायर सरचेंच पडटालें. चल वेळ जालो. तुका म्हणून थोडें एंडेल घालां पळय.' थोडें हाजेर फोर्स दीत फुसलायत आई म्हाका त्या स्पेशल जाग्यार हाडटाली. 'आवयस ! हें थोडें...' तें उपाट भरिल्लें कोप पळोवन म्हजो आवरोच उडटालो. दोळे धांपून म्हज्यो किळच्यो सुरू जाताल्यो. आगो, सगली च्याच ती, थोडें एंडेल पळय.' आई समजायताली. पूण ताज्या त्या दर्शनानच म्हज्या पोटांत घांस मारतालो म्हणून त्या जाग्यांत लेगीत हांव वरांचीं वरां बसूंक तयार जातालें. पूण दारार येवन आई उलो करताली म्हणटकच उठचेंच पडटालें.

तें कोप– म्हऱ्यांत मजा पळोवंक राविल्लीं भांवडां पळोवन म्हजेर आकांत येतालो. आईली लाडीगोडी चालूच आसताली. 'बरें म्हजे अपुरबायेचें तें – सांगिल्लें आयकुचें पापया. चल दोळे धांप, कोप तोंडाक लाय आनी कुट्ट कर. हांव धरतां जाय जाल्यार. एका मिनटाचें काम,

ताका अशीं वरांचीं वरां काडनाका. चल, शाणें म्हजें तें.' पूण इतल्याचेर खंय सोंपतालें ? सगलीं जाणां म्हाका तरेकतरांची आस्त दाखयतालीं. बापूय च्यॉकलेटी दिवपाचो वायदो करतालो. आई दनपरां म्हजें आवडीचें सुंगटां–सुकें करतां म्हणून फुलयताली. भाव नवें पुस्तक हाडून दिवपाचें आस्वासन दितालो जाल्यार भयण आपणालें नवें पॅन दिवपाचें थरयताली – आनी ह्या सगल्या प्रलोभनांचे भरीक पडून दोळे धांपून हांव कोप उबारतालें. पूण तोणाम्हन्यांत व्हरचे पैलींच म्हज्या नाकांत वास रिगतालो आनी पोटांतल्यान उमळून येतालें. 'ऑक्...' करून हांव कोप परतें जमनीर आपटितालें– वयलें थोडें मिश्रण जमनीर पडटालें आनी तें पळोवन सगलींच म्हजेर फेर्र जातालीं. तांचीं तापोवणीं सुरू जातालीं. म्हजी फजेत पळोवन सगलीं हांसो चिड्डितालीं, पूण भयण मदींच 'खीक्' करताली आनी 'ताका पयलीं धांवडाय हांगाचें' म्हणून म्हज्यो किळच्यो सुरू जाताल्यो. आईचें तापोवणें, सगल्यांचो बोवाळ ह्या आवाजांनी शेजारच्यो म्हज्यो इश्ट–इश्टीणी एकठांय जाताल्यो. शेवटाक बाबान हातांत बडी काडून, 'घेता काय ना आतां, चड फकाणां जाली तुजीं' म्हणनाफुडें हांव 'फाल्यां घेतां गे' म्हणून आशेन आईच्या तोंडाक पळेतालें. पूण म्हजेवयली सगली माया आटोवन म्हज्या पोटाच्या बऱ्याखातीर ती कशीच विरगळ नाशिल्ली. परिस्थिती बदलताली पळेनाफुडें भोंवतणचें वातावरण पळौनच 'सिदन्ति मम गात्राणी सुखंच परिशुष्यति' अशी अर्जुनाभशेन म्हजी स्थिती जाताली आनी दोळे धांपून कोप तोंडाक लावचें पडटालें. आं, आनी पळय, 'परत ओंकलें बी जाल्यार बाटले बाटली ताळ्यांत रकयतलों.' बाबाचे हे शिटकावणेक भिवन तें रुचिभायलें द्रव तोंडांतल्यान भायर सरचें न्हय म्हणून म्हाका मोटोच यत्न करचो पडटालो. आनी 'आं, आतां कशें शाणें जालें, घे हो लिंबू चोख म्हणून वाल्यान तोंड पुशीत आई त्या प्रोग्रामाक पूर्णविराम दिताली.

पूण तो खरो पूर्णविराम जायनासलो. ही म्हजी त्या दिसाच्या त्रासांची सुरवात जाताली. ते भायरेक लागून सकाळची च्या, कॉफी, खाण सगलें बंद, दीसभर संडासांत धांव मारप आनी दोळ्यांमुखार नाका असो

पेजेनिवळ तोंड वांकडें करीत पिवप... दनपरां जेवण कितलेंय घोस्ताचें आसलें तरी भायरेन रूच गेल्ल्या तोंडाक कितेंच बरें लागनाशिल्लें. मुख्य म्हणचे पाणट्यार न्हावंक वचूंक मेळनासलें; ती मजा त्या दिसापुरती तरी चुकताली. आनी सांजचें जाम जावन न्हिदिल्ल्यान खेळय ना, अशे हालहाल जाताले. आज लेगीत केन्नाय हें येवजतकच जीव सामको आकूळ–पिकूळ जाता. अशे तरेन वेळान उठप संडासांत वरांचीं वरां काडप, शेजाऱ्यांगेर वचून लिपप, फाल्यांचे वायदे करप ह्या खंयच्याय यत्नाक बळी पडनासतना शेवट तो भायरेचो प्रोग्राम करचोच पडटालो. ते भोग खंयचेच सुटयेंत चुकनासले. सुटी पडनाफुडें केन्नाय तरी एक दीस भायरेचें हें संकश्ट 'दत्त' म्हणून उबें जातलें हें येवजूनच सुटयेचे सगले खोशयेचो निचरो करतालें.

त्या तेंपार एक फावट म्हाका पुर्राद पडिल्लें आसा. कॅडबरी च्यॉकलेटींचो म्हाका खुब्ब घोस्त, देखून भाऊ शेनवारा घरा येतना सदांच म्हाका एक कॅडबरी घेवन येतालो. पूण ती कॅडबरी खावची लेगीत हांव तेन्ना भायरें जाल्लें– हे पाडपडिल्ले भायरेकूच लागून. एंडेल घेवपा वेळावयले म्हजे ते विकळाप पळोवं नजो जावन तेन्ना नव्यानच येवंक लागिल्ली भायरेची च्यॉकलेट म्हाका हाडून दिल्ली भाऊन. च्यॉकलेटी नांवार ती खपली. पूण मागीर जाल्ल्या त्रासांनी हांवें च्यॉकलेटीचोच भंय घेतलो. असली ही भायरी !

व्हड जातकच केन्ना तरी म्हाका 'दुर्देवी बनी' हें पुस्तक वाचूंक मेळ्ळें तातूंत ते बनीक आनी ताज्या भांवडांक बापायच्या भायरेच्या घोस्ताक लागून दर आयतारा बशीभर एंडेल बापायचे पंक्तीक घेवचें पडटालें हें वाचून ताजेपरस हांव कितलेंशेंच सुखी हाजेरच हांव समाधान मानूंक लागलें. खंयच्याय मनशाक भायरेचो घोस्त आसता हें त्या पुस्तकांतलें म्हणणें मात म्हाका केन्नाच पटनाशिल्लें. पूण मागीर हांवें म्हज्याच दोळ्यांनी बनीच्या बापायची आवृत्ती पळयली तेन्ना म्हजे दोळे खरेंच न्हिवले. आमच्या गांवचोच हो मनीस एक दीस म्हज्या भायरेच्या प्रोग्रामा वेळार आमगेर पावलो. आनी 'आंवंय आंवंय, इल्लेंशें एंडेल घेवंक

इतलो बोवाळ ? हांव म्होंव खाल्लेभशेन बोटांनी चाटूनच तें खातां. नाजाल्यार चपातेक लावन दियात ताका. चॅप चॅप.' अशी मिटक्यो मारीत फर्माईश करूंक लागलो. म्हज्या मनांत तो फकाणांच करता म्हणून. पूण तो खरेंच 'बोले तैसा चाले' प्राणी आशिल्लो – निदान हे बाबतींत तरी. एक दीस दुकानावयल्यान एंडेलाचो दोणो चाटीत भायर सरतना हांवें ताका पळयलो आनी म्हजी खात्री पटली.

असोच आनीक एक भुरगो आसा. जो कोणेंय घरांतल्या मनशांनी एंडेल घेतकच तें कोप ल्हेंवन खातालो खंय. शी... अशी एंडेलाची रूच आशिल्लीं मनशां खरींच दुर्मीळ रत्नां... ताका पसऱ्यावयल्यान आनी कसलीय वस्त हांडूक लायताली, पूण न्हय एंडेल ! ओसाची बाटली हाडूंक लायल्यार पसऱ्यावयल्यान घरा पावसर तो ती अर्दी करतालो खंय. वयल्यान 'शे ! हालींच्या ह्या बाटलेंतल्या एंडेलाक वासच ना. बेठें मेकळें मेळटालें ताका काय बरो वास येतालो. तें खरें एंडेल... अशें म्हणपी हे खरे एंडेलाचे दर्दी !... ना जाल्यार आमी एंडेलाच्या नांवान रडपाक बाद. तांकां एंडेलांच्या पिंपांत बुडोवन दवरल्यार लेगीत कांयच जावचें ना अशें म्हाका दिसता.

तशें पळोवंक गेल्यार भायरी हो शब्द कानार पडटकच खंयच्याय मनशाचें तोंड वाकडें जालेबगर रावना (खेरीज करून हे वयले एक दोन आडवाद ) म्हणूनच कोणालेंय तोंड मातशें वांकडे दिसल्यार 'आज कितें सामकें भायरी घेतिल्ले भशेन तोंड केलां रे ?' वा 'सामकेंच बाये एंडेल पिल्ल्या तोंडाचें' म्हणून संभावना करतात. म्हणून हे भायरेन पोट साफ जालें, भलायकी बरी उरली, अशें एक ना दोन; हजार जरी बरे गूण आसले तरी भायरी ह्या उतराक भोवमान असो कोणाच कडल्यान आनी केन्नाय मेळपाक ना.

दुसरोय एक वाक्प्रचार सर्रास वापरतात आनी तो म्हणचे भायरी दिवप हो. हाजो शब्दशा अर्थ जितलो वायट तितलोच दुसरो अर्थ गंभीर. 'आज दितां तांकां सारकी भायरी' वा 'हांवें ताका सारकी बरी भायरी दिली' म्हणचे ताका सारकी बरी बुद्द शिकयली. म्हज्या मनांत ह्या

उतराइतली अरुची आनी धास्त खंयच्याच उतराविशीं ना... कारण – आसूं तें... सगलेंच सांगपासारकें नासता.

आईफाटल्यान हांवें भायरी घेवपासंबंदीं कोणाचेंच सांगणें कानार घेतलें ना. आजून बाळंत जावचे तारखेचे दोन तीन दीस पयलीं दोतोर एंडेल घेवंक फर्मायतात. म्हाकाय म्हज्या दोतोरणीन तशें सांगिल्लें. बाटली हाडून घरांत तयार दवरिल्ली पूण अजयानच म्हजेर उपकार केले. दिल्ले तारखेचे आठ–धा दीस पयलींच ताणें जल्म घेतलो आनी अजाणतां म्हजी दुस्मान जी भायरी तिज्या तोंडांतल्यान म्हाका वाटायलें आनी हांव जाणूनबुजून अशे तरेन ताका त्रासांत कशें उडयतलें. ना. ताणें पोटाक घेना जाल्यार जाता. पूण ताजे वाटेक हे भायरेक वचूंक हांव कशेंच दिवचेलें ना...



## नातें...

'ए, ती केसरी कापड न्हेसल्या ती कोण गो ?' 'खंयची गे ?' 'ती गो सुधाबरोबर बायण्यार बसल्या ती.' 'आं आं, ती मगे सुधाले नण्डेले जावेच्या चलयेची मांय.' खंयचेय जात्रेक वच, मागीर ती कवळेंची पंचम आसूं, फातर्पेंच्यो सत्र्यो आसूं वा तो जांबावलेचो गुलाल आसूं–हीं असलीं उलोवणीं कानार पडटात तेन्ना नात्यांच्या ह्या भोंवऱ्यांभितर म्हजें मन बुचकळ्यो मारूंक लागता. अकस्मात नाकातोंडांत उदक वतकच जिवाक कितें जातलें ? (अर्थांत तें बुडटल्याकच खबर. तकली चडटा आनी हांव थंयच्यान दुसरेकडेन वचूंक सोदतां, पूण थंय तरी कितें वेगळें आसता ? तेंच चलिल्लें आसता.

'जाणा मगा दामुदर, ह्या सालेलकारालो साडू तो म्हज्या बापायल्या भावाचो मेवणो.' म्हजी तकली चडच भिरभिरता आनी जात्रा नाका पूण ही नातीं कुशीन दवर म्हणचेलो प्रसंग म्हजेर येता.

अर्थांत म्हज्या ह्या उलोवण्याचेर कोणाकय दिसत हांव सामकें मनीसघाणें म्हणून. पूण तशें न्हय आं. उरफाटें, म्हाका मनशांची खूब ओड. ल्हानपणांत आमगेर कोणय सोयरीं येतकच तांणी वचचें न्हये म्हणून हांव तांची जोतीं लिपोवन दवरतालें खंय. हें कित्याक, मोटारीच्या वा गाडयेच्या साद्या पंदरावीस मिनटांच्या प्रवासांत लेगीत हांवें इश्टागती जोडिल्ल्यो आसात. म्हजें नूक आसा तें नात्यांचेर–त्या मनशांचेर न्हय. ल्हानपणासावन म्हज्या लक्षांत नातीं उरप भोव कुस्तार. त्या कामाक म्हजी तकली सॉलीड मंद म्हळ्यार जाता. आनी ताकाच लागून काय कितें जाणा कोण, पूण हांव ल्हानपणांत सदांच नातीं कशीं कशीं आसतात तें पाठ

करीत बसतालें.

हाचेवयल्यान याद जाली. शाळेंत आसतना म्हजे भयणीन एक आपउलोवप बरयिल्लें आनी हांवें तें सादर केल्लें. तातूंत भितर आशिल्लें : मास्तरान व्याकरणांत नातेंदर्शक शब्द हो धडो शिकयतकीच हांवें मास्तराक विचारलें, 'मास्तर, म्हज्या मामाली चली म्हजी मामेभयण लागता. म्हज्या मामाली एक म्हस आसा ती म्हजी कोण लागता. मामेम्हस ? हांसतात पळे कशीं तोंण घेवन !' खरेंच, हांवें तेन्ना अशें म्हणिल्लें–(तुमी हांसतात म्हणून म्हळें ना आं) आनी तेन्नासावन भुरगीं म्हाकाच मामेम्हस म्हणटालीं. मदींच कथेंत ही आडकथा–जाल्यारूय, तेन्नासावन नातीं कशीं कात आसतात हें हांव बारीकसाणीन लक्षांत घेवंक लागलें. पूण बाकी सगल्या क्षेत्रांनी चलपी मेंदू पाडपडिल्लो ह्याच कामांत सामको 'ढ' जावन पडलो. अजून लेगीत आतेभाव मामेभाव करतना हांव उरफाटें – तिरफाटें उलयतां. जाव–भावज म्हणटना भावजेची जाव केन्ना जायत सांगूं नजो–पयर आनीक कोणाकडेन उलयतना हांवें पुष्पाल्या देराक आमगेल्या भावोजीचो देर म्हळें हाजेवयल्यान हे बाबतींत म्हजी तकली कितली धांवता हें वेगळें आनीक सांगचेली गरजच ना.

म्हाका दिसता एकाद्रें आमचीं नातीं चडशीं नाशिल्ल्यान (वा चलय नाशिल्ल्यान जायत) मामा आनी काकावयर म्हाका नातींच खबर नात. म्हजी आवय एकलीच आशिल्ली. म्हणचे, म्हाका मावशी ना ( हाका लागून सदांच खंत पावपी प्राणी हांव... लोकांल्या मावशांनी आपल्या भाचरांची इतलेंच न्हय जाल्यार खुद्द आमी आमच्या भाचरांची अपुरबाय केल्ली पळेतकच म्हज्या हड्ड्यांत एक पोकळीशी तयार जाता. 'माय मरूं आनी मावशी उरूं' ही म्हणणी म्हाका अणभवूंक मेळ्ळीच ना) तशो बापोल तिपोल मावशो आसात खंय, पूण केन्ना जल्मांत पळयल्यो नात. फाटीं सोयरीकेंतल्याच कोणाच्या तरी लग्नाक गेल्लेकडेन मामीन एके बायलेक म्हजे म्हऱ्यांत हाडली, 'हिका वळखता हय गो ?' तिणें विचारलें. 'शे... ना...' म्हजी स्पश्ट जाप (जावं बाये, हय वळखतां जावं विसरलें, कांयच न्हय जाल्यार याद जायना म्हणप कांय ना. स्पश्टच ना म्हणप–कितें

हें स्पश्टपण...)

'आगो, ही तुजी मावशेभयण' मामीचें स्पश्टीकरण आनी वयर वखलाशी, 'हय, तें बावडें कशें वळखतलें ? चडशें येवप वचपच ना न्हय.' मावशेभयण ? हें आनी कितें अजाप ? म्हाका कांय मावशी ना मगीर ही खयचीं मावशेंभयण मदींच आयलीं ? हो विचार तकलेंत रिगयतच हांव पांयां पडलें आनी मुखार मामीचीं उतरां कानार पडलीं. 'तुजे आवयचे तिपोलभयणीलें चली. 'हरे राम'... सामकें लक्षांत उरपासारकेंच नातें. मावशी न्हय मावशेभयण आनी तीय येदी व्हडली ? हांसूंकच आयलें म्हाका. आनी इतलेंय जावन थोड्या तेंपान ती मेळ्ळी तेन्ना म्हजे मैत्रिणिक वळख करून दितना हांवें तिका मामीची मावशेभयण करून उडयली. अशी म्हजी याद. फकत नात्याचेच बाबींत आं. तशें हांव यादीन बरें घट्ट आसां...

ह्यो जाल्यो पयलींच्यो गजाली... आतां लग्नान कितलींशींच नवीं नातीं हांवें जोडल्यांत. खंयचेय नवे व्हंकलेक मांय, मांव, देर, नणन हीं सामकीं लागींचीं नातीं ! हांवच कपलफुटकें म्हणून म्हज्या नशिबांत मांव ना आनी सख्खी अशी नणन एकय ना. आं पूण आवय सुवातेर मांय मात मेळ्ळ्या. ल्हानपणासावन म्हजें व्हंकलेचें सपन म्हणचे नवी व्हंकल आनी घरभर मनशां. मांय, मांव, जावो, नण्णो, देर. धाकटुली एक नणन वयनी – वयनी करीत फाटल्याफुडल्यान नाचपी, मामी – मामी करपी ल्हान भाचरां... पूण नशीब. त्या भाचरांचेंय सूख म्हज्या नशिबांत ना. एकूण हे वटेन मावशी ना आनी तेवेटन नण्डुली ना – भाचरां नात... वा देवाची इत्सा... आनी कितें म्हणप ?

आतां लग्न जाल्याक याद आशिल्लींय नातीं याद ना उरपाचो संभव. थंय तांच्या नात्यांचें इतलें खतखतें जालां की कोणाचें कोणाकडेन कसलें–कितें नातें तें ब्रह्मदेवाक लेगीत सारकें सांगूंक जमपाक ना–जल्माच्यो गांठी मारपी ब्रह्मदेव लेगीत जंय शेणटलो थंय म्हजेसारके पामराचो कितें पार? म्हज्या घरचीं नातीं म्हणचे दणायत आनी नाडकर्णी हांचो फकत घोंसाळ्याकाथो... नाडकर्ण्यांल्यो चलयो दणायतांगेर आनी

दणायतांल्यो नाडकर्ण्यांगेर अशें कितल्याशोच पिळग्यो चललां. म्हणटकीच कोण कोणाचें आका आनी कोण कोणाची मावशी तें समजुपाक लेगीत ना. एकच मनीस दुसऱ्याची एकाच वेळार मावशेभयण, बापोलभयण, मामेभयण – सगलीं अशीं एकत्र नातीं कोणाच्या लक्षांत उरत ? लग्नांत सव्यार लेगीत वळख करून दितना ही म्हजी बापोलभयण तेचबरोबर एके वटेन मामी, हो म्हजो मामेभाव, तेचबरोबर दुसरे वटेन पयसुल्लो मावशेभाव लागता असली वळख... हीं नातीं कोणाचे तकलेंत उरत ! तातूंत आनीक 'सव्यावयली वळख खंय हांसपापुरती' म्हणटात. आनी म्हजेवयल्यान म्हाका पट्टाय बी. सगलेंच दोन तीन मिनटांचें दर्शन. तेचबरोबर त्या वेळचो तो मूड आनी मनस्थिती सामकीच वेगळी. हेवटेन हात जोडप वा हात दिवप आनी हांसप हें माक्नाभशेन चालूच आसता. पूण तेवटेन मन मात हजार विचारांनी घुसपल्लें उरता. ते घुसपटणेंत नात्यांचो हो घुसपागोंदळ (तांतले तातूंत आनीक असल्या ह्या खतखत्याचो घुसपागोंदळ) तकलेंत उरप मोटेंच कुस्तार ! मागीर फाटल्यान, लग्नाच्या आल्बमावयल्यान हांवें मुख्य मुख्य नात्यांचीं सुत्रां पाठ करून घेतलीं – सामकीं संस्कृत सुत्रांभशेन. पूण हातूंतय मजा अशी जाली की लग्न मुंबय जाल्ल्या कारणान चडशीं सोयरीं लग्नाक पावलीं नात. तांच्या घरा वतकच कोणाचीच वळख लागना जाली. आनी नातीं पयसुल्लीं जावन लेगीत संबंदच अशे की गेलेंना जाल्यार तांकां वायट दिसता. मनाक लागता म्हणटकच वचचेंच पडलें. आनी इतलीं सोयऱ्यां की आज चार म्हयने जाले, सुटयेच्या दिसांनी आमी फकत सोयऱ्यांगेर भोंवत आसात. एकच सुटी घरा अशी घालोवंक ना. भोंगूं तें. सांगपाचें कारण म्हणचे सगलीं जाणटीं म्हणटकच पांयां पडचेंच पडलें. हांच्या आजोळा ही व्हनीबाय, ही बाईबाय, ही काकीबाय करतां करतां म्हाका कोण खंयची कांयच समजलेंना. नायतरी अशें याद उरप कुस्तारच. शंबर खेपे विचारून घेवन लेगीत म्हाका कितेंच लक्षांत उरलें ना. जंय मामीक वयनी आनी मामाक काका म्हणटात तीं नातीं याद तरी कशीं उरप बाये ? एक खरें, पयलीं हांव सदांच रक्ताच्या नात्यापरस इश्टागतीचें नातें व्हड मानतालें. पूण आतां

रक्ताचें नातेंय उणें नासता हें दुसऱ्यांच्या अणभवा वयल्यान कळ्ळां.

कांय जाण मात पयशांवयल्यान, गिरेस्तकायेवयल्यान नातें वळखतात. म्हाका दिसता हो तांचो मनीसभाव आसुये. असलीं मनशां गिरेस्त मनीस, मागीर तो कितलोय पयसुल्लो संबंदी आसुंदी, पूण खंयच्यान तरी ताजो आनी आपलो पोंतहेगडो जोडून तो आपलो सोयरो म्हणून मिजाशी मिरयतात. ह्या मनशांचे खुद्द लागींचे सोयरे जे सामके घरांतले पूण गरीब, ते 'पयसुल्ले कोणय तरी' लागतात.

कांय मनशां अशीं आसतात जांकां ह्या नात्यांच्या काथ्याचो राजू वळूंक–खूब आवडटा. कोण कोणाचो सोयरो हें तांकां सारकें बरें खबर आसता. असल्या मनशांची वृत्ती मात 'वसुधैव कुटुंबकम्' आसता. तीं मागीर खयंच्यान तरी पोंत लावन आपलें नातें प्रोवार करतात. आमच्या गांवांत एक मनीस आसा. ताजें नातें फकत गांवच्या लोकांकडेनच न्हय जाल्यार गांवच्या जांवयांकडेन लेगीत आसता. कोणागेर नवो जांवय आयला म्हणून खबर मेळ्ळी रे मेळ्ळी हो धांवलोच थंय. मागीर 'कितें, कशे आसात तुमी ?' करून भरभरूंक सुरवात. मातशी फॉर्मादालद सोंपली की रोखडोच 'हें पळय, तो अमको तमको नायक तुमचो कोण लागता ?... आं, तो म्हज्या मेवण्याले बायलेचो तिपोलभाव' करून आनी ताजें सगलें गणगोत सांगून आयकतल्याक झक मारली आनी मावोड्या आयलों अशें करून सोडटा. इतल्याचेरच सोंपलां ? मागीर ताचे साडू आपल्याले कशेकशे कोणाकोणावटेन सोयरे जाता तें सांगून उरिल्लें पासियेंस इबाड करता. नवो मनीस म्हणटकच वाज आयल्यार लेगीत कांचवेवन तरी ताका हो सगलो इतिहास आयकुचोच पडटा. हालीं लोक ताजी सरळ सरळ तासंपट्टी करतात. 'कितें बाबूदाद, हो अमको तमको तुजो कोण लागता ?' वा 'ह्या जांवयालें आनी तुमचें नातें आसा मूं ?' अशें म्हळें तरी तें ताजे तकलेवयल्यान वता आनी मोटे उमेदीन तो नाशिल्ल्या नात्याचो धागो सोदून काडटा.

सांगपाचें म्हळयार असल्यांलें सगल्या मनशांकडेन खंयचें ना खंयचें तरी नातें आसता (मनीसपणाचें नातें बी असली 'हाय क्वॉलिटी' मात न्हय

आं !) कोणय मेळनाफुडें तो कोणाचो कोण लागता हें विचारून घेवन तेभशेन शालीवटच्यान वा लालीवटच्यान खंयच्यान तरी आपलें नातें लायताच. असलीं मनशां बावडीं हरशीं निरुपद्रवी आसतात. पूण तीं जीं नातीं सांगतात तांच्या घुसपागोंदळाक लागून म्हज्या सारकेल्या फ्राक मेंदवाचे सगले मज्जातंतू फडफडून तुटूंक सोदतात. तकलेंत उटंगाराचें वादळ निर्माण करतात. कांय ना जाल्यार असल्यांचें 'हांव कोण, तूं कोण, जाल्यार कामू आवय सवतीभयण...' हें नातें लागू आसताच.

तशें पळोवंक गेल्यार नातें हें मानपाचेरच आसता. खंयचीं खंयचीं पयसुल्लीं नातीं लावन घेवपी कांय कुटुंबां आसात. तांकां पयसुल्ल्या नात्याचो धागो लेगीत आपलेपण दाखयता. ना मानतल्याचीं नातीं मात तुटिल्लींच आसतात. म्हजे वळखीचीं काय मनशां आसात जीं आपल्या खाशा मावशेभावाक वा आतेभावाक वळखनात. केन्ना तरी जाणटेल्यांच्या झगड्यांत तुटिल्लें नातें–ताजीं सुतां मुखार उरच नात. शाळेंत आसतना आमकां एक कविता आसली. आतां हांव ते कवितेचें वा कवीचें नांव लेगीत विसरून गेलां. पूण तांतल्यो कांय ओळी म्हाका सदांच याद जातात.

'नाहीं कुणी कुणाचा, मायबाप मामाभाचा...
मग अर्थ काय बेंबीच्या विश्वचक्रीं ?'

आनी कोणाचींय कित्याय वयल्यान झगडीं वादंग जाले, नातीं तुटलीं की म्हाका ह्या उतरांची याद हटकून ज़ाता.



## खंणयाळी जीण...

सांजचें अशेंच कित्याक तरी बाजारांत वतालें. मदले कॉलनींत एका बिल्डिंगेकडेन लोकांची हीऽऽ गर्दी पळयली. तांतल्याच एकल्याकडेन चवकशी करतकीच समजलें की थंयचो एक फांकिवंत दोतोर–दोतोर गुडो–आयज दनपरां संवसाराक अंतरलो. 'कितें म्हणटा ? शे, फट सामकें फट.' म्हाका इतलें अजाप जाल्लें की हांव सामकें आड्‌डलेंच. पांच स तकल्यो गर्र करून आमच्या वटेन घुंवल्यो. फटशें दिसता पुते, पूण असल्यो खबरी केन्नाच फटी जायनात.' एके जाणटेलेन म्हजे फाटीर हात भोंवडायत म्हाका धीर दिलो. सगल्यांकच खूब वायट दिशिल्लें. इतलो बरो दोतोर. पेशंटांकडेन वखदांक पयशे नासल्यार आपल्या बोलसांतले दुडू खर्चून तांकां टॉनिकां, फळां खावोवपी, गरिबांक बेठी नांवाक फी घेवपी, दोतोर म्हणून फामादच पूण मनीस म्हणूनय एकदम भांगर. कोणाकय वायट दिसपाचें. पूण म्हाका चड अजाप दिसलें ताजें कारण म्हणजे कालच रातचें शेजारचे एके बायलेबराबर हांव ताजे डिस्पॅन्सरींत गेल्लें आनी ताणें तिका तपासून बी परत आयज येवंक सांगिल्लें. काल इतलो हांसतो टवटवीत दिसपी मनीस आज ना जाता ? म्हाका सगलें फटचशें दिसतालें.

पूण घरामुखावयलें तें मर्तिकाचें सामान, भोंवतणीं जमिल्ले ताजे इश्टमित्र, पेशंट आनी रस्त्यार लायनीन उब्यो केल्ल्यो हेर व्हड व्हड दोतोरांच्यो मोटारी तें सत म्हणून जाणयताल्यो. बरें, चड जाणटोय न्हय. चाळिशेक वर्सांचो आसत नासत. जाणटो कोणय भायर पडल्यार व्हडलेंशें दिसना. तो सैमाचो नेमच म्हणून आमी मनांत चुकचुकून वोगीच रावतात. पूण असो मध्यम पिरायेचो म्हणून चड वायट दिसता. लोक उलयताले

ताजेवयल्यान समजलें की ताका काळजाच्या दुयेंसान मरण आयलें. काकूट बावड्या घरच्यांची. ताज्या बायल--भुरग्यांक कितें जावंक फावो ? जाणटीं आवयबापूय आसल्यार आनीक येवजूंकच नाका. आपलेपयलीं आपणालो तरणोताठो भुरगो--आपणाल्या हातांतली म्हातारपणाची बडी गेल्ली पळोवन कितलें दूख भोगतलें तांच्या काळजाक. येवजुपाचेंच न्हय. म्हजें मन भरून आयलें. बाजारांत वचपाचो बेत कॅन्सल करून हांव फाटल्या पांयान घरा परतलें. तशेंच सतरवितर जाल्लेभशेन वचून भायलेभायर गच्चेर बसलें.

खरेंच, कितें ही मनशाची जीण. सामकी खिणयाळी. जसो कितें उदकाचो बोमाडो. हात तेंकचेपयलीं केन्ना फुटून वचत कांय समजना. जीण म्हणचे आळवापानावयलें उदक. आळवापानार पडिल्ले फांतोड्डेचे देवाचे वा पावसाचे थेंबे सुर्याच्या किरणांत मोतयांवरी लिकलिकतात त्या थेंब्यांक पळोवन मनाक मोतयांचो भास जाता. थेंबे म्हणून मनांतल्यान जाणा जावनय आमी ते मोती म्हणून धरूंक वतात. पूण तेन्ना ते पानावयले निसरून मातयेभरवण जातात.

जीण म्हणचे सामको तेर्मामेत्रांतलो पारो... आमी जीण जियेतात म्हणचे मेळटात ते खीण हातांत धरूंक पळेतात. पूण ते पाऱ्यावरी हातांतल्यान सटकतात. केन्ना कितें जायत कोणाच्यान सांगूं नजो. कोण आपणाले फामिलीक घेवन गांवाक वता. वाटेर येतना आक्सिदेंतांत तें आख्खें कुटुंबूच नश्ट जाता. कोण खंय इश्टमित्र मेळून बायल भुरग्यांक घेवन देवाक वतात. पूण वाटेर घाटांत मोटार कोसळटा-- सगले जाण खऱ्यांनीच देवागेर पावतात. हें सोड, गाडी, विमान, मोटार जितलीं बरीं तितलींच वायट--माक्नांच तीं शेवटाक... पूण अशेच रस्त्याकडेन वेतना केन्ना खंयच्यान मोटार वा ट्रक येवन मनीस चिड्डत सांगूं येता ? हांथरुणारच पडूंक जाय म्हणून खंय आसा ? वेळ भरलीं की बरो चलपी भोंवपी मनीस आक्ताक थार जायत कोणाच्यानच सांगूं नजो.

हालींसराक लोकसंख्या इतली अतोनात वाडिल्ली आसा की मुंबयसारकिल्या म्हानगरांत गाडयांनी, बसींनी भयंकर चिड्डाचिड् जाता.

तातूंत कोणय घुसमटून मेल्यार लेगीत कोणाक कांय दिसपाक ना. जितलें जितलें विज्ञान फुडें वता, नवे नवे सोद लागतात. नवीं वखदां उपरासतात तशी तशी पिडा रोग वाडत वतात. जे पिडेचें नांव लेगीन खबर नासलें अशो हजारांनी पिडा नव्यान उपरासल्यात. कोण केन्ना कसो खंवसत कांयच सांगूंक येना. मनशाची जीण सामकी अशाश्वत जावन पडल्या. आनी आपणाल्या, आयुष्याची मात्तय शाश्वती नासतना लोक एकमेकांकडेन अशे कशे वागतात ?

सध्या वचत थंय वेगळेंच चित्र दिसून येता. घराघरांनी झगडीं, नळार उदकासपत झगडीं, गाडयेंत एक दोन वरांच्या प्रवासांत लेगीत जाग्यापसत झगडीं चालूच आसतात; ऑफिसांत आसतात – फुडाऱ्यांमदीं कदेलापसत झगडीं, राज्याराज्यांत झगडीं, राष्ट्राराष्ट्रांत झगडीं चालू आसात. अख्ख्या संवसारार मनशामनशांमदीं झगडीं उज्याकीट वाऱ्यान फाफसुची तशीं फांकत आसात. खावप, पिवप, न्हिदप झगडप इतलोच जिणेचो अर्थ न्हय. तशीं सुणीं, माजरां, पशुपक्षी लेगीत जियेतात. जल्मा आयिल्ल्याचें, तांतलें तातूंत मनीसजल्म मेळिल्ल्याचें कितेंय, पूण सार्थक करूंक जाय. 'मरावें परी किर्तीरुपें उरावें' अशें साधुसंतांनी म्हळां तें ओगीच न्हय.

हीं मनशांमदलीं झगडीं झुजां कित्यापसत ? हाजें मुळावें कारण कितें असो प्रस्न पडटा. मनीस एक दुसऱ्याकडल्यान थरावीक अपेक्षा बाळगिता. ती ताणें पुराय केली ना वा ताजेकडल्यान पुराय जाली ना म्हणटकच मागीर मनांत असंतोश निर्माण जाता आनी तांतल्यानच भंय, राग, द्वेश, मत्सर, सर्त हांची पिलावळ जल्मता. आमी एकमेकांक वयर सकयल मानतात. हो व्हड तो ल्हान, हो धर्म श्रेश्ट, तो कनिश्ट, ही जात व्हड, ती ल्हान असले वेगवेगळे भेदाभेद मानतात. हांतल्यानच जाती जमातींत, धर्माधर्मांत द्वेश माजता आनी तांतल्यान वेगळेपण जल्माक येता. हातूंतल्यानच मागीर झुजां उपरासतात.

जे. कृष्णमूर्तिनी हाजेविशीं आपणाले विचार उक्तायल्यात ते सादारण अशे–मनशाची जीण म्हळयार नातीं गोतीं–सगेसंबंदी. हीं

आपसातलीं नातीं इबाडलीं कीं झगडीं जातात. मावले भोंवतणीं तिणेंच विणून घेतिल्ल्या जाळ्यावरी आमचेभोंवतणी आमीच हें नात्यांचें जाळें विणून घेतिल्लें आसा. घोव–बायल, बापूय–पूत, भाव–भयण, इश्टमित्र नणन–भावज, मांय–सून, शिकोवपी–शिकपी, भाटकार–मुंडकार अशीं हीं जायतीं नातीं– ज्या नात्यांच्या जाळ्यांत आमचीं मनां घुस्पल्लीं आसतात. हांतल्यान कोणाची सुटका ना. सादे ल्हानशे भोंवडेंत लेगीत आमी अनवळखी मनशाकडेन नातें जोडटात. यात्रा सोंपली की हें नातें तुट्टा–जशें न्हंयंत व्हांवतना लाकडाचे दोन होंडे दैवयोगान कांय खिणाखातीर एकठांय येतात. पूण मातशा वेळान ते प्रवाहाबराबर पयसावतात. जीण ही लेगीत एक व्हड भोंवडी अशें मानल्यार हातूंत लेगीत जायत्या वेळार नात्यांचे हे धागे तुट्टात, परतून जोडटात अशें चालूच आसता. कांय खेपे ते सामके सासणाचे तुट्टात.

जायते फावट अशें जाता की एकाच घरांत रावन लेगीत आमी मनान पयसावतात. तीग चवग भाव, तांच्यो बायलो, आवयबापूय, भुरगीं अशें भरिल्ल्या गोकुळावरी दिसपी घर भितल्ल्यान वाळटेन पोखरिल्लें आसता. घराक सामक्या स्टेशनावयल्या वेटींगरुमाची वा खंयच्याय साद्या हॉटॅलाची कळा येता. अर्थांत भायलो परकी कोणय येतकच ताका मातय कळना. पूण तीं मनशां मात एकमेकांकडेन मनांतल्यान कुशिल्लीं आसतात. मनांतले मनांत गाळी संवतात. वयल्यान हांसतात. एकमेकांकडेन गोड गोड सुरबूस उलयतात, वयल्यान आदरसत्कार करतात पूण मनांतल्यान मात तांणी एकमेकांकडेन झूज मांडिल्लें आसता. एकमेकांपसून केन्ना एकदां पयसावतां अशें तांकां जाल्लें आसता. घरांतच न्हय जाल्यार समाजांत, राज्याराज्यांत, राष्ट्राराष्ट्रांत, अख्ख्या संवसारांत अशीं झगडीं चालू आसात. वंशाचीं, रक्ताचीं, धर्माचीं, घ्येयवादाचीं, जातीचीं, रंगाचीं, भाशांचीं हीं झगडीं – तीं केन्ना नश्ट जायत काय ?

हीं अशीं झगडीं जातात, मनशां एकमेकांपसून तुट्टात आनी मागीर मनां निर्शेतात. जिणेची उमेद, खोस नश्ट जायत वता. हालींचीं खबरांपत्रां हातांत घेवं नजो; रेडिओवयल्यो खबरो आयकूं नजो. वचत थंय हिंसाचार,

वचत थंय फारमार, घातपात. खरेंच, आयकून लेगीत जीव विट्टा. खंयचेकडेन पंजाबांत हिंसाचार आळाबंदाक हांडूक लश्कर हाडलें, सुवर्णमंदिरांत अमक्या लोकांचीं मडीं पडलीं. भिवंडीत कोणा हिंदूंनी मुसलमानांचे हातपांय तोडले, गोवंडींत इतल्या लोकाक मारले, हांगा अमकें जालें, थंय तमकें जालें. वचत थंय हिंसाचार, घातपात, जाळपोळ, लुटालूट. हे सगलें चललां कितें ? कलियूग कलियूग म्हणटात तें हेंच काय ? अशान मनशाचो फुडार कितें ? जातीभेद वर्णभेद, धर्मभेद, हे मनशाक खंयमेरेन व्हरतले ? आमच्या देशांतच न्हय जाल्यार आंतरराट्रीय मळारय हेंच चललां. खंय इराण इराकाचेर धुरी घालता, खंय इझ्रायल — विाएतनामाचे प्रस्न सुटनात— खबरो वाचपाच्यो न्हय आनी आयकुपाच्योय न्हय. व्हडले व्हडले आंतरराट्रीय किर्तीचे फुडारी झूज नाका म्हण्टात, अण्वस्त्रबंदणे पसत यत्न करतात. आंतरराट्रीय प्रश्न सोडोवचे आनी शांतताय प्रस्थापीत करचेपसत शिखर परिशदो जातात. यंव करतले त्यंव करतले करतात. पूण म्हणसारकें कसलेंच फळ ह्या यत्नांक आयिल्लें कांय दिश्टी पडना. उरफाटें, एकमेकांमदलो द्वेश मात वाडटेर आसा. कांय सॅकंडांनी अख्ख्या संवसाराचो गोबोर करचेलें सामर्थ्य मनशान मेळयलां. ह्यो तरातरांच्यो खबरो आयकतकच जीव सामको असो असो वयरसकयल जाता. शाळांनी वचपी ल्हान ल्हान भुरगीं पळयतकच तांचीं निर्व्याज्य, निश्पाप खुमणीं पळेयतकच कल्ल जाता. आतांच हें अशें; हाजेफुडें कशें हें येवजूनच जीव कळवळटा. ह्या भुरग्यांचो फुडार कितें असो प्रस्न सारको मनांत येत रावता. मन कासावीस जाता.

मनीस आतां आसा म्हळयार फाल्यां ना. कोणय जिणेचो अमरपटो घेवन जल्मूंक ना हें शाश्वत सत नदरेमुखार आसून लेगीत कित्यापसत झगडटात हे लोक ? जीण म्हणचे मनशाक मेळिल्ली एक मोलादीक अमानत. जिणेंत आपणाक नवनवे अणभव गांठीक बांदूक मेळटात. अशी ही मोलादीक देवादारांतली देण कशाय कशी फुसकावन उडोवप म्हणचे कितें ? हीं झगडीं झुजां म्हणचे मनीसजातीचो आत्मघात. हे आत्मघाताचे प्रसंग जिणेंत उतरापावलाक येतात— आत्मघात करप हें केन्नाय वायटच !

कितेंय जालें तरी एक ना एक दीस जण एकल्याक आयला तशें वचपाचेंच आसा. मागीर जमता तितली बरी जीण जियेवपाची संद कित्याक सोडप ? चडांत चड प्रतिकूल परिस्थितींत चडांत चड बरेपण सोदीत रावप हो हाजेर एकच उपाय उरला.

व्हडल्या व्हडल्या फुडाऱ्यांचीं, राजकारण्यांचीं हीं भितल्लीं राजकारणां, गुंडगिरी– हांतल्यान उद्भवपी हीं झगडीं झुजां पूण मदलेमदीं बळी पडटात मात बावडे निश्पाप लोक. जे कोणाच्या अध्यांत ना मध्यांत, पूण सुक्याबरोबर वलें जळ्ळेबगर रावता ? कितें मेळटा ह्या लोकांक अशें वागून ? आयचो खीण मुठींत धरून ताजो पुराय लाव घेवचे बदला पिशांवरी हे लोक भविश्यकाळाचो सोद घेतात. भूतकाळांतलीं कुतां काडटात आनी ताका लागून आसा तीय खीणयाळी जीण कुसोवन नासोवन उडयतात.

सदांच भूत आनी भविश्यकाळ हांचे कातरींमदीं वर्तमान काळांतली जीण पिंजून ताज्यो तिसत्यो–वादऱ्यो करून उडोवप हातूंतच आपणाक पुरो जाता. हें भविष्याचें पिशेंच मनशाक नडटा. फाल्यां अशें घडचें हो मनाचेर सदांच ताण घेवन आमी जियेतात. ताका लागून आयच्या काळांतलो प्रत्येक खीण इबाडून, कुसून वता. ताजें निर्माल्य जाता. देखून हें सदांच मतींत धरूंक जाय की भविश्यकाळ हो भूतकाळांतल्यान निर्मिल्लो आनी वर्तमानान रेखिल्लो एक भास जावन आसा. आपणाले तकलेंतलो गोंदळ केन्नाच सोंपना. जीण खरी अशी आसना. न्हंयच्या व्हांवत्या उदकांतलो प्रत्येक कण नवो जावन फुडें धांवता. सामकार जें येता तें खोशयेन आपणायत नित्य नवी जीण जियेता. आमी न्हंय पळोवन सुखावतात. न्हंय, उदेतो सूर्य, ल्हान व्हड दोंगुल्ल्यो, सोबीत फुलां, झाडां, मळब हांची जीण खरी सैमीक. आमची जीण सगले तरेचे कृत्रीमतायेन भरून गेल्या.

म्हाकवी कालिदासान तुमच्या आमच्या सारक्या सामान्य मनशांक आपणाल्या कवनान एक व्हडलो संदेश दिल्लो आसा. ताणें सांगलां– आयच्या दिसाकडेन पळयात. तातूंत जिणेची खोस उपाट भरल्या. 'काल'

हें एक सपन आनी 'फाल्यां' ही एक कल्पना. आयचो दीस खोषेन जियेवचो म्हणचे कालचें सुखाचें सपन पुराय जातलें आनी उदेवपी फाल्यांचो दीस तुमकां सुखाची आशेची दिठी दितलो. पूण आयच्या दिसाकडेन बरे तरेन पळयात हेंच खरे तरेन जीण जियेवय.



# पान-सुपारी...

'ए मरतू, फोफळां आहा गो?' किरंवटेचे चंचेंतल्यान खावचीं पानां भायर काडीत ताका चुनो बिनो लावून ताजो विडो करतना यमणें विचारता. मरतूल्ला किरंवटेची सुपारी घेवन दांतांनी कटाकट फोडटना, 'कितें रे बाबा, सांवार येयला ह्या हालींच्या भुरग्यांचेर ! त्या शेंवत्याले नातीन येशें करपा गो?' करीत तांच्यो गांवखबरो विड्याबराबर रंगत वतात. वाड्यार कोणालेय पडवेर, आंगणात वा रस्त्याकुशीन आंब्यापणसाच्या खंयच्याय झाडापोंदा एकठांय जावन बसीची वाट पळेतना सुपारे खांडाबरोबर रंगत आयिल्ल्यो ह्यो खबरो हांव ल्हानपणासावन आयकत आयलां.

तशी हे पानसुपारेची आनी म्हजी ल्हानपणासावन वळख ! पयस कित्याक वचूंक जाय, म्हजी आवय लेगीत जेवतगीच खावचेपाना विडो खाताली. जाणट्यांमदीं आनी तांतले तातूंत खेड्यांत चडशी ही विडो खावचेली संवय आशिल्लीच. सांगपाचें म्हळ्यार आईलो तो पाना डबो लहानपणासावन म्हज्या खुद्द धोस्ताचो ! सोबीत नक्षीचो तो चकचकीत पितळे डबो हाताळपापसत हांवें ल्हानपणांत कितले खेपे आईचीं उलावणी आनी मार खाल्लो आसा. आं, पूण एक मात. त्या पाना डब्याचो कितलाय घोस्त असलो तरी तांतले सुपारे खांडाकाक लेगीत हांव केन्ना आफुडलेंना. कारण एकच. जाणट्यांनी भुरग्यांक घाल्लो भंय 'पानसुपारी खाल्यार अभ्यास येना, जीब जड जाता.' त्या भंयाचो असर मनाचेर इतलो परजळत उरिल्लो की बरें व्हड जायसर हांवें चुकून लेगीत पानसुपारेक हात लावंक ना. आतां आतां केन्नाय जड जेवणाचेर विडो खाला जायत.

पयलीं तेंपार हळदकुकमाचे रुप्याकरण, हारशाचें पेटूल हांचेबरोबर

पानातबक वा पानाडबो दिताले जांवये; चलयेक लग्नाच्या वेळार तातूंत मागीर सुपारे डबी, चुन्याडबी आनी आडकातो आसतालोच. पानसुपारी खावचेलें हें व्यसन आमच्या देशांत हजारांनी वर्सां पयलींसावन चलत आयलांशें दिसता. गोंयच्या जायत्या लोकगितांनी लेगीत हे पानसुपारेचें म्हत्व गायिल्लें आसा –

**'पान म्हजें फोफळ तुजें, चुनो कोणालागीं आसा गे ?**
**चुनो कोणालागीं आसा गे?**
**म्हाकाली मांय पान खाता, चुनो तिजेलागीं आसा गे ?**
**चुनो तिजेलागीं आसा गे ..... ?**

धालां मांडार चलतले हे देवतांचे होरावणेंत देवांक आपणाल्या पांवड्यार हाडपाचो हेत नासून पानसुपारेचो उपेग ल्हान व्हड, गरीब गिरेस्त, पृथ्वीलोक, देवलोक अशा त्रिभुवनांत जातालो आनी तो पुरातन काळासावन चालत आयिल्लो आसा हेंच सुचयलां.

आमच्या गोंयांत जाल्यार माड माडयांचो सुकाळ. माडाभाटां आनी माडयांची कुळागरां पळयतच जल्म गेला आमचो. माडयांचे वाऱ्यार धोलपी ते लांब लांब शेंडे आनी तांचे कुशींत आपालिपा खेळपी घोंसाघोंसांनी लगडिल्लीं बेड्यांचीं शिपटां पळयतल्याच्या दोळ्यांची तान भागयतात. गोंयचे भुंयेक दर्याची देग, कानाक दर्याचो गाज, सैमाचो मोग हाजो वरच आसा म्हळ्यार जाता. नाल्लाचीं भाटां आनी सुपारेचीं कुळागरां ही गोंयची गिरेस्तकाय. कुळागरांनीच न्हय जाल्यार पोरसांतल्या मसंगांचेर लेगीत पानवेली चडिल्ल्यो आसतात. पानविडो खावपी हांगा व्हड प्रमाणांत आसात. गोंय जशें देव देवतांखगतीर नांवाजिल्लें आसा तशेंच कलावंतांखातीर फामाद. तांच्या माळयांनी वचून विडो खावन तांचें गायन आयकुवप म्हणजे आपलो व्हडलो मान अशें जाणटेले समजताले. तो खानदानी रिवाज मानताले, आपणाले गिरेस्तकायेचो सबूद मानताले. जाल्यारय सांगपाचो मूळ मुद्दो म्हळ्यार गोंयां ही पानसुपारी भलतीच फेमस...

गोंयांतच कित्याक, तशें पळोवंक गेल्यार ही अख्ख्या देशांत फामाद.

जाणकार अशें म्हणटात, आमच्या भारत देशांत गुप्तकाळाचे सुरवेक विडो खावचेली ही रीत पडली आसुये. दक्षीण भारतांत पानसुपारी भरपूर. तिज्या गोड रस सुवादान आनी परमळीत रुचीन ती देशाचे उत्तरेमेरेन पावली जावये. चड करून उत्तर प्रदेश, बिहार, बंगाल ह्या प्रदेशांनी ती खावचेली खूबच पद्दत आसा. पयलीं तेंपार राजा वा संस्थानिकां कडल्यान देवस्थानांक वा भटांक बी देणग्यो दितना भाटां, कुळागरां बी मेळटालीं. ताका लागून भटाबामणांची मालकी चड करून ह्या कुळागरांचेर पावली.

पानसुपारेच्या विड्यांतल्या हेर वस्तूंपरस तांतले हे सुपारेक आमच्या हिंदू धर्मांत मोटोच भौमान दिल्लो आसा. ही सुपारी खंयच्याय कामाक पावला कणकणीं लागता. कसलेंय देवकार्य पानसुपारे बगर पुराय जावंकच शकना. खंयचेय पुजे वेळार पयलीं सुपारी मांडून तिजी 'गणेसपुजा' करचेली रीत आसा. म्हणजेच पुजेंत गणपतीच्या जाग्यार तिजी थापणूक जाता. तेच प्रमाण दोन पानां आनी एक सुपारी असो विडो मांडलेबगर देवसपण जायचना सुरू ! आमच्या धर्माच्या सगल्या सुवाळ्यां वेळार पानसुपारी सामकी 'मस्ट' !... मनशाच्या जल्म वेळार धरून मरणामेरेन दर एका कामाक हे पानसुपारेची चड गरज. भुरगें जल्मतकच देवाक विडो दवरप आनी साकर वांटप, सटये वेळार, बारशा वेळार विड्याबगर पान हालना. मागीर प्रत्येक सुवाळ्याक वाडदिसाक लेगीत ओवाळणेचे तबकडेंत सुपारी आसलेबगर जायचना. फुडें व्हड जातकच लग्न थारायतना कूळदेवाचो राखणेप्रसाद घेवन देवाक विडो दवरूनच कार्य फुडें व्हरतात. साकरपुडो, लग्न हे सुवाळे सोडातूच पूण मर्तिकाक लेगीत पानां सुपाऱ्यो खूब लागतात. फुडें श्राध्द वाडटना, अमान्य दिसनाय हो विडो लागताच. असो हो सुपारेचो जल्मापासून मरणामेरेन आमचेकडेन लागींचो संबंद... ल्हान आसतना आमी एकमेकांक सुपारी म्हणूंक लायतालीं आनी फुडें तुज्या लग्नाची ओपारी म्हणून सुपारी म्हणटल्याक चाळयतालीं. पूण सुपारेचो आनी लग्नाचो संबंद कितलो लागींचो आसता तें व्हड जातकच कळटा. लग्नामुजीचें आमंत्रण दिवंक रुप्याचे वाटयेंत अक्षतांबरोबर सुपारीच आसता. इतलेंच कित्याक, दांपत्यान पुजा करच्या वेळार बायल ना

जाल्यार किरंवटेक सुपारी लावन पुजा करतात. म्हणजे बायलेचो जागो ही सुपारी घेवंक शकता. तशें पळेल्यार सुपारी आनी बायल हातूंतय सारकेपण आसा ! बायलांची अवस्था म्हूण कितें, आडकात्यांत सांपडिल्ले सुपारेवरीच आसता. कांय कांय तातूंतय घट आसतात त्यो सोडात. हे जालें आमच्या देशाचें, पूण नेपाळांत खंय एके जातीच्या चलयांचें लग्न पयलीं सुपारेकडेन लावन मागीर न्हवऱ्याकडेन लायतात. म्हणजे हांगा सुपारी न्हवऱ्या सुवातेर... अशें करतकच चलयेक रांडावपण येना असो तांचो समज आसा. तशेंच तांचेमदीं घटस्फोट दितना बायल घोवाच्या उशाकडेन सुपारी दवरून नातें तोडटा. हाजेवयल्यान तांच्यांतय लग्नाचो आनी सुपारेचो कितलो धनिश्ट संबंद आसा तें दिसता.

अशे तरेन हे पानसुपारेची महती कितली वर्णुची ? खंयचेय कार्यावळीक वा सुवाळ्याक सुरवात करतना सुपारी जायच. एक वेळ व्हंट बी भरूंक कांयकडेन तांदळा बदलाक गंव बी उपकारतात, पूण ही सुपारी मात सगलेकडेन सारकी. भटाक दक्षणा दितना जाल्यार पानसुपारी लागताच. कसलेय होम, लघुरूद्र, महारूद्र ह्या सारकेलें कसलेंय देवकार्य करतना येजमान भटाहातार सुपारी दवरता. म्हणजे तें काम करचेलो अधिकार आपलेवतीन ताजेर सोंपयता. काम सोंपतकच भट तीच सुपारी परत यजमानाक सुपूर्द करता. हाजेवयल्यान कसलेंय काम करूंक सांगप हाका सुपारी दिवप असो वाक्प्रचार रूढ जाला. आमच्या गोंयांत हळदीकुकमाक कसलेंय वायण वांट्टना सवायशिणीक पयसो दोन पयशे दवरून पानसुपारी दितातच. दानार दक्षणा म्हणपाचो प्रघात आसा. लग्नाचे मजलसीचो मराठींत पानसुपारी समारंभ असोच उल्लेख करतात.

पूण हे सुपारेचो उपेग फकत शुभकार्याकच जाता असो ना जाल्यार बंगाली समजुतीप्रमाण सुपारेंत जादूटोणोय आसा. म्हणूनच गौडबंगाल हो वाक्प्रचार रूढ जाला जावये. न्हिदतना उशापोंदा सुपारी दवरप म्हणजे भविश्यांतल्या बऱ्यावायट गजालींचो दृश्टांत जाता अशें म्हणटात. हुंवार येवप वा दुकळ पडप असल्या संकश्टांचें भंयनिवारण करचेपसत जमनींत सुपारी पुरून दवरप असोय समज आसा.

अशे हे सुपारेचीं नांवां तरी कितलीं वेगवेगळीं आसचीं ? कोण तिका चिकणी म्हणटा, कोण चिक्का, कोण सोष्कणम् जाल्यार कोण उग्देगम् कुसुमफलम्, पुगीफलम् अशें संस्कृतांत म्हणटात. आमी सुपारेक बेडो जांव फोफळ म्हणटात. सगल्याचो अर्थ एकच – सुपारी – म्हणजे बरो गर आशिल्लें फळ. आता पुगीफलम् म्हणजे चोम्यांनी, धडाधडांनी लागपी फळ. तशें पळेल्यार गोहत्ती हाजो खरो अर्थ तरी कितल्या जाणांक खबर आसा ? आमी आपले सरळ अर्थान गोहत्ती असो उच्चार करतात. पूण ताजो खरो उच्चार लेगीत गुआहाटी म्हणजे सुपारेचो बाजार असो आसा. म्हणजे मूळ अर्थापासून कितलोसोच वेगळो अर्थ. पयलीं तेंपार थंय सुपारेचो व्हडलो बाजार आशिल्लो जावये. फुडें गुआहाटी हाजो अपभ्रंश जावन शेवट ताजें गोहत्ती जालां आसुये.

आमच्या देशाभायर नेपाळ, श्रीलंका, ब्रह्मदेश, थायलंड, दक्षीण चीन, फिलीपायन्स, आफ्रिका, सुमात्रा ह्या देशांनी सुपारी जाता. सुपारेचो उपेग खुब्ब तरांनी करतात. सुपारेंत जायते वखदी गूण आसतात. ती चाबतना पोटांत पाचक रस तयार जातात. आनी खाल्लें अन्न पचूंक सोंपें जाता. तशेंच, सुपारेन मूखशुध्दी जाता. तोंडाचो वास मरता – म्हणून गोंयां बी चड करून नुसत्या–मटणाच्या जेवणार वा कांद्यालसणीचो वास वचूंक सुपारी तोंडांत उडयतात वा विडो खातात. जड जेवणाचेर सुपारी वा विडो खाल्यार अन्न पचूंक हलकें जाता. तेच भशेन पानांतय अशेच वखदी घटक आसतात.

पूण कित्याचोय अतिरेक वायटच! जेवतकच मूखशुध्दीक म्हणून चिमटीभर सुपारी खावप वेगळें आनी दीसभर सुपारी वा पान चाबडायत रावप वेगळें – खुब्ब सुपारी खावप वा पाना विडे खायत रावप फिग्दाक माल पडटा. तेच प्रमाण कांय लोक विड्यांत तंबाखू घालूनय खातात. ताजे वरवीं तोंडाचो वा फुफुसाचो कांक्र जावंक शकता. सुपारेंत 'आल्कालॉयड' हें द्रव आसता आनी तें पोटाक उपद्रव दिवपी थारता. मात पोटखाण्याचेर बी एकेकदां सुपारेचो वापर करतात. कांय वेळार सुण्यामांजरांच्या पोटांत दुखल्यार भायरी म्हणूनच हिजो उपेग करतात. तांकां सुपारी झरोवन

घालतात. सुपारी लागता तेन्ना मात दोळ्यांमुखार जोगलां चकचकतात. धवी सुपारी हटकून लागता, तिजेवरवीं ढांस लागता.

तर अशी ही पानसुपारी... खाता तितली सुवादीक लागता. चाबडायता तितलो हो विडो रंगतच वता, पूण चड सुपारी गळ्याक परवडना आनी आतांच्या ह्या म्हारगाये तेंपार जाल्यार बोल्साकय परवडचिना. म्हणूनच म्हजी ही पानसुपारेची काणी – हजारों उतरांची लंबीचौडी कथा – पांचां उतरीं सुफळ संपूर्णम् !



## आमचीं कांय नवीं प्रकाशनां

साहित्य सुवाद - डॉ मनोहरराय सरदेसाय

चित्रांगदा - पांडुरंग भांगी

निळें निळें ब्रह्म - शंकर रामाणी

कविता : काळ रेल्वेचो

: मन हारशांच्यो

: पावसा पाणयांच्यो

- प्रकाश पाडगांवकार

हिरण्यगर्भ - रमेश भ. वेळुस्कार

करबट - जयमाला दणायत

शाप - वा. ल. वझे



**नांव :** जयमाला नारायण दणायत

**पयलीचें नांव :** जयमाला दा. प्रभू चोडणेकार

**जल्म :** जांबावली–गोंय.

**जल्मतारीख :** १७ देझेंब्र १९४७

**शिकप :** पयलीं जांबावले मागीर मडगांवां चौगुले कॉलेजींतल्यान B. A. (इकॉनॉमिक्स आनीं पोलिटिक्स)

पुणें युनव्हर्सिटीची एम्. ए. (एन्टायर हिन्दी घेवन) रा. भा. पंडितची परिक्षाय पास केल्या. शाळा कॉलेजींत शिकतना बऱ्यापैकीं स्टेजीर चकमकलां. गोंय रेडिओचेर आपणें बरोवन भुरग्यांल्या आगणांत, बायलांखातीर आशिल्ल्या कार्यावळींनी तशेंच शिक्षणीक वितरावणेंतय ल्हान–सान कार्यावळी सादर केल्यात. मुंबय आकाशवाणीचेर थोडो तेंप कोंकणींतल्यान खबरो सांगल्यात. तशेंच, मुंबय कोंकणी विभागांतूय तत्पुरतें काम केलां. तेचप्रमाण दूरदर्शनावयल्या कोंकणी कौस्तुभ कार्यावळींनीय वांटो घेतला.

भुरगेपणांतसावन बरोवपाची खूब आवड. कोंकणी आनी मराठी दिसाळ्यांच्या वा दिवाळी अंकांच्या सर्तींनी वांटो घेवन तातूंत इनामां फावो जाल्यांत.

'कवासो' हो कथां–झेलो आनी 'सप्तक' हो एकांकिकांचो संग्रह हीं दोन उजवाडायिल्लीं पुस्तकां. हांतले एके एकांकिकेचो धावेच्या आनी एके कथेचो इकरावेच्या पाठ्यपुस्तकांत आसपाव जाला.

आतां भायर सरता तें 'करबट' – ललीत लेख संग्रह – हाका कला अकादमीचो साहित्य पुरस्कार फावो जाला.

---

ISBN 81-85854-08-4